Price ₹ 20/- (₹ 25/- Outside Goa)

# मासिक बिम्ब

कोंकणी समाजाचें पडबिम्ब

डिसेंबर २०१०




## गोंय मुक्तीच्या सुवर्ण महोत्सवी वर्साक सलाम!

४१ व्या भारतीय आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवांत

## 'मोनेर मानुष' क सुवर्ण मयूर

कोंकणी मासिक

# बिम्ब

वर्स : ९ अंक १२

डिसेंबर २०१०

मोल २० रुपया

मुखेल संपादक
दिलीप बोरकार

मुद्रक आनी प्रकाशक
दिलीप बोरकार

छापणावळ
इम्प्रेशन्स, बेळगांव.

व्यवस्थापक
कामिनी किणी

अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ
श्वेता नाईक

वर्गणीचे दर
वर्सुकी २५० रु. / तीन वर्सां ६०० रु.

खंयच्याय म्हयन्या सावन
वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक
'बिम्ब' ह्या नांवान धाडचो

संपादकीय पत्रव्यव्हाराचो पत्तो
'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४
दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५
E-mail : bimbkonkani@yahoo.co.in







# गोंयकारांचें काळीज खतखतत रावूं!

**ह्या** अंका सावन 'बिम्ब' मासिक णव वर्सां पुराय करता. फुडलो अंक जानेवारी २०११ हो धावव्या वर्साचो पयलो अंक. २०११ हें साल गोंयच्या इतिहासांतलें भांगरावर्स. १९ डिसेंबर सावन म्हळ्यार ह्या म्हयन्याच्या १९ तारकेसावन आमी गोंयकार आनी पुराय भारतीय गोंयच्या मुक्ततायेचो भांगरा उत्सव मनोवपाक आरंभ करतात. पोर्तुगीजांच्या गुलामपणांतल्यान ५०वर्सां आदीं हेच दिसा आमी गोंयकार मेकळे जाल्ले आनी जो भारत १४ वर्सां अर्दकुटी स्वतंत्रताय भोगतालो त्या भारताक गोंय मुक्त जाल्ल्यान १९ डिसेंबराक पूर्ण स्वतंत्रताय लाबली. हेच दिसा भारत देशाक खऱ्या अर्थान पूर्णत्व आयलें आनी आमीय अधिकृत भारतीय जावंक पावले. तेच खातीर पुराय भारतीयांचे नदरेनूय गोंय मुक्तींच्या भांगरा उत्सवाक गोंयकारां इतलेंच म्हत्व आसा.

गोंय मुक्तीचो भांगरा उत्सव मनयता आसतनाच आमीय 'बिम्ब'चो दशक पूर्ती महोत्सव मनोवंक सोदतात. ह्याच वर्सा आमी 'बिम्ब' पुरस्कारूय दिवंक पळयतात. कोंकणीतले आमचे म्हालगडे साहित्यिक जे गोंय मुक्ततायेखातीर झुंजले, गोंयचें वेगळें अस्तित्व दवरूंक वावुरले आनी जे गोंय मुक्ततायेचो भांगरा उत्सव मनोवंक आमचेमदीं नांत तांच्या नांवान म्हळ्यार बाकीबाब बोरकार, र. वि. पंडित, डॉ. मनोहरराय सरदेसाय, रवीन्द्र केळेकार आनी विजयाबाय सरमळकार हांच्या नांवान हे बिम्ब पुरस्कार आसतले. तातुंतलो विजयाबाय सरमळकार हो पुरस्कार बालसाहित्यिकां खातीर आसतलो.

हें सगळें सपन आमी बाळगिता आसतनाच 'बिम्ब' धा वर्सां उप्रांत चलोवंचें काय ना हाचोय विचार ह्याच दशकपूर्ती वर्सांत आनी गोंय मुक्तीच्या भांगरा महोत्सवी वर्सांत जातलो. ताकाय कारणां आसात.

आमी २००२ वर्सा 'बिम्ब' हें कुटुंबीक मासिक सुरू केलें आनी तें धा वर्सां चलोवपाचें उतर आमी दिल्लें. अत्यंत प्रतिकूल वातावरणांत आमी मासिक चलयलें. मनोहर पर्रीकाराचें सरकार सदेर आसतना तर 'सरकारी जायराती' बिम्ब मासिकाक मेळूंक फावना म्हूण सरकारी फतवोय भायर सरलो. पूण खंयच कॉम्प्रमायज करिनासतना आमी बिम्ब मुखार व्हेलें.

आयज दिगंबर कामत हे गोंयचे मुखेलमंत्री आसात. तांचो पांच वर्सांचो कार्यकाळ ह्याच वर्सा पुराय जाता आनी फुडलीं पांच वर्सां तेच मुखेलमंत्री आसचे अशी आमचे सयत बऱ्याच गोंयकारांची इत्सा आसा. तातूंत ते कलाप्रेमी आनी कलाकारांक मान दिवपी अशे मुखेलमंत्री.

अशें आसतना तांचे कारकिर्दींत 'बिम्ब' सारकें गोंयकारांचे आवयभाशेंतलें, लोकप्रिय मासिक बंद करपाचो विचार तकलेंत हाडप आनी तोय बी गोंयच्या मुक्तीच्या भांगरा उत्सवी वर्सांत म्हळ्यार अवचिन्नच म्हणूंक जाय.

पूण एक मासिक चलोवप ही सामान्याची गजाल न्हय. कोणेंतरी म्हळां, जर मनशान आपली साकर आनी प्रेसांव वाडोवन घेवपाचें आसल्यार ताणें एक मासिक चलोवंक घेवंचें. गोंय सरकारान आपल्या सांस्कृतीक धोरण २००७ हातूंत; कलम क्र. ६.४ भास आनी संस्कृताय हांतल्या पोटकलम (P) हातूंत 'बिम्ब' सारक्या मासिकांक आर्थिक पालव दिवपाचें उतर दिलां.

ह्या सांस्कृतिक धोरणांत सरकार उतर दिता, अस्तित्वांत आशिल्ल्या गोंयच्या साहित्यिक नेमाळ्यांक तें चालू उरपा खातीर अनुदान दितले आनी नव्या नेमाळ्यांच्यो ठरावीक प्रती तांकां प्रोत्साहन दिवंक विकते घेतले.



पूण आयज हें धोरण जाहीर जावन ४ वर्सां सरलीं तरी तें चालीक लागना. मात फक्त जायराती घेवपाच्या उद्देशयान जीं कांय इग्लेज नेमाळीं गोंयांत अळमी कशीं वयर सरतात तांका मात लाखानी रूपयांच्यो जायराती मेळटात.

असल्या ह्या वातावरणांत बिम्ब चलोवपाचो पिसो अट्टाहास कितलो मेरेन बाळगप हाकाय मर्यादा आसा. तरी लेगीत जे दमान फाटलीं णव वर्सां हें मासिक चलयलां तें त्याच दमान चलोवपाचो विचार तकलेंत घोळटाच.

गोंय मुक्तीच्या भांगरा उत्सवी वर्सांत आमी दर म्हयन्याक गोंयचे वेगवेगळे प्रस्न कव्हरस्टोरी म्हूण घेवंक सोदतात, जांचे भितर विशय शिजतात आनी काळीज खतखतता ताणीं ती बरोवन धाडूं येता. तेच वांगडा ह्या म्हयन्या सावन आमी एका पुस्तकाचो अणकार दर म्हयन्याक खिस्ती खिस्तीनी उजवाडावंक सोदतात. तें म्हळ्यार क्रांतिवीर मोहन रानडे हांचें 'सतीचे वाण'. गोंय मुक्तीच्या भांगराउत्सवी सुवाळ्या निमतान 'बिम्ब'ची ही एक गोंयकारांक भेट.

सगळ्यांक गोंय मुक्ती दिनाचीं आनी भांगरा उत्सवी वर्साचीं परबीं. आदर्श गोंय घडोवपाखातीर दर गोंयकारांचे काळीज हें वर्सूयभर खतखतत रावूं!



# इफ्फी आमच्या लागीं केन्नाच येवचो ना?

इफ्फीचें संगोपन नोकरशायेच्या पाळण्यांत जाल्लें आसा. देखून सरकार हे संस्थेचे सगळे गुणदोश ह्या जागतीक चित्रपट महोत्सवाक दसले बगर रावनात. नोकरशहा हे राजकारण्यांचे खुशमस्करे आसतात. हाका लागून चित्रपटांचे आनी सोयऱ्यांचे निवडीत राजकीय हस्तक्षेप अनिवार्य आसता. हाका लागून संवसारांत निर्माण जाल्ले अर्द्यापरस चड बरे चित्रपट, इफ्फी पासून पयस उरतात आनी कितल्यातरी सर्वोत्तम दिग्दर्शकांची वो कलाकारांची सावळी लेगीत इफ्फीचेर पडना. हें चित्र बदलतलो जाल्यार इफ्फीक स्वायत्तता मेळूंक जाय.

मोनेर मानुश ह्या भारतीय बंगाली चित्रपटाक भांगरा मोर लाभिल्ल्यान दरेक देशप्रेमी भारतीयाचें मन मोरा प्रमाण खोशयेन नाचतलें हातूंत दुबाव ना. तेच वांगडा बांगला देशांतल्या दरेक बंगाली भाशा प्रेमिकांचेंय काळीज अभिमानान भरून येतलें. ह्या चित्रपटाच्या निमतान भारत आनी बांगला देश ह्या एकमेका पासून पयस जाल्ल्या जुळव्या भावांमदीं परतून जवळीक जावंक जाय. कलाकारांची आनी चित्रपटांची देवाण घेवाण सुरू जाली जाल्यार आपूण एकूच आसात म्हणपाचो साक्षात्कार बेगीन जातलो.

इफ्फीच्या साधनसुविधायांचो २०१४ मेरेन विस्तार जातलो आनी तातूंत मिनी थिएटर्स, परिशदगृह हांचो आसपाव आसतलो अशें महोत्सव संचालकान जाहीर केलां. ह्यो सुविधायो निश्चितपणी जाय. पूण फक्त फातर विटांच्या सुविधायानी इफ्फीचे गुणवत्तेत फरक पडचो ना. इफ्फी यशस्वी करपाखातीर आयोजकांक देशाचो अभिमान जाय आनी कार्यक्षमतेचें ट्रेनींग. हो इफ्फी यशस्वी जालो जाल्यार भारत देशाची पत वाडटली हे भावनेन भारावन गेल्ले लोक मनोरंजन सोसायटींत नियुक्त जावंक जाय. सद्या एक दोन अपवाद सोडले जाल्यार सगळेच फक्त खावपाचे सर्तींत वांटेकार आसात. मनोरंजन सोसायटींत सरकारान होयबा नेमूंक फावनांत जाल्यार चित्रपट संबंदीत प्रतिनिधींतल्यान वेंचून काडचे.

संवसारांतल्या खंयच्याय देशांपरस चड चित्रपट भारतांत निर्माण जातात. इफ्फीच्या निमतान भारतांतल्या बऱ्या चित्रपटांक, हेर देशांतल्या चित्रपट महोत्सवात निमंत्रण मेळोवन दिवपाखातीर वातावरण निर्मिती जाय. ते पासत इफ्फीत वेवसायीक सोयिसुविधायांचो आंतरराष्ट्रीय काउंटर जाय. फील्म बाझार हें काम करूंक शकना. कान्स सारक्या नावाजत्या चित्रपट महोत्सवांत भारताचो एखाद्रोच चित्रपट आसता आनी भारता परस कितलेंतरी ल्हान आशिल्ल्या इराण, श्रिलंका, कोरिआ हांचे कितले तरी चित्रपट आसतात. हे वस्तुस्थितींतल्यान भारतान शिकपाक जाय. इफ्फींत जायते बरे भारतीय चित्रपट येतात. मर्यादीत वेळेक लागून ते सगळे पळोवंक मेळनांत. तांच्यो डिव्हीडी आंतरराष्ट्रीय सोयऱ्यांक भेट दिवपाचो उपक्रम करचो. ताका लागून भारताचो बरो चित्रपट सगळेकडेन पावतलो.

इफ्फींत डिव्हीडीचो एकूच स्टॉल आशिल्लो आनी तातूंत चित्रपटाची एकूय चित्रफीत नाशिल्ली. इफ्फीच्या आयोजकांनी फुडले इफ्फींत बेस्ट ऑफ इंडिया अश्यो चित्रफीती हाडच्यो.

चित्रपट सृश्टीविशीं पुस्तकांचो खजिनो इफ्फींत मांडपाक जाय. हें करप सहज शक्य आसा. ते खातीर मनोरंजन सोसायटी वाल्यांनी जिवीतांत एकदांतरी वाचनालयांत पासय मारची. सुदैवान गोंय सरकारचे सेवेंत श्री. दौलतराव हवालदार हांचे सारखीं चित्रपट समिक्षेची जाण आशिल्ली अधिकारी मनशां आसात. पूण तांकां इफ्फींत हाडिनासतना नगरपालिका प्रशासनात कुसयतात. दौलत इफ्फींत आयले तर इफ्फी श्रिमंत जातले.

चित्रपट ह्या माध्यमाची ताकत खूब व्हडली. खबरापत्रांतले हजारांनी अग्रलेख समाजाचेर परिणाम करचेनांत तितलो परिणाम एकाद्रो चित्रपट करूंक शकता. म्हाका स्वताक फक्त मनोरंजन वो समाधान दिवपी चित्रपटां परस अस्वस्थ करपी चित्रपट आवडटात. इफ्फींतले कांय चित्रपट दोळे उक्ते करतात. जगाचे तुळेंत आमी खंय आसात हें समजुपाक ह्या चित्रपटांची मजत जाता. चित्रपटांतल्या तंत्रांपरस शैलिंतलो सादेपणा म्हज्या काळजाक उलो घालता. देखून चित्रपटांची योग्य निवड ही खूब म्हत्वाची आसता.

अर्दो इफ्फी सोंपमेरेन रसिकांक चित्रपटांचे ब्रॉशर मेळूंक नांत. सिंगल विन्डो मॅनेजमेंट नाशिल्ल्यान पास घेवपा खातीर तीन-तीन रांकांनी तिश्टत उबें रावचें पडटालें. आयोजकांक तांच्यो प्रवेशपत्रिका घरपोच मेळटात ताका लागून तांकां आम आदमिची ही समस्या समजूंक ना. इफ्फींतले तरनाटे आपवावुरपी आपली कसलीच चूक नासतना, 'सॉरी सर, सॉरी मॅडम' अशें म्हणत मजत करपाचो प्रयत्न करताले. त्या उपकाराची फेड मात विचित्र तरेन करपांत आयली. च्या परस बियर सवाय अशी परिस्थिति तांचे खातीर निर्माण केल्ली. पर्यटकांक आकर्शीत करपा खातीर स्वताच्या चलेचलयांक बेबदे करपाचें मोल ह्या निमतान गोंयान मेजलां. फुडल्या वर्सा इफ्फींत ट्रांन्स पार्टी आसत वो तातूंत अमली पदार्थ आसल्यार अजापाचें न्हय. महावीर उध्यानाचें 'किंगफीशर व्हिलेज' अशें नामकरण केलां तें पळोवन हो अदमास काडूं येता.

चित्रपट महोत्सव हो नागरिकांक समाजाच्या लागीं व्हरपा खातीर आसता. इफ्फीकडल्यानूय तीच अपेक्षा आसा. इफ्फीचे सुवातेर धरणें धरून राष्ट्रीय, आंतरराष्ट्रीय प्रतिनिधींचें लक्ष वेदपाचो यत्न महामार्ग विरोधकांनी केला. तो पोलिसांनी हुस्कावन घालो. माथानी, ऑस्कर, पॅट्रीशिया सारकी प्रामाणीक मंडळी तांची वाट पळयत कुशीक रावली. पूण एकूय प्रतिनिधी जाणून घेवंक थंय गेलो ना. इफ्फीचे लोखणी दरवाजे उगडूंक नात हें हांव समजूंक शकतां. पूण इफ्फी प्रतिनिधींच्या मनाच्यो खिडक्यो इतल्यो बंद कश्यो?

आमी इफ्फीक लागीं वचपाचो खूब यत्न केलो. पूण इफ्फी आमच्या लागीं केन्नाच येवचो ना?





– ॲड. सतीश सोनक
सांत इनेज, पणजी.



इफ्फी खातीर गोंयांत आंतरराष्ट्रीय दर्जाच्यो सुविधायांची गरज आसा. १८ थेटरां आशिल्लें कन्व्हेंशन सेंटर, तातूंत निदान चार हजार प्रतिनिधींक एकाच वेळार बसपाची वेवस्ता. एकाच छपरा खाला हेर सगळ्यो गरजेच्यो गजाली आशिल्ली भव्य दिव्य वास्तु जाय. ही इफ्फीची गरज. आयज कितें घडटा तर एक कार्यक्रम कला अकादमीत, दुसरो आयनोक्सांत आनी बाजार मेरीयटांत. हाका लागून प्रतिनिधींचो गोंधळ जाता आनी महोत्सवाचो उद्देश्यूच ना जावन वता.

## ४१ व्या भारतीय आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवात

# 'मोनेर मानुष'क सुवर्ण मयूर

४१ व्या भारतीय आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवांतल्या (इफ्फी) आंतरराष्ट्रीय चित्रपट सर्तींत गौतम घोषाच्या 'मोनेर मानुष' (द क्रॅस्ट) ह्या बंगाली चित्रपटाक ४० लाख रुपयांचो भांगरा मोर पुरस्कार फावो जालो. ४० लाख रुपयांचो हो पुरस्कार जैतवंत चित्रपटाचे दिग्दर्शक आनी निर्मात्याक वाटून गेला.

देशाच्या चित्रपट मळार 'बॉलिवूड' ही चित्रपट सृष्ट सद्या धुडगूस घालता. देशांतल्या भोवतेक लोकांची अभिरूची लक्षांत घेवन, कोट्यावधी रुपयांचो नश्टखर्च करून झगझग निर्माण करप, प्रेक्षकांक बऱ्याक पडटा ताचे परस तांका बरें कितें दिसता तें दिवपाचें काम बॉलिवूड करता. कांय कांय चित्रपट कोट्यावधींचो गल्लो करता. हे फॅक्टरींतल्यान येवपी सगळेच चित्रपट बाजारू आसतात अशें न्हय तर सुंदर कलात्मक चित्रपटूय अदींमदीं दिश्टी पडटात. बॉलिवूडच्या गल्लाभरू झगमगांत मात फाटीं पडटात ते कलात्मक, समाजाक उभारी दिवपी, थळावे भाशेंतले चित्रपट. ते भाशेंतल्या चित्रपटांतल्यान जोड जायना. तरी खंयच्या तरी चित्रपट महोत्सवांत त्या चित्रपटाची तोखणाय जाता आनी संवसारभरचे चित्रपट जाणकार ताची तुस्त तोखणाय करतात. चित्रपट महोत्सवाच्या आयोजनाचो उद्देश आनी यश तें हें.

२००० वर्साचे इफ्फींत 'करूणाम' ह्या दिग्दर्शक जयरामाच्या चित्रपटाक हो प्रतिश्ठेचो भांगरा मोर फावो जाल्लो. गोंयांत इफ्फीक आरंभ जावन स वर्सां


















मुखेल सोयरे नामनेचे अभिनेते सैफ अली खान हांकां इफ्फीक येवकार दितना गोंयचे मुखेलमंत्री आनी मनरिजवण सोसायटीचे अध्यक्ष भौमानेस्त दिगंबर कामत.

पूण एक गजाल सगळ्यांनी न्हयकारूंक फावना आनी ती म्हळ्यार गोंय हें देशांतलें एक पर्यटन थळ. पर्यटन थळ म्हूण गोंय राज्याच्या आर्थिक कण्याक दिगी लायता. ती दिगी कितली घटमूठ हाचो कीस जाय ताणी काडचो. पूण गोंय हें पर्यटन थळ म्हणपाची आडनदर करप जावपाचें ना. तातूंत गोंय हें आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवाचें कायम केंद्र जाल्ल्यान गोंय संवसारांतल्या पर्यटन नक्शाचेर वचून बसलां. जे कोण इफ्फी खातीर येतात ते फक्त इफ्फी करून परतनात तर गोंय पळोवन वचपाचो कार्यक्रमूय थारायतात. इफ्फीचो हो एक फायदो गोंयाक कायम स्वरूपांत लाबला हातूंत दुबाव ना.

गोंयचे मुखेलमंत्री कला आनी कलाकार हांका केंद्रभूत दवरून वावर करीत आसात. इफ्फी गोंयांत जावंचीच, आंतराष्ट्रीय थळांचेर पावची ही तांची मोख सरलीं आनी धा वर्सां उप्रांत गोंयचे भुंयेंत भारतीय भाशेंतल्या एका चित्रपटाचो भोवमान जाता ही थळाव्या भाशेंतल्यान चित्रपट निर्माण करप्यांक उर्बा दिवपी घडणूक हातूंत दुबाव ना.

इफ्फीच्या आयोजनाविशीं कुतां काडपाची आतां कोणाक गरज ना. आमकां गोंयकारांक तर नाच ना. इफ्फीची गोंयाक गरज कितें, आमकां तो पेलतलो काय कितें? असल्यो जायत्यो गजाली आनी हुसके हे आदींय काडल्यात आनी ४१व्या इफ्फीतय झळकल्यात.



४१व्या आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवाच्या सुवाळ्याचो पड्डो पडटना दिनानाथ मंगेशकर सभाघरांत उपस्थित आशिल्लो अभिनेतो अर्जून रामपाल.
















आसाच, पूण अशें करतना ह्या आयोजनाचो फायदो चडांत चड गोंयच्या कलाकारांक जावंचो हाचेर तांचो कटाक्षान रोख आसता. ताचो फायदो इफ्फीच्या नांवान कलेचो गंध नाशिल्ले कांय नकलाकार करतात आसले तरी दिगंबर कामतीची नदर फाटल्या तीन चार इफ्फीत ठळकपणान दिसून आयल्या.

'ओ मारिया' हो राजेंद्र तालकाचो नवो ताल्ल कोंकणी चित्रपट ४१व्या आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवांत प्रदर्शित जालो. राजेंद्र तालक दर वर्सा आपली वर्णी लायताच ही एक बऱ्याची गजाल. लक्ष्मीकांत शेटगांवकार हाणें 'पलतडचो मनीस' हो हे मातयेंतलो कोंकणी चित्रपट आंतरराष्ट्रीय मळार गाजयलो. म्हणटकच गौतम घोषाच्या 'मोनेर मानूष' सारको एक दीस गोंयच्या चित्रपटाक नक्कीच भांगरा मोर आनी हेर मानाचे तुरे फाव जातले. पूण हे खातीर गोंयच्या दिग्दर्शकानी आनी निर्मात्यानी चित्रपट निर्मितीचो गुणात्मक आनी दर्जात्मक नदरेन विचार करपाकडेन भर दिवपाक जाय. इफ्फीचें कायम स्वरूपी केंद्र थरिल्ल्या गोंयच्या लोकांकडल्यान कितें तरी भरगच्च, नदर ओडपी मेळूंक जाय अशी अपेक्षा संवसारीक मळावेल्या चित्रपट मोग्यांची आसतलीच. ते नदरेन गोंयच्या चित्रपट निर्मात्यांनी गांभिर्य राखचें पडटलें. गोंय सरकार अनुदान दिता म्हूण 'हांवूय आसां' करपांत अर्थ ना.

एका उत्कृश्ट चित्रपटाचें यश हें त्या चित्रपटाचे पटकथेचेर निंबून आसता. आयज मेरेन जे संवसारांत उत्कृश्ट चित्रपट तयार जाल्यात ताचें यश जाणकारांनी कथेक दिल्लें आसा.



## बऱ्या पटथाकारांचो अभाव

– बोमन इराणी

हिंदी चित्रपट मळार बऱ्या पटकथाकारांचो अभाव आसा. तो आतां आतां प्रकर्शान जाणवपाक लागला. अशी खंत एक पत्रकार परिशदेंत नामनेचे अश्टताशी अभिनेतो बोमन इराणी हाणें उक्तायली. चित्रपट मळार पटकथाकारांक गांभिर्यान घेनांत, ताणीं बरयल्ल्या पटकथांचेर चित्रपट यतलोच काय ना हांची खात्री दिनांत. तांकां योग्य अशें मानधनय दिनांत. अशें सत इराणीन हे वेळार उलोवन दाखयलें.

## गोंय चित्रपट केंद्र जावंक लागलां

– सैफ अली खान



समारोप सुवाळ्याक नामनेचो चित्रपट कलाकार सैफ अली खान हाजीर आशिल्लो. हे वेळार उलयतना, इफ्फीक लागून गोंय चित्रपट केंद्र म्हूण नामना मेळोवंक लागलां म्हणपाचें ताणें मान्य केलें.

आमी आदीं गोंय म्हळ्यार पार्टी करपाची सुवात अशे समज करून बशिल्ले. आतां इफ्फीक लागून तें आंतरराष्ट्रीय चित्रपट केंद्र जालां अशें सांगतना ताणीं गोंय हें इतिहासीक राज्य आशिल्ल्यान इफ्फी सारक्या महोत्सवाचें आयोजन करपाक फाव सारकें थळ थारलां अशें मत उक्तायलें.










बऱ्या बऱ्या कादंबऱ्यांचो वापर पटकथां खातीर जाल्लो आसा. 'पलतडचो मनीस' हो आमचो चित्रपट नदर ओडूंक पावलो तो महाबळेश्वर सैल हांचे सारक्या सिद्धहस्त साहित्यिकाचे कादंबरीक लागून हें न्हयकारूंक मेळना. इतलेंच कित्याक, ४१व्या आंतरराष्ट्रीय चित्रपटांत कालूच 'मोनेर मानुष' ह्या बंगाली चित्रपटाक भांगरा मोर

## गोंयान चित्रपट संस्कृताय तयार करची – एन. चंद्रा

इफ्फी हो गोंयच्या कलाकारां खातीर एक आयतीच चलून आयिल्ली संद आसा. तिचो गोंयच्या तरनाट्यांनी लाब करून घेवंचो. तशेंच गोंय सरकारानूय ताचो उपेग गोंयाक चित्रपट संस्कृताय निर्माण करपा खातीर करून घेवप खूब गरजेचें आसा. गोंयांत हांवें खूब प्रतिभावान युवक आनी हुशार कलाकार पळयल्यात. तांचे खातीर एक मंच तयार करून दिवपाची गरज आसा. भायल्यान येवन कितलेतरी निर्माते गोंयांत चित्रिकरण करतात. पूण थळावे निर्मातेच राज्यांतल्या लोकांचे प्रस्न, समस्या चड प्रभावीपणान आपल्या चित्रपटांनी मांडूंक शाकता आनी अशे तरेन गोंयांत हळुहळू चित्रपट संस्कृताय तयार जातली.



इफ्फीन हांगच्या कलाकारांक आनी निर्मात्यांक अभिनय मळावेलीं दारां उक्तीं करून दिल्यांत ताचो लाभ हांगच्या लोकांनी चडांतचड करून घेवंक जाय आनी गोंयची खरी प्रतिमा संवसारभर पातळावंक जाय. अशें मत नामनेचे ज्येश्ठ दिग्दर्शक एन. चंद्रा हाणीं हे इफ्फीक भेट दिली तेन्ना उक्तायलें.

















राजेंद्र तालक हांचो ४१व्या आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवांत प्रिमियर जाल्ल्या 'ओ मारिया' ह्या चित्रपटांतलें एक काळीज हालोवपी दृश्य. डॉ. मिनाक्षी मार्टीन्स आनी शेरनाझ पटेल

डॉ. मिनाक्षी मार्टीन्स ही गोंयची अश्ळताशी कलाकार. एका काळार मिनाक्षीन गोंयची नाटकाची माची आपल्या अभिनयान गाजयल्या. उपरांत वेगवेगळ्या भासांतल्या टिव्ही सिरियलींतल्यान आनी चित्रपटांतल्यान ताणें आपल्या अभिनयाचो खाशेलो ठसो तयार केला. सद्या ताचो 'कॉफिन मेकर' हो नासरुध्दीन शहा आनी बेन्जामीन गिलानी हांचे वांगडचो इंग्लीश चित्रपट रिलीज जावपचो आसा. आमच्या प्रतिनिधीन मिनाक्षीची जेन्ना भेट घेतली तेन्ना 'ओ मारिया'च्या यशा खातीर तें बरेंच समाधानी दिसलें.

मिनाक्षीच्या मत्तान 'ओ मारिया'क खूब रिसपोन्स मेळ्ळो. प्रिमियर हावसफूल जावन लोक फाटल्यान उबे रावन चित्रपट पळयताले. आपले नॅचरल ॲक्टींगीक लागून फिलॉमिनाचो रोल खूब सशक्तपणान मुखार आयलो. कांय लोकांनी मात आपले भाशेचेर हरकत घेतली. पूण वेगवेगळ्या वाठारांतलीं नुस्तेकारां वेगवेगळी कोंकणी उलयतात. तेन्ना आपणेन ताचेकडेन लक्ष दिलें ना.

'ओ मारिया' आतां वेगवेगळ्या चित्रपट महोत्सवांनी वांटेकार जातलो. जानेवारीक पुण्याक जावपी महोत्सवांत ताचो आस्पाव आसा. लो बजेट आसुनय फिल्म वेळांत पुराय जालें. अशें मिनाक्षीन ह्या वेळार उमेदीन सांगलें.

फावो जाला ताचे लेखक नामनेचे बंगाली साहित्यिक आनी सद्याचे साहित्य अकादेमीचे अध्यक्ष सुनिल गंगोपाद्याय हे जावन आसा. एक कुशळ दिग्दर्शक आपल्या गुणांचें चीज करता तें तशीच स्क्रीप्ट मेळत जाल्यार. देखून आदीं जेन्ना चित्रपटांतले कलात्मकतायेक म्हत्व मेळटालें तेन्ना सगळ्यांत पयलीं विचार जातालो तो चित्रपटाचे कथेचो. कथे भोंवतणीच चित्रपट घुंवतालो.

आतां कथेक मान ना. उखलाप्या










## गोंयांत फिल्म संस्कृताय रुजवणा येता !



- मनोज श्रीवास्तव

[illegible]

[illegible]

[illegible]

[illegible]

[illegible]

[illegible]

[illegible]

झगमगाक आसा. ताका लागून कथाकाराक कुशीक सारून कपयाळें करून सजोवपाचो वावर बॉलिवूडांत चालू आसा. तीच खंत बोमन इराणीन उक्तायल्या आनी तातूंत तथ्य आसा.

आमच्या गोंयच्या कांय निर्मात्यांचोय कल तेच दिकेन दिसता तांकां आतांच कोणें तरी जागोवंक जाय.

इफ्फी आतां गोंयांत कायमचें बस्तान ठोकून आसा. तरी लेगीत थोड्यांच्या मनांत पाल चुकचुकता. दुबावाचो म्हारू तांचे तकलेर बसता.

इफ्फीचें स्थळ बंगालाक आसचें, कित्याक तर बंगालांत चित्रपट संस्कृताय रुजल्या अशी मागणी बंगालचे चित्रपट रसिक करतात. ४१व्या चित्रपट महोत्सवाच्या उक्तावण सुवाळ्याक ममता बॅनर्जी येता हें कळ्ळ्या बराबर, 'जालें, आतां ही बया, इफ्फी आमकां दियात म्हणटलीच' अशें म्हणत कांय जाणांनी तकली रेवेंत मुंगरली. पूण गोंयासारको सुंदर प्रदेश, सोबीत शांत राज्य हें इफ्फी खातीर पुरक आसा म्हणपाचें सगळ्यांनी मान्य केलां.

म्हणटकच इफ्फी कोणतरी व्हरतलो ह्या भंयाक व्हडलोसो अर्थ ना! पूण एक गजाल, आयज इफ्फी खातीरच्यो सुविधायो आसात त्यो आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवा खातीर फावश्यो नांत. त्यो अपुऱ्यो पडटात. म्हणटकच गोंय सरकारच्यो जापसालदारक्यो वाडल्यात. खंयचेंय सरकार आयलें तरी ह्यो जापसालदारक्यो ताका चुकनांत.

इफ्फी खातीर गोंयांत आंतरराष्ट्रीय दर्जाच्या सुविधायांची गरज आसा. १८ थेटरां आशिल्लें कन्व्हेंशन सेंटर, तातूंत निदान चार हजार प्रतिनिधींक एकाच वेळार बसपाची वेवस्ता. एकाच छपरा खाला हेर सगळ्यो गरजेच्यो गजाली आशिल्ली भव्य दिव्य वास्तु जाय. ही इफ्फीची गरज. आयज कितें घडटा तर एक कार्यक्रम कला अकादमीत, दुसरो आयनोक्सांत आनी बाजार मेरीयटांत. हाका लागून प्रतिनिधींचो गोंधळ जाता आनी महोत्सवाचो उद्देश्यूच ना जावन वता.

उक्तावण सुवाळ्याक यश चोपडा हाणीं हीच गजाल आपल्या उलोवपांत सांगल्या. गोंयचे मुखेलमंत्री दिगंबर कामत हे कलाप्रेमी म्हूण सगळे वळखतात. तांका चित्रपट महोत्सवाविशीं आस्था आसा. तातूंत मनरिजवण संस्थेचे ते अध्यक्ष आनी गोंय राज्य साधन सुविधाय महामंडळाचेय अध्यक्ष आसात.

फुडलो इफ्फी जेन्ना गोंयांत भरतलो तेन्ना गोंय, मुक्ती दिनाच्या भांगरा उत्सवी वर्साच्या भारार आसतलें. तेच सुवर्ण महोत्सवी वर्सा ह्यो सगळ्यो गरजो पुराय जावंक पावल्यो जाल्यार ती एक इतिहासीक घडणूक थारतली. मुखेलमंत्री दिगंबर कामत हांचेकडेन ती धमक आसा. फुडलो इफ्फी एकाच छपरा खाला म्हळ्यार कन्व्हेन्शन सेंटरात भरतलो अशी आस्त बाळगुया आनी आमी सगळेच प्रयत्नाक लागुया.
















# सतीचे वाण



''गोंय मुक्ती संग्रामांत जो ल्हानसो वांटो घेवपाचें भाग्य म्हाका फाव जालें, जो अणभव म्हाका आयलो ताका लिखित रूप दिवप इतिहासाचे नदरेन गरजेचें आशिल्लें. हांवें विशेश त्याग करूंक नाशिल्लो, पूण हेरांनी तो निश्चितपणान केल्लो आनी तांचेकडेन म्हजो लागशिल्लो संबंद आयिल्लो. तांचीं नांवां तांच्या आंगावेल्या लक्तरांक लागून खबरापत्रांतल्यान झळकूंक नाशिल्लीं. अश्या सामान्य लोकांच्या असामान्य त्यागाचें दर्शन हांवें गोंयांत प्रवेश केल्ल्या खिणासावन, १९४९ सावन, म्हाका घडिल्लें. तांची नोंद खंयतरी जावप गरजेची आशिल्ली. तें कृतज्ञतायेचें द्योतक आशिल्लें. गोंय मुक्तीसंग्राम ज्या वसाहतवादी झुजाचो एक वांटो आशिल्लो त्या झुजाचे आनीक कांय पैलू पळोवपाची जी संद म्हाका पुर्तुगालाक मेळ्ळी तीय कथन करप गरजेचें आशिल्लें. पुर्तुगेज जनता आनी साम्राज्यवादी पुर्तुगेज सरकार हीं एकरूप नांत, भिन्न आसात, परस्परविरूध्द आसात. तांच्यात संघर्श चालू आसा. ह्या संघर्शाचो जो थोडोभोव परिचय म्हाका थंय जालो तो हेरांक करून दिवप म्हाका गरजेचें दिसलें. गोंय मुक्ती उप्रांत कैद्यांचे अदलाबदली विशींच्या निर्लज्ज इतिहासाची पुनरावृत्ती जावन आनीक कोणा भारतीयांचेर फुडाराक 'आपलो देश मुक्त जाल्लो आसतनाय' विजनवास काडपाची पाळी येवं नये हे पासत त्या इतिहासाविशीं हांवें बरोवप गरजेचें आशिल्लें.''

**- मोहन रानडे**

साडेतेरा वर्सांची पुर्तुगालच्या कठीसर बंदखणींत ख्यास्त भोगून क्रांतिवीर मोहन रानडे गोंयांत आयले तेन्ना हांव अकरा वर्सांचो. तेन्ना रानडे आमगेर येताले. ते भाईचे (नंदा) मित्र. आमच्या घरांतले शेणान सारयिल्ले जमनीर पाट दवरून त्या पाटार आसरमांडी घालून बसून, पेत्रोलाच्या दिव्याच्या उजवाडांत वाचन करताले. तांचे मुखार बसून हांवूय किर्ते तरी वाचतालों. ताणीं म्हाका खूब मजाली रांवच्यो. वेगवेगळ्या चळवळींत वांटेकार जावपाची मागीर जी खुमखुमी आयली ताचें फाटलें कारण हेंच आसूं येता.

आयज गोंय मुक्तीच्या भांगरा उत्सवी वर्सा हांव तांचें 'सतीचे वाण' अणकारीत करूंक बसतां तेन्ना म्हाका मोहनकाका म्हजेमुखार आसरमांडी घालून बसला आनी म्हजेकडेन उलयता असो भास जाता.

**- दिलीप बोरकार**

## १

## स्वातंत्र्योत्सव, पूण सळयांआड

'बाँ दीय...!' कशीयश बंदखणींतले केंस मारपाचे कोठडेंत भितर सरता आसतना आमच्या त्या सदच्या वळखिच्या कारागिराक हांवें अभिवादन केलें. स्वताक सर्वज्ञ समजुपी आमच्या तुरूंगाधिकाऱ्याच्या लहरी प्रमाण केंस मारपाची कार्यावळ जाताली आनी आमकां हे कोठडेंत हाडटाले. ह्या वेवसायांतलो मनीस हो सदांच बोलको आसता. आपणाकडेन येवपी विंगडविंगड प्रवृत्तींच्या गिरायकाकडेन तो गजाली मारीत आसता, खबर घेत आसता. आमचो कारागिरूय ह्या नेमाक आडवाद नाशिल्लो. मोठ्या कश्टान ताणें ही कला चडूच विकसीत केल्ली. विशेश करून आमच्या सारख्या कैद्यांकडल्यान म्हायती काडून घेवपाची. आमचेकडेन दुडवांरुपान बक्षिसी मेळपाची ताका आस्त नाशिल्ली. पूण आमच्या सारक्या राजकीय कैद्यांच्या कोठडींतल्या हालचालींची म्हायती मेळ्ळी तर ती ताचे नदरेन व्हड बक्षिसी थारपाची. मेळिल्ली म्हायती वयल्या

अधिकाऱ्यांक दिवन बढतीचो मार्ग ताका उक्तो जावपाचो आशिल्लो. देखुनच तर तो हेरवीं काळखी उदास आशिल्ली कोठडी आमी भितर सरतांच आपल्या हासपान परजळून उडयतालो. आमी भितर सरतांच. पूण आज मात म्हज्या सुप्रभातेक ताचेकडल्यान प्रतिसाद मेळ्ळो ना. एकदां दिसलें ताका आयकूंक बी येवंक ना म्हण. तेन्ना हांवें मातशें व्हडल्या आवाजांत परत एकदां 'बाँ दीय्' म्हळें. ताणें म्हजे कडेन पळयलें पूण मखख चेरो करून. तोंड शिविल्लें. हें आतां अती जालें. म्हजो हो चक्क अपमान आशिल्लो. आमी शुभेच्छा दिवंच्यो आनी दुसऱ्यान प्रतिसादूच दिवप ना हो अपमानच न्हय? निमणें हांवें 'बाँ दीय!' म्हण किळांचूच माल्ली. ह्या आइडूपाचो मात परिणाम जालो आनी ताच्या तोंडांतल्यान इत्सा नासून लेगीत, अस्पश्टशी कित्याक जायना शुभेच्छा भायर सरलीच. 'बाँ दीय!'. पूण तितलेंच. केंस कापून जांय मेरेन ताच्या तोंडांतल्यान आनीक एकूय उतर भायर पडलें ना. ताच्या तोंडार राग आनी शोक हाचें गडद सांवट दिसून येतालें. "कितें जालें आज?" हांवें विचाल्लें, पूण तो ओगीच रावलो. केंस कापून जाले. रखवालदारान म्हजो ताबो घेतलो. कोठडीकडेन व्हेलो. दार उगडलें, म्हाका भितर धुकलून धण्ण् करून दार बंद केलें आनी 'कितें जालां आसतलें?' हाचो उलगडो म्हाका जालो. सात कैद्यां खातीर बांदिल्ले ते ल्हानशेच कोठडीत म्हजे पंदराय वांगडी म्हाका येवकार दिवंक, म्हजें अभिनंदन करूंक सामके ताटकळून उबे आशिल्ले. ते उदास, काळखे कोठडींतूय तांच्या मुखामळार आयज खरोखुरो आनंद ओसंडून व्हांवतालो. केशकरतना खातीर कोठडींतल्यान भायर सरून परत ये मेरेन जेमतेम पंदराच मिनटां कितें तीं उलगल्लीं आनी इतल्या मजगतीं पुराय देखावोच बदलून गेल्लो. दर एकलो म्हाका कडकडून वेंग मारतालो, म्हजें अभिनंदन करतालो. 'आरे आयज जालें तरी कितें? 'कित्याक लागून ही खोस? 'म्हज्या ह्या प्रस्नाच्या जापे दाखल निकत्याच आयिल्ल्या 'उ सॅकुलु' ह्या लिस्बन दिसाळ्याचो अंकूच तांणीं म्हज्या दोळ्यां मुखार धल्लो. 'भारतीय सेनेचें गोंयचेर आक्रमण! पणजेचेर चढाय!' ठळक अक्षरांत पयल्याच पानार बातमी!

म्हज्या आयुश्यांतलो सर्वोच्च आनंदाचो हो खीण! 'याचसाठी केला होता अट्टाहास', संत तुकारामाची उक्ती म्हाका येवजली. पोर्तुगीज साम्राज्यवाद्यांचे धवे पांय हे भुंयेर पडल्यापासून उबे साडेचार शेंकडे स्वातंत्र्य झुजाचें होमखंड पेटत राविल्लें तें ह्या खिणाखातीरूच. हजारांनी देशभक्तांनी आपल्या प्राणांची तातूंत आहुती दिल्ली ती हेचपासत. हुतात्मा जावपाचे, त्यागाची परिसिमा गाठपाचें भाग्य म्हाका लाबूंक नाशिल्लें तरी कांय समिधा म्हज्या हातांतल्यान यज्ञकुंडांत पडिल्ल्यो, एका काळार सप्ना सारको दिसपी खीण आयज पुर्णायेक पाविल्लो. 'याची देही याची डोळा' हें हांव पळयतालों भारतापासून हजारांनी मैल पयस अंतरावयल्या कशीयशच्या त्या जुनाट पूण भरभक्कम कोटांतल्यानय हांव त्या ऐतीहासीक खिणाचो साक्षीदार जाल्लों. पोर्तुगीज सम्राट म्हजो फक्त देहूच त्या कोटाचेर कडेकोट बंदोबस्तांत दवरूंक शकतालो. 'वाढू दे कारागृहाच्या भिंतीची उंचीकिती, मन्मना नाही क्षिती' ह्या कविवर्य यशवंतांच्या उतरांनी सम्राटाक आव्हान दीत म्हज्या मनान बातमी वाचली त्या खिणातूच गोंयांत भरारी मारिल्ली. भारतीय मुक्तिसेनेचें मनासावन स्वागत करपी हजारांनी गोंयकारांक तें सांगात करतालें. भारतीय सेनेवांगडा तेंय पणजेंत पाविल्लें. आदिलखानाच्या ऐतिहासीक राजवाड्यावयल्या पोर्तुगीज साम्राज्यशाहेचें निशाण सकयल खेचिल्ल्याचो आनी स्वातंत्रतायेचो उद्घोष करपी राष्ट्रीय तिरंगो मोठ्या दिमाखान फडफडपाची खोस भोगपाक तें बेहोश जाल्लें.

"आरे कोणतरी सिगरेट काडा" एकलो आड्डलो आनी हांव भानार आयलों. शुभवार्ता सिगरेटीच्या झुरक्यान आमी मनयताले अर्थात सिगरेट आसली जाल्यार! दर एकल्यान आपआपलीं बोल्सां सांसपिलीं, वयर-सकयल सोदले आनी शेवटाक चार सिगारेटी सापडल्यो. दर एकल्याच्या वांट्याक सामकी एक चतुर्थांश सिगरेट! चैन! हांव आनी ते पंदरा पुर्तुगेज खोशयेचो आस्वाद घेवंक लागले. गोंय मुक्तिसंग्राम भारतीय स्वातंत्र्य झुजांतली निमणी लढाय आशिल्ली आनी तातूंत म्हजो देश जैतीवंत जाल्लो. म्हाका खोस भोगूंक ना जाल्यारूच अजाप म्हणपाचें. पूण पयसुल्ल्यान लेगीत भारतीय नाशिल्ल्या म्हज्या पंदरा सहकाऱ्यांक म्हजी इतलीच खोस जाताली. ह्या पंदरांतले तीग जाण 'अगोला' हे आफ्रिकेंतले पोर्तुगीज वसाहतींतले सुटके झुजारी आशिल्ले जाल्यार उरिल्ले बाराजाण आपल्याच देशांतले हुकूमशांय राजवटी आड लढपी लोकशाहीवादी आशिल्ले. गोंयच्या जैतांत तांकां आपलेंय जैत लागीं आयिल्ल्याचें दिसतालें. विशीष्ट ऐतिहासीक परिस्थितीक लागून दिर्घकाळ पोर्तुगीज साम्राज्याक आशियेंत तशेंच आफ्रिकेंत लढाय खेळपाचो प्रसंग येवंक नाशिल्लो. हाका लागून पराभवाचो अणभवय येवंक नाशिल्लो. ताका लागून आपलें लष्करी सामर्थ्य अजिंक्य आसा, आपलो एक एक सैनिक १० भारतीय आनी २० निग्रो सैनीकांक भारी आसा अशी गोड समजूत पोर्तुगीज साम्राज्यवाद्यांनी करून घेतिल्ली, हेरांनीय करून दिल्ली. गोंयच्या पराभवान हे समजुतीच्यो तिस्त्यो वाद्रयो जाल्यो. 'भारतीय आक्रमकांकडेन आमचें सैन्य प्राणपणान झुंजता. इंच इंच भूंय झुजयतात.' अशी दर्पोक्ती त्या पोर्तुगेज दिसाळ्यांत आशिल्ली. पूण ताचेर विश्वास दवरपाक आतां कोणूच तयार नाशिल्ले. भारतांतलें पोर्तुगीज साम्राज्य इस्पिकांच्या बंगल्याप्रमाण कोसळटालें, मातये भरवण जातालें. पुराय संवसारांतल्या पोर्तुगीज साम्राज्यवादा आडच्या झुजांतली पयली लढाय स्वातंत्र्यवाद्यांनी जिकिल्ली. आफ्रिकेंतल्या अंगोला आनी मोसंबीक ह्या पोर्तुगीज वसाहतींच्या स्वतंत्रतायेची ही नांदी



कशीयशचो किल्लो, पोर्तुगाल, हे बंदखणींत मोहन रानडे १९६० ते १९६९ मेरेन आशिल्ले.

आशिल्ली. देखुनूच तर गोंय मुक्तीचे वार्तेन म्हज्या कोठडींतल्या त्या तीन अंगोली सुटके झुजाऱ्यांक म्हजे इतलीच खोस जाल्ली. त्या १३ पोर्तुगीज लोकशायवाद्यांकूय लोकशाय खातीरच्या संग्रामाचें जैत गोंय मुक्तीन आसपावल्लें दिसलें. १९२५ वर्सा लोकशायेचो अंत जावन फॅशिस्ट लष्करी हुकूमशाय पुर्तुगालांत स्थापन जाली. गोंयांतलो लष्करी पराभव हुकूमशायेच्या समाप्तीचो आरंभ थरपाचो. आमकां सगळ्यांक जाल्ले खोशयेन बंदखणीचें वेळापत्रक कोसळ्ळें. शिस्तीचीं बंधनां सदळ पडलीं. काम बंद, फकत गजाली, गोंयच्या स्वातंत्र्य लढायेचेर गजाली. ह्या शौर्यशाली स्वातंत्र्य लढ्याचो इतिहास हांवें तांकां आयकयलो. १५१०त ज्या दिसा आफोंसो द आल्बुकेर्कान गोंयांत पावल दवरलें सामको त्याच दिसा सावन सुरू जाल्लो लढो, तांतले चड-उतार, गोमंतकी जनतेचे विनवणे वेल्यान शिवाजी महाराज आनी संभाजी महाराजांनी १६७५ आनी १६८३ वर्सा गोंयचेर केल्ल्यो स्वाऱ्यो, संभाजी महाराजांचे स्वारी वेळार पोर्तुगीज व्हासरॉयची भंयान उडिल्ली धांदल, ताणें आपलो राजदंड झेव्हियराच्या शवपेटीचेर दवरून आमचें राज्य वाचय म्हणून हुयेली मारून केल्ली प्रार्थना, थिवीच्या पाद्रयांनी १७१७ वर्सा केल्लें बंड, चिमाजी अप्पान वसईचेर १७३९त केल्ली यशस्वी स्वारी, सत्तरींतलीं राण्यांचीं बंडां, दिपाजी राण्याचो पराक्रम १८५० ते १९३७ अर्शी ८७ वर्सा पोर्तुगीजांनी हे सत्तरीचेर लादलेलो लष्करी अंमल आनी थंयचे जनतेची स्वतंत्रतायेची उर्मी चिड्डून उडोवपाचो केल्लो अयशस्वी प्रयत्न. १९१० ते १९२६ ह्या लोकशाय काळांत गोंयकारांनी खबरांपत्रांतल्यान, राष्ट्रीय शिक्षण सस्था, राजकीय पक्ष हांचे वतीन प्रभावीपणान उक्तायल्लें राष्ट्र प्रेम, त्रिस्तांव ब्रागांझ द कुन्य हाणें १९२८ वर्सा भारतीय राष्ट्रीय सभेची गोंयांत स्थापन केल्ली शाखा, १८ जून १९४६ दिसा राम मनोहर लोहिया हाणीं गोंयांत केल्ली स्वतंत्रतायेची शींव गर्जना, हजारो गोंयकारांनी तिका दिल्लो प्रतिसाद, दाखयल्लें धैर्य, सोशिल्ली मारहाण, भोगलेली बंदखण, १९५४ ते १९५५तलो अपूर्व सत्याग्रह, निःशस्त्र सत्याग्रहींचेर-सामकें बायल सत्याग्रहींचेरूय पोर्तुगीज सैनिकांनी केल्लो अमानूष फार-पेट, 'रणावीण स्वातंत्र्य कोणा मिळाले' ह्या स्थलकालांतीत नेमांची विस्मृती न पडिल्ल्या तरनाट्यांनी सत्याग्रहाचो अणभव घेतल्या उपरांत १९४७ वर्सा स्थापन केल्लें आझाद गोमंतक दल आनी उबारिल्लें सशस्त्र आंदोलन, तांतलो म्हजो आनी म्हज्या सहकाऱ्यांचो सहभाग, तांतले हुतात्मे- हांव वर्णन करीत आशिल्लों. आनी ते उत्सुक्तायेन आयकताले. दोगूय बेभान जाल्ले. गोंय मुक्तीची कथा सोंपली आनी सगळ्यांनी हर्षोन्मादान ताळयो माल्ल्यो. गोंयच्या, अंगोल आनी मोसंबिकाच्या स्वातंत्र्याचो जयजयकार जालो, पोर्तुगीज लोकशाय आंदोलनाचो जयजयकार जालो. खिणात धण्ण करून दार उगडलें. संतापिल्लो रखवालदार गर्जतूच भितर आयलो. शिक्षेची धमकी, दोन मिनटां स्तब्धताय, परत दार धण्ण् करून बंद आनी परत आमी हर्षोन्मादांत मग्न! खंयचीय शिक्षा, धमकी आयज आमचे उमेदीक आवर घालूंक शकनाशिल्ली.

दनपारचीं बारां वरां जाल्लीं. दार उगडलें. पाळी बदलताली. नवो पहारेकरी आनी नवे अधिकारी. तांचेकडल्यान शुभेच्छा ना! आमकांय पर्वा नाशिल्ली, जेवण आयलें, हाडांकडेन लक्ष वचूंक ना. मासांतलें वातडपणूय जाणवलें ना. कशें गोड लागलें जेवण आयज! रातच्या आठ वरांचेर परत एकदां कैद्यांची मोजणी, अधिकारी आनी पहारेकरी सकाळचे बशेनच वोग्गी. जनेलांचे जाडजूड गज बडोवन, तपासून गेले. दिवे पालवले. बंदखणींतल्या नेमाप्रमाण हरशीं जाल्यार हांतरूणाचेर पडपाचें आशिल्लें. आज मात हांव आपसुख पडलों. कितली

सुस्त न्हीद लागली! सावयवेरेंचो तो परिसर, दोंगरावेलीं आमचीं निवासस्थानां, शिवोले, पोम्बुर्पा, धुळेर ह्या वाठारांतले म्हजे सहकारी, सत्तरींतल्या दाट जंगलांतल्यान आनी दोंगरघळींतल्यान म्हज्या वांगडा भोंवपी म्हजे अर्धनग्न देशभक्त सहकारी. ह्या सगळ्यांच्या उगडासान केन्ना म्हाका न्हीद लागली तेंच कळ्ळें ना.

दुसरे दिसा, २१ डिसेंबर १९६१ दिसा, उ सॅकुलून पोर्तुगीज गव्हर्नर जनरल व्हसालु ई सील्व्ह भारतीय मुक्तीसैन्यांक शरण गेल्ल्याची बातमी आयली. ताका कैद केल्लो. गजालींक परत वोतो आयलो, आनी खोशयेंत भर म्हूण डॉ. तेलु द माश्करन्यशांकूय आमचे कोठडींत हाडले. दर म्हयनो- दोन म्हयन्यांनी कैद्यांच्या कोठड्यांची अदलाबदल करताले. अशेच अदलाबदलींत माश्करन्यशांक आमचे कोठडींत येवपाचो योग आयलो. कोठडींत येतांच तांणीं म्हाका घट्ट वेंग माल्ली. हे बंदखणींत ते आशिल्ले इतलीच म्हाका म्हायती आशिल्ली. पूण अजून प्रत्यक्ष भेट जावंक नाशिल्ली. आयज जाली आनी तीय बी ह्या ऐतिहासीक दिसा. गोंय मुक्तीची खरी खोस आमी दोगूय भारतीय आयज अणभवंक शकताले. तीनचार दीस आमी वांगडा आशिल्ले. पूण कितें उलोवं आनी कितें नाका अशें जावन गेल्लें. स्वातंत्र्यलढ्याच्यो यादी, फुडल्यो येवजण्यो, स्वतंत्र गोंयचे प्रस्न, कितलेशेच विशय उलोवपांत येताले. स्वातंत्र्याचीं पाखां लाभिल्ले ते तीन-चार दीस कशे भुर्रर करून उडून गेले कळ्ळेच ना आनी कोठड्यांचे अदलाबदलीचो हुकूम आयलो. पयलीं माश्करन्यशांक आनी उपरांत म्हाका कोठडींतल्यान भायर काडले. गोंय मुक्त जाल्ल्यान आतां आमकां बंदखणींत आनी चड वेळ दवरचे नांत, आमची सुटका जातली अशीच कोठडींतल्या सगळ्यांची रास्त भावना आशिल्ली, सामकी आमच्या तुरूंगधिकाऱ्यांचीय. फक्त भावनाच न्हय तर खात्रीय. ताका लागून म्हजें ते कोठडींतल्यान वचप म्हळ्यार थंयच्या म्हज्या वांगडीकैद्यांचो सासणाचो निरोप घेवपच आशिल्लें. 'अ देऊश' (रामराम) म्हणून एकमेकांचो आमी निरोप घेतलो. 'वेगींच तुमका स्वतंत्र गोंय पळोवंक मेळटलें' तांणीं म्हळें.


वर्स १९५५तलो मोहन रानडे

२

## बाळकडू

**पूण** सुटकेचे अपेक्षेन हांव थोडोच बंदखणींत गेल्लों? गोंयच्या स्वातंत्र्यसंग्रामांत ज्या खिणाक हांवें उडी घेतली त्याच खिणाक बंदखणींत वचपाची, शीममेर नाशिल्ल्यो हालअपेष्टा सोंसपाची, मरण चलून आयलें तरी ताकाय हांसत फुडो करपाची पुराय तयारी हांवें केल्ली.

ते संस्कार खूब पोरणे आशिल्ले, भुरगेपणांतले, सांगलीचे, म्हज्या जल्मगांवचे. ल्हानपणार थंयचे श्री समर्थ व्यायामशाळेंत हांव वतालों.

''आले शिरावरी जरी घनघोर घाले।
दारिद्र्य दुःख अपमानही प्राप्त झाले।
कारागृही सततवास जरी मरे मी।
पूजीन मी सतत निर्भय मातृभूमी ।।''

हे प्रार्थनेचें बाळकडू पिरायेच्या पांचव्या वर्सा सावन श्री समर्थ व्यायामशाळेन म्हाका दिल्लें. वाडटे पिराये वांगडाच हेच संस्कार आनीकूय दृढ जायत गेले.

नमो मातृभूमी जिथे जन्मलो मी।
नमो पितृभूमी जिथे वाढलो मी ।।
नमो पुण्यभूमी जियेच्याच कामी।
पडो देह माझा सदा ते नमी मी ।।

म्हजेर देशभक्तीचे संस्कार करपी ही आनीक एक प्रार्थना. राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघांत हांव त्या वेळार वतालों. स्वातंत्र्यवीर सावरकरांच्यो कविता आनी पोवाडे म्हज्या मनांत कोमेल्ल्यो देशभक्तीच्यो भावना फुलयताले. 'माझे मृत्युपत्र' ही तांची कविता म्हज्या काळजार अशीच कोरांथिल्ली.

''की घेतले व्रत न हे अम्हि अंधतेने
लब्ध प्रकाश इतिहास निसर्ग माने।
जे दिव्य दाहक म्हणोनि असावयाचे
बुद्धयाचि वाण धरिले करी हे सतीचे ।।''

देशसेवेचें सतीचे वाण बुद्याचि घेवपाचें आसता. स्वातंत्र्यवीरांक ही कविता स्फुरली तेन्ना ब्रिस्टनचे बंदखणींत फाशीचे सावळेंत ते आशिल्ले. तांच्या व्हडल्या भावाक जन्मठेपेची ख्यास्त फर्मायल्ली आनी अंदमानचे काळ कोठडींत बंदिस्त केल्ले. धाकट्या भावाक धरिल्लो. 'हे काय बंधु असतो जरि सात आम्ही त्वत्स्थंडिलीच दिधले असते बळी मी' ह्यो तांच्यो काव्यपंक्ति. त्याग सर्वस्वाचो करचो आसता, ताका शिममेर नासता, तातूंत हातचो धरपाचो नासता, हो संस्कार म्हजेर करताल्यो. तांच्या 'सांत्वन' कवितेंतल्या -

अनेक फुले फुलती फुलोनिया सुकोन जाति।
कोणी त्यांची महती गणती ठेविली असे? ।।
परी जे गजेंद्रशुंडेने उपटिले श्री हरीसाठी मेले।
कमल फूल ते अमर ठेले मोक्षदाते पावन।।

ह्या वळींनी जीवीताचें ध्येय निश्चित केलें. श्रीहरीखातीर, भारत मातेखातीर,

समर्पून घेवपी फूल आपल्याक जावंक जाय. १८५७च्या स्वातंत्र्यसंग्रामांतल्या वेगवेगळ्या वीरांच्यो कथा, स्वातंत्र्यवीर सावरकरांची जीवनगाथा 'माझी जन्मठेप', चाफेकर बंधू, मदनलाल धिंग्रा, भगर सिंग, राजगुरू, सुखदेव हांणी प्रियतम आवयभुंये खातीर वदस्तंभाक हांसत हांसत दिल्लें अलींगन हाणें मन मजबूत केलें. कुसुमाग्रजांचे 'डमडमच्या तुरूंगात' हे कवितेंतल्यो –

"सरणावरती आज आमुची पेटताच प्रेते
उठतिल त्या ज्वालामधुनी भावी क्रांतीचे नेते"

ह्या ओळिंनी अंतीम जैतावेली श्रध्दा दृढ केली.

म्हजो एक बालमित्र चिंता गोखले हो पोवाडे खूब बरे म्हणटालो. ताणें भुरग्यांचें एक शाहिरी पथकूच तयार केल्लें. कृष्णेच्या वाळवंटांत सामके नेटार येवन ते पोवाडे म्हणटाले. एक दीस तांचो कार्यक्रम सोंपलो आनी तन्मयतेन आयकत बशिल्लो एक गृहस्त मुखार आयलो आनी "भुरग्यांनो तुमी पोवाडे खूब बरे म्हणटात. पूण तुमकां मुखार फक्त शाहिर जावपाचें आसा काय शाहिराक विशय जावपाचें आसा?" असो ताणीं प्रस्न केलो. ते गृहस्त आयुश्यांत कोण जाले खबर ना. पूण तांच्या प्रस्नान मात म्हज्या मनात कायमचें घर केलें. "शाहिर काय शाहिराक विशय?" अर्थात विशयूच जावपाचें ह्या विचारान मनांत कायमचें घर केलें.

हांव तीन म्हयन्यांचो आसतना म्हजो बापूय सर्पदंवशांत भायर पडलो. वाईचे प्राज्ञपाठशाळेंत ते शिक्षक आशिल्ले. ते खादी वापरताले, स्वदेशीचे ते जाज्वल्य पुरस्कर्ते आशिल्ले. वाईक ते राष्ट्रीय शाळा चलयताले. तांचेर एकदां अटक जावपाचोय प्रसंग आयिल्लो म्हणपाचें आई म्हाका सांगताली.

परिणाम म्हूण आपल्याय हातांतल्यान देशाखातीर कितें तरी भव्य दिव्य घडचें अशें दिसूंक लागलें. म्हजे वांगडी मित्रूय त्याच विचारांचे आशिल्ले. शालेय जिवितांतले आमी संवगडी एकठांय जमताले. ते भुरगे पिरायेंत भारताच्या मुक्तीचे बेत आखताले. आवय-बापायकडल्यान खाणां खातीर, सिनेमां खातीर मेळपी पय आनी पय साठोवन आमी एकदां चाकू सुरयो विकत्यो घेतल्यो. इंग्रजांक त्या चाकू सुऱ्यांनी मारपाचें आनी देश मुक्त करपाचो! दुबाव नासतना हाश्यास्पद, बालिश कल्पना. पूण त्या बालिशपणांतूय देशभक्तीचो म्हान अर्थ भरिल्लो.

१९४२चो स्वातंत्रसंग्राम हांवें म्हज्या शालेय जिवितांत पळयलो. ९ आनी १० ऑगस्टाक सांगलींत भव्य मिरवणूक भायर सरिल्ली. लोकमान्य टिळक स्मारक मंदिरा मुखार प्रचंड सभेंत तिचें रुपांतर जालें. हजारांनी कंठांतल्यान प्रगट जावपी स्वातंत्र्याचो जयजयकार ते दिसा हांवें पयलेच खेप आयकलो. तुबकांच्या गुळयांनी ते हजारांनी आवाज कायमचे बंद करपाचो पोलिसांचो पाशवी प्रयत्नय पयलोच पळयल्लो, आनी लोकमान्य तिळकांचे साक्षीन एकाक आयिल्ले हौतात्म्यय पयलेच खेप पळयले. देशभक्तीचो आवाज बंद जावंक शकलो ना. इतलेंच न्हय तर कांय दिसांनी रखवालदारांच्योय बंदुको झोंबून घेवन १०-१२ देशभक्त तरनाट्यांनी वसंतदादा पाटील हांच्या फुडारपणा खाल सांगलीचे बंदखणींत भर दिसा पलायन केलें. शेनवारचो तो बाजाराचो दीस आशिल्ल्यान रस्त्यार गर्दी आशिल्ली आनी ते गर्देतल्यान मार्ग काडीत देशाचो जयजयकार करीत ही सशस्त्र तरूण मंडळी धांवताली. गांवांभायल्या शेतांतल्यान धांवतना पावसान जाल्ल्या चिखलांत, फोंडकुलांनी, पत्रावळे नांवाचो एक २०-२१ वर्सांचो कंवळो तरनाटो रुतलो. तातुंतल्यान तो मोट्या प्रयत्नान उठ्टा आसतनाच फाटल्यान येवपी पोलिसांनी ताचेर गुळयो घालून ताका जिवेशीं माल्लो. म्हज्या दोळ्यांमुखार आत्मार्पण केल्लो हो दुसरो हुतात्मो. इतिहासूच जणकाय पुनरूज्जिवीत जावन दर्शन दितालो.

१९४३त देशभक्त बाबाराव सावरकर हे सांगलींत येवन रावले. ते शरपंजरी अवस्थंत आशिल्ले. तांच्या हाता पायांक संदीवाद जाल्लो. अंदमानांतल्या दीर्घ कारावासान आनी कश्टमय जिवितान दिल्ली ती भेट आशिल्ली. तांच्या सहवासांत रावपाचें भाग्य म्हाका मेळ्ळें. ते आपल्यो यादी आमकां भुरग्यांक सांगताले. त्यो सांगतना हाता पायांतल्यान सोसूंनज अश्यो वेदना जातात्यो आनी ते वळवळटाले. कथनांत खंड पडटालो. अंदमानातल्या भंयाण बंदखणींत तेलाचो घाणो ह्या म्हान राजबंद्यांनी कसो ओडलो आसतलो हाची कल्पनाय करप अशक्य जातालें. तांचे वेदने फाटल्यान ते क्लेश आशिल्ले. निर्भयपणान ते क्लेशूय ताणीं भोगले. १९४५त ताणीं इहलोकिची यात्रा सोंपयली पूण तांचे संगतींत, सेवेंत देश प्रेमाची प्रज्वलीत जाल्ली ज्योत म्हज्या अंतस्कर्णात सदांच तेंवत रावली.

जिनांचो जातीयवादाचो परिपाक म्हण मुसलमान जात्यंधांनी नरसंहार सुरू केल्लो. १९४६ वर्सा पुर्वबंगाल मदल्या नोआखलीत जातीय दंगलीचो उजो पेंटिल्लो. खबरा पत्रांतल्या खबरांनी मन पेटून उठ्टालें. आपणें थंय वचून अन्यायाचो प्रतिकार करचो अशें म्हाकां आनी म्हज्या वांगड्यांक दिसतालें. आनी एक दीस निर्धार करून आमी घर सोडलें. खंय वता तें सांगलें ना. मुंबय गेले आनी स्वातंत्र्यवीर सावरकरांक मेळ्ळे. "तुमी पयलीं विद्याभ्यास करात आनी व्हले जातकच राजकीय वो सामाजीक कार्याचो विचार करात." अशें सांगून ताणीं आमकां आडयले. आमची परिक्षाय ते पळयता आसतले अशें आमकां दिसलें देखून आर्मीय प्रस्न केलो, "तुमी तरूण आसतना ही भुमिका कित्याक घेवंक नाशिल्ली? शिवाजी, बाजी प्रभूचेर त्या वेळार तुमी पोवाडे रचताले. विदेशी लुगटांची होळी करून स्वताची म्हाविद्यालयांतल्यान हकालपट्टी जावपाची पाळी तुमी कित्याक ओडून घेतली?" आमचे भुरग्यांचे हे प्रस्न आयकून ताणीं आपलें मनोगत उक्तायलें. म्हणूंक लागले, "शत्रून

वेंचून काडिल्ल्या रणांगणाचेर आपणें वचपाचें नासतना. आपणें आपले सोयी प्रमाण रणांगणां निर्माण करपाचीं आसतात आनी ते सुवातेर शत्रूक येवपाक भाग पाडचें आसता.'' हाचो अर्थ स्पश्ट आशिल्लो कीं आपले सोयीप्रमाण रणांगण निर्माण करपाची शक्त अजून आमच्यांत येवंक नाशिल्ली. तांचे रणनितीचो हो धडो म्हाका गोमंतक मुक्तीसंग्रामांत अतिशय उपयुक्त थरलो.

नोआखलीक वचपाचो बेत रद्द करून आमी सांगलीक परतले. खंडीत स्वरूपाचो काय जायना मुखार देश स्वतंत्र जालो. पूण हैद्राबाद संस्थानांत मुक्तीआंदोलन चालूच आशिल्लें. निजामाच्या पाठबळांत रझाकारांनी थैमान घातिल्लें. दक्षिण भारतांत तांकां आनीक एक पाकिस्तान निर्माण करपाचें आशिल्लें. थंय वचचें अशें मनांत आयलें आनी जून १९४८त हांव थंय गेलोंय. पूण खूद्द भारत सरकारूच कारवाय करपाचे तयारींत आशिल्लें. थंयच्यान परतलो आनी मनांत विचार आयलो तो गोंयचो...



डॉ. राममनोहर लोहियांच्या गोंयांतल्या पयल्या सत्याग्रहाचें वृत्त सांगलींत आयलें तेन्ना ह्या गोमंत भुंयचें नांव पयलीं कनार पडलें. १९४६ची ती घडणूक. तेन्ना हांव शाळेंत आशिल्लों. गोंयांतले परकी राजवटीकडेन सगळ्यांचें लक्ष ओडलें तें ह्या सत्याग्रहाक लागून. खबरापत्रांचे रकान्याचे रकाने सत्त्याग्रहाच्या वृत्तान भरिल्ले. भारत मुक्त जातांच गोमंतकूय चुटकीसरशीं मुक्त जातलो अशी जायते जाणांची भावना आशिल्ली आनी देशाचे व्हडले व्हडले फुडारी तसो आभासूय निर्माण करताले. ''भारत स्वतंत्र जातांच अवघ्या २४ वरां भितर आग्वादाचेर स्वतंत्र भारताचो तिरंगो फडकल्लो दिसतलो.'' अशी गर्जना करून श्री. स. का. पाटील हाणीं भरपूर टाळयोय घेतिल्ल्यो. १९४८ वर्सूय सोंपत आयलें, पूण लाल किल्ल्याचेर फडकल्लो 'तिरंगा प्यारा' आग्वादाचेर काय झळकूंक नाशिल्लो. हैदराबादच्यान परत आयलों तेन्ना कसलेंच कार्य आमच्या हातांतल्यान जायना हे भावनेन मन निराश जाल्लें. पूण म्हजे साथी श्री. बापुराव साठे हाणीं म्हज्या मनांतली देशभक्तीची ज्योत निराशेन पालोवपाक दिली ना. गोंय मुक्तीविशीं भासाभास करून तांचेकडल्यान आर्थीक मदत घेवन आनी सामक्या गर्जेच्या कपड्यांची पोटली घेवन आयुश्यांत पयलेच खेप गोंयच्या रस्त्याक लागलो.

(चलता...)

# गोंयची मुक्तताय :
# खोशयेचे पयले वयले खीण!



– नागेश करमली
मानसदीप,
चिंबल –गोंय.
फोन : २४४५५७०

मनश्यांक कोण्याक विशेश म्गार बसलो न्या, पूण, पुल्याच्या लोखंडाचो एक व्हडलो कुडको उसळून, पुल्यापसून तीनशेंक मिटरांचेर आशिल्ल्या एका घराच्या आंगण्यांत खेळपी गंग्याराम न्वांवाच्या भुरग्याचेर पडून तो थंयच सोंपलो,



म्हयनो डिसेंबर. वर्स १९६१. दीस शियाळ्याचे. कुडकुडच्याचें शीं आनी अशाच वातावरणात शिमेपलतडच्यान खबरो येवंक लागल्यो– भारतीय फौजो सगळे साधन सामुग्रीसयत गोंयचे शिमेर पुंजा जावंक लागल्यात. आनी ते कुडकड्याचे शियाचे अवस्थेंतूय एकेविलक्षणाचे गरमेचे उबेन जिवाक स्फुरण चडूंक लागलें. तेन्ना म्हजें कामाचें केंद्र कुडचडें सावर्डें. खाण वेवसायांत नोकरी करतालों. रावतालों केप्यां– म्हजी आवय आनी भावंडांसयत. लागीं लागीं पांच वर्सां, गोंयच्या मुक्ती संग्रामांत वांटेकार जाल्लेखातीर फिंग्यांची जुलूम–जबरदस्तीची बंदखण भोगून आयिल्लों. नोकरी करतां करतांच, फिंगीं सत्तेची पर्वा करिनासतना मुक्तीसंग्रामाखातीरय गुप्तीं वावुरतालों. सगळे तरेचे तापत्रय सोंसून आनी बंदखण भोगून मन भंयमुक्त जाल्लें. म्हजे वांगडा नोकरी–चाखरी करपीय म्हजे सारकेच तागिल्ले भोगिल्ले वयावयले गडे आशिल्ले. मुक्ती संग्रामाखातीर वावर करून, निमाणचो सुटकेचो खीण लागी हाडपाची परिस्थिती निर्माण जाल्लीच आनी भारतीय फौजेकडल्यान फिंगीं सत्तेचेर अखेरचो आघात जावपाची वाट तितली आमी पळयताले. तो खीण आतां लागीं पावला हें जेन्ना स्पश्ट जालें तेन्ना मन खोशेन भरून गेल्लें. डिसेंबरच्या १० तारकेउप्रांत,भारतीय फौजेच्या पावल–स्पर्शासयत केन्नाय फांतोड जावंक शकता अशें दिसतालें. आनी खऱ्यानीय ती इतिहासीक फांतोड एकदांची उदेली....

१९६१ अठरा डिसेंबरची सकाळ. निकतेंच झिळमिळटालें. हय न्हयशी जाग येवंक लागिल्ली आनी इतल्यांत विमानाचो आकांत घरघर कानार पडलो. पांगुरचें कुशीन शेवटून हांव बेगोबेग उठलों. लागींच रेडिओ आशिल्लो. अर्दे न्हिदेंतच हांवें ताचें बटन घुंवडायलें. बंगालींतलें खबरांपत्र आयकूंक आयलें. भास सारकीच कळ्ळी ना तरी एक कळ्ळें –गोंय मुक्त करूंक भारतीय फौजो गोंयात भितर सरल्यात. कोंकणी, मराठी वा हिंदी खबरो खंय लागतात तें पळोवपाक लेगीत हांव रावलों ना. घरांतल्या सगळ्यांक हांवें उठोवन घालीं. तसोच धांवत रांदचे कुडींत गेलों आनी साकरेचो दबो घेवन आयलों. म्हळें, तोंड धुवप बी मागीर. पयलीं तोंड गोड करात. गोंयची मुक्तताय सुरू जाली. भारतीय फौजो गोंयात भितर सरल्यात. चिमटीभर साकर पयलीं हांवें तोंडांत उडयली आनी मागीर सगळ्यांक वांटली. इतलें म्हणटासर मात्यावयल्यान आनीकय विमानां मळब गाजयत गेलीं. जनेलांतल्यान एक विमान दिसलें. तें बरेंच सकयल्यान वतालें तें पळयलें. म्हज्या जिवितांतल्या त्या खोशयेच्या खिणाक शीम मेर नासली. इतले म्हणसर म्हज्या भावान रेडिओ सारकोच ट्यून केलो आनी कोंकणी, मराठी, हिन्दी, इंग्लिशींत एका फाटोफाट रेडियोचेर – आकाशवाणीचेर खबरो येवंक लागल्यो. ताचे वयल्यान

कळ्ळें, रातीं मध्यानेर तीन-चार वाटांनी भारतीय फौजो गोंय मुक्त करपाक गोंयांत भितर सरल्यात. दीस इल्लो इल्लो वयर सरूंक लागिल्लो. हांव घरा भायर आयलों. पळयतर शेजरा-पाजारचे लोक अजापभरीत जावन आपसांतच कितें तरी फुतफुतूंक लागिल्ले. भायर सरिल्लोंच- तसोच चलत मुखेल रस्त्यार आयलों. थंय एक पसरो आशिल्लो. पसरकार, पसरो उकतो करचो, ना करचो अशे अवस्थेंत दार उक्तें करिनासतना भायरच काचाबूल सो घुटमळत उबो आशिल्लो. पसऱ्याफाटल्यान वयले वटयां खाणवालो सय्यद आदम रावतालो. ताणें म्हाका पळयलो आनी खुणेनच आपणागेर आपयलो. इतल्यांत परत घरघरत वयल्यान दोन-तीन विमानां गेलीं. कितें तरी घडूंक लागलां हें आदमाक कळिल्लें. पूण नक्की कितें तें ताकाय कळूंक नाशिल्लें. ताणें म्हाका विचारलें. हांवें म्हळें, ''कितें विचारता? जालें.... पुर्तुगेजांची गुठली आंवुळपाक भारतीय फौजो गोंयांत भितर सरल्यात.'' तो अर्दे न्हिदेंतल्यान निकतोच उठिल्लो. म्हजी जाप आयकून ताच्या तोंडार हांसो फुल्लो. तो म्हणूंक लागलो, '' अशें? बरें जालें. वचूं ही फिर्ग्यांची पिडा.'' पूण एक दुभाव ताणें उक्तायलो, ''हें झूज मोठ्यार पडना मरे.... हीं विमानां आमचेर बी बाँब घालिनात मरे?' हांवें ताका समजायलें. म्हळें, ''आरे हीं विमानां पुर्तुगेजांचीं न्हय. तीं भारतीय वायुदळाचीं...'' हांव हें म्हणटां थंय आसां. मुखेल रस्त्यावयल्यान, जीव आसल्यार भीक मागून खायन म्हण्टा तशें पाखले सैनीक आपणाल्या गाडयांसयत, मडगावचे दिकेन पळत वतात ते दिसले. हांवें म्हळें, ''हे पुर्तुगेज बाँब घालतले! हे पळे, हुंदीर कशे पाखले पळटात ते.'' बरोच वेळ, अदीमदी हे पाखले मडगांवचे दिकेन पळत वतात तें पळोवंक मेळ्ळें. कुडचडें, सावड्डें, सांगे ह्या भागांनी आशिल्ले हे पांखले शिपाय. भारतीय विमानां आनी भारतीय फौज गोंयात भितर सरल्या म्हणून कळना फुडें ते आनीक रावले नांत. ते जीव वाटोवपाक, मडगांव, पणजेचे दिकेन कशी वाट मेळटा तशे पळत सुटले. झुजपाची तांच्यांत तांकच नासली. फिंर्गी शिपाय पळटात आनी विमानाचो घरघर पळोवन, रस्तो दुरुस्तीचें काम करपाक आयिल्ले कामगारय आपणालीं आवतां घेवन घरा धांवले.

हें सगळें घडटा म्हण्टासर सकाळचीं णव वरां जायत आयिल्लीं. मनांत म्हळें केपें बाजारांत वचून थंयची परिस्थिती कितें ती पळोवंया. आमी रावतालीं केपेंचे न्हंयचे - कुशावतीचे आलतडीन. बाजार आनी सरकारी कचेऱ्यो पलतडीन. फक्त कोर्ट आमचेवटेन. बाजारांत वचून पळय तर दुकानां उक्ती जाल्यांत. च्या दुकानां सदांवरी आपणालो धंदो करीत आसात. पसऱ्यांचेर गिरायकां दिसतालीं. पूण साप्प थोडीं. तिंठ्यार नुस्तें विकपी बी दिसना आसले. येरादारी करपी वाहनांय यो-वच करतना दिसना आसलीं. म्हत्वाचें म्हळ्यार सरकारी कचेऱ्यो उक्त्योच जावंक नासल्यो. कांय कर्मचारी आयिल्ले. पूण ते थोडो वेळ हांगा-थंय घुटमळ्ळे आनी घरा गेले खंय. शाळा उक्त्यो जातना, सकाळींच बंद जाल्ल्यो. म्हाका दिशिल्लें पुलीस स्टेशनार कोण तरी आसतलो. पूण थंय जितो मूस नासलो. कोणे तरी सांगलें, केपें पुलीस स्टेशनाचो मुखेली दीस उजवाडचे पयलींच आपणाल्या बायल भुरग्यांक घेवन खंय तरी गेला. बाकीचे पुलीस खंय गेले कोणाकच खबर ना, अशी परिस्थिती. अवती भोंवती हांवें भोवन पळयलें. लोकांनी चडशें आपापल्या घरांनीच रावप पसंत केल्लें. तरी पूण कांय जाण हांगा थंय पुंजा जावन कितें कितें खबरो करताले. कोण म्हण्टालो मुरगांवां पुर्तुगेज आनी भारतीय नौदलाचें व्हडलें झूज चल्लां. अनमोडच्यान भारतीय फौज रणगाड्यांसयत भितर सरतना फिर्गी सैनिकांनी तांचे आड झूज मांडलां. पूण प्रत्यक्षांत अशें कितेंच घडूंक नासलें हें सांज म्हळयार स्पश्ट जालें. मुरगांव बंदरांत पुर्तुगेजांची एकच झुजारी बोट , आफोंस आल्बुकेर्क आसली. पूण भारताच्या ''विक्रांतान'' तिका कांय खिणांतच बाद करून उडयली. तिचे वयले सैनिक झुजचे पयलींच पळून गेले. अर्थात ही गजाल आमकां केप्यांत दुसरे दिसा कळ्ळी. आमगेलो एक शेजारी पुर्तुगेज लश्करांत आशिल्लो. दाबोळी विमानतळार, भारतीय वायुसेनेन बाँब घालिनाफुडें, लश्करांतले गोंयकार आनीक रावले नांत. आंगार आशिल्ल्या कपड्यांनीच ताणी आपणालें घर गांठपाचो प्रयत्न केलो. आमगेलो शेजारी- तानेन भुकेन ज्यार जाल्लो. तीन सांजेर कसो तरी घरा पाविल्लो. ताची दशा पळोवपाची नासली. विमानतळार बाँब पडनाफुडें पांखले शिपाय खंयच्या खंय नांच जावन गेल्ले खंय.

केपें बाजारांत सकाळचीं इकरां जाता म्हळ्यार दुकानां बी बंद जावंक लागलीं. हांवय सदांचे वाटेन घरा वचपाक आयलों. पळय तर, पुलावयल्यान वचपाची वाट फिंर्गी शिपायांनी बंद केल्या. पूल लोखंडी. ताचेर मदें दोन ट्रक उबे केल्यात आनी कसली तरी तयारी चल्ल्या. वायरी पुलाकडेन सावन लार्गीचेच एके दोंगुल्ले वटयां ओडीत व्हरपाचें काम चल्लां. इतल्यांत एकलो म्हज्या म्हऱ्यांत आयलो आनीक म्हणूंक लागलो- त्या ट्रकांनी झेलातिना (स्फोटकां) भरून हाडल्यांत. तूं हांगा रावुंनाका. घरा चल. म्हाका कळ्ळें, ही सगळी पूल उडोवपाची तयारी चल्ल्या. हांव तसोच फाटीं सरलों. फिंर्गी सैनिक जें कितें करतात तें आडावप आमच्या हातांत नासलें. हांव न्हंयेंतल्यान वचपी दुसरे वाटेन घरा आयलों. वाटेर जायते जाण मेळ्ळे. दर एकल्याक एकच हुस्को- आतां कितें जातलें? हांव तांकां सांगतालों - ''कितें जाता तें पळोवया. फिंर्गी शिपाय सकाळीं पळून वताले ते तुमी पळोवंक ना? ते झुजचे पयलींच हारल्यात. चडच जाल्यार आज फाल्यांचो प्रश्न. गोंय मुक्त जाल्ल्यांतच जमा.'' आनी खऱ्यांनीच, तशेंच घडलें! हांव जे वटेन



भारतीय फौजेवांगडा गोंयचे सुटके झुंजारी

येतालों, थंय आमच्या घरा लागींच आशिल्ल्या खुर्सा लागीं कांय जाणां वाती पेटोवन त्या दनपारच्या वेळार प्रार्थना करतात ती हांवें पळयली. म्हाका जाणवलें, हे लोक भियेल्यात. आनीक ते खातीर प्रार्थना करून ते देवाक होरायतात.

घराकडेन एका भुरग्यान म्हाका पत्रक हाडून दिलें. तें पत्रक खंय ताका सकाळीं खूब सकयल्यान गेल्ल्या एका विमानांतल्यान उडयिल्लें मेळिल्लें. तातूंत ''लोकांनी भयाभीत जावंचें न्हय. धीर धरचो, भारतीय फौजो गोंय मुक्त करूंक आयल्यात. ह्यो तुमच्योच फौजो, तुमच्याच खातीर आयल्यात. सगळ्यांनी शिस्त पाळची. शांतताय राखची.'' अशा अर्थाचो मजकूर आशिल्लो. घरांत रेडियो चालूच आशिल्लो. तातूंत, कसल्याय प्रतिकाराबगर भारतीय फौजो गोंयांत भितर फुडें फुडें सरत आसात. लोकांचो तांका उपाट येवकार आनी सहकार्य मेळत आसा अशे तरेच्यो खबरो चालू आशिल्ल्यो. पुर्तुगालान भारतीय फौजो गोंयांत भितर सरल्यात ताचे आड, युनोच्या सुरक्षा समितीकडेन तक्रार केल्या आनी ते समितीची बसका चालू आसा. अशीय खबर रेडियोर आयकूंक मेळ्ळी. अमेरिकेन आनी इंग्लंडान, भारतीय फौजो फाटी घेवन झूज थांबोवचें अशें मागपी थाराव, हाडला हेंय ह्या खबरांवयल्यान कळ्ळें. सांज जाता म्हणीसर, सुरक्षा समितीमुखार अमेरिका इंग्लंडान हाडिल्लो भारतीय फौजो फाटी घेवपाचो थाराव, सोविएत युनियनान आपणालो नकाराधिकार (व्हेटो) वापरून भायर मारलो आनी भारताचे गोंयमुक्तीचे कारवायेक पुराय तेंको उक्तायिल्ल्याची खबर आयली आनी एक हुस्को पयस जालो. म्हळें, अमेरिकेन आनी तांच्या सांगात्यांनी आपणालें नाक कट्टेंत बुडयलें.

हे वटेच्यान, बोरी, खांडेपार, भाणस्तारी बी कांयकडचे पूल आनी सांकव पुर्तुगेज लश्करान स्फोटकांचो उपेग करून उद्‌धवस्त केल्ल्याच्यो खबरो येवंक लागल्यो. हांव घराकडेनच आशिल्लों. पूण नवी किलेंय खबर मेळटा काय म्हूण पळोवपाक हांव सांजचो घरांतल्यान भायर सरलों. मुख्य रस्त्यार आयलों. रस्त्यार कोण एक नासलो. थंय वयले वटयां खाणवालो आदम दिसलो. ताचेसरी गेलों. सांजेचीं सवाय चार साडेचार जाल्लीं. इतल्यांत कोण तरी खबर घेवन आयलो. पांखले केपेंचो पूल उडयतात. लोकांनी घरांतल्यान भायर सरून मात्शे पयल्यान वचचें अशें शिपायांनी सांगलां. आदमाचें घर पुलापासून पयसच आशिल्लें. म्हण्टकीच आमी थंयच रावले. सुमार पावणें पांच -पांचाच्या अदमासाक, आमी उलयता थंयच आसात- अकस्मात एक प्रचंड स्फोट जाल्ल्याचो आवाज जालो. हांव आनी आदम बशिल्ले थंयच्यान एकदम हातभर वयर



लष्कराचे छावणेत भारतीय सेनाधिकाऱ्यां मुखार शरणागती पत्करतना पुर्तुगेज गव्हर्नर जनरल व्हास्सालु सिल्वा

उसळ्ळे. तो सकल पडलो. हांव वयर उसळिल्लों थंय म्हजी तकली वयर कित्याक तरी आपटली. कळ्ळें, फिंगीं चांडाळांनी पुलार दवरिल्ल्या झेलातिनासयत दोनूय ट्रकांचो गोबोर करून पूल उडयला. हांव बेगोबेग म्हज्या घराकडेन धांवलों. पळयत तर सगळीं भायर उबीं आसात. पांख्याचे कांय नळे हुबून गेल्यात आनी तें उक्तें पडलां. घरांतल्या कोणाक कांय एक जावंक ना. पूल उडोवपाखातीर घडोवन हाडिल्ल्या स्फोटाची तांक एका आखांतळ्या बाँबा एदी आसली. मागीर कळ्ळें ते प्रमाण ह्या स्फोटाचो आवाज पंद्रा किलो मिटर मेरेन आंवती भोवतीच्या गांवांतल्या लोकांनी लेगीत आयकलो. खुद्द केंप्यांत, पुलालागीं आशिल्लीं कांय घरां थंयचे थंयच कोसळ्ळीं. कांय घरांचीं पाखीं हुबून गेलीं. कांय घरांच्या वण्टींक धाळी पडल्यो. पुला लागींच एक फार्मसी आशिल्ली. तातुंतल्यो आल्मारी आडव्यो-तिडव्यो जाल्ल्यो. वखदांच्या बाटल्यांचो पुराय चुरो जाल्लो. मनशांक कोणाक विशेश मार बसलो ना. पूण, पुलाच्या लोखंडाचो एक व्हडलो कुडको उसळून, पुलापासून तीनशेंक मिटरांचेर आशिल्ल्या एका घराच्या आंगणांत खेळपी गंगाराम नांवाच्या भुरग्याचेर पडून तो थंयच सोंपलो. पुलाच्या स्फोटांत केप्यांत सुमार तीनशें घरांचें अदीक उणे प्रमाणात लुक्साण जाल्लें. स्फोटाच्या धपक्यान, पुलापासून लागींच आशिल्ल्या सरकारी कचेऱ्यांचीं दारां सताड उगतीं जावन पडलीं. हातूंत महसूल (फाजेंदाच्या) खात्याच्या खजीनदाराचेंय ऑफीस आशिल्लें. ही सगळी दुर्दशा पळोवपाक वा त्या कचेऱ्यांची राखण वा वास्तपुस्त करपाक थंय कोणूच नाशिल्ले. फांतोडेर मळब गाजयत आयिल्ल्या भारतीय वायुदलाच्या विमानाच्या घरघराटान, पयलेच फाराक म्हणिल्ले भाशेन सरकारी यंत्रणां सामकी कोसळिल्ली- भारतीय लष्कर गोंयांत भितर सरिल्लें. पूण पयले दिसा रात जायमेरेन तरी केप्यां कोणूच पावंक नाशिल्लो. सगळी रात एके तरेचे अस्वस्थतायेंत सरली. पूल उडयिल्ल्यान गांवच्या लोकाक मात्सो धपकोसो बशिल्लो. एक रेडियो सोडल्यार खंय कितें चल्लां तें कळपाक तेन्ना दुसरो मार्गूच नासलो. रेडियो सांगतालो, भारतीय फौजो पणजीचे दिकेन फुडें सरत आसात. पुर्तुगेजांकडल्यान कसलोच प्रतिकार ना. दिसतालें, फाल्यांचो १९ डिसेंबर गोंयची मुक्तताय पुर्णत्वाक व्हरपी दीस आसतलो.

दुसरे दिसा सकाळींच आमी कांय लोक केपें बाजारांत एकठांय जाले. जमिल्ले लोक म्हणूक लागले, पुर्तुगेजांचें राज्य सोंपलें. आमी पुलीस स्टेशनामुखार आशिल्ल्या ध्वजस्तंभार भारतीय झेंडो चडोवया आनी मुक्ततायेची खोस मनोवया. पूण कोणाकडेन तिरंगो नासलो. आमचो एक दर्जी आसलो- नागेश नायक. ताणें आमकां बेगोबेग एक तिरंगो तयार करून दिलो. केपेंचे एक डॉक्टर आनंद शिरवयकार आमचे मदें आसले. नरेंद्र हेगडो देसाय बी आसलो, सगळे म्हणूंक लागले - नागेश तूं तुज्या हातानच हो झेंडो वयर चडय. तुजोच अधिकार तो! आनी हे तरेन हांवें ते दिसा केप्यांतलें, पयलें वयलें मुक्त गोंयांतलें ध्वजारोहण केलें. लोकांनी फुगेट्यांचो घडघड करीत ह्या आनंदखिणाची खोस उक्तायली.

ध्वजारोहण जाले उप्रांत भारतीय फौजेचो पयलो पंगड, पुलाची वाट नाशिल्ल्यान न्हंयेंतले वाटेन केपें शारांत भितर सरलो. तेन्ना सकाळचीं साडेइकरा जाल्लीं. ह्या पयल्या लष्करी पंगडाचो लोकांनी फुलां शिवरावन आनी कांय सवाशिणींनी आरत्यो दाखोवन स्वागत केलें. पुर्तुगेज गव्हर्नर जनरल व्हास्सालु सिल्वान ते उप्रांत कितल्याच वेळान म्हळ्यार ते दिसा सांजेर वास्को लष्कराचे छावणेंत आशिल्ले कडेन भारतीय सेनाधिकाऱ्यांमुखार रीतसर शरणागती पत्करिल्ल्यान फिंग्यांची साडेचारशीं वर्सांची सत्ता संपुश्टांत आयिल्ली. ताचेय आदी, पणजे राजपाटणात, भारतीय तिरंगो मानान वाऱ्यार धोलूं-झेलूंक लागिल्लो. पूण आमी केपेंचे लोक ताचेय आदीं, दोम्पारचो दीस मात्यार येवचे पयलींच पुलाच्या स्फोटाचो धपको पचयत तिरंग्याक नमन करून मुक्ततायेचे खोशयेंत बुडून गेल्ले.



# हिंसा परमो धर्मः



- नं. ब. बोरकार
मास्कारेन्हस वाडो,
व्हडलें - गोंय
फोन : २२१८१४७



हांव तुजो आनी तुज्या धर्माचो तिरस्कार करतां, तूं सुणो, हाच्या शिवाय तुका आनी दुसरें कसलेंच काम ना, बरे भशेन सोड म्हाका, वचूं दी म्हाका म्हज्या घरा, ना तर बोब मारून सगळ्या लोकांक एकठांय करतलीं हांव!

एक

ह्या संवसारांत कांय मनीस अशे आसतात की कोणाचेच चाकर नासूनय सगळ्यांचेच चाकर आसतात. स्वताचें खास अशें काम नासुनूय तांकां तकली वयर काडूंक फुरसत मेळना. जामिद असल्याच लोकांमदलो एक! सदांच काळजीविरयत आसता तो. ना कोणाचो दोस्त, ना दुसमान! उलयतना कोणूय मात्सो हांसलो, तर जालो ताचो गुलाम! बे-कामी काम करपाक ताका सदांच खोस भोगताली. गांवांत कोणूय दुयेंत पडलो, तर दुयेंतीची सेवा-शुश्रूशा करपाक हो हाजीर! कोणेंय सांगल्यारूच पुरो, धांवलो अर्दे रातीर दोतोराक हाडूंक. दोतोर मेळ्ळोना जाल्यार आपल्याक खबर आशिल्लीं 'झाडा-पाल्याचीं' वखदां सोदूंक भोंवतलो. एकाद्रया गरिबाचेर कोणायकडच्यान अन्याय घडचो आनी तो पळोवन जामिदान हात पांगरून बसचें, अशें केन्नाच शक्य नाशिल्लें. कोणूय मागीर मार घालूं ताका, आपलें समर्थन करपाक तो केन्नाच फाटीं रावचो ना. अशें शेंकडच्यांनी प्रसंग ताच्या मुखार उबे रावताले. कॉन्स्टेबलाकडच्यान ताका वयल्या वयर धमकावण्यो खावच्यो पडटाल्यो. (ताका लागून लोक ताका अजागळ समजताले. आनी तें खरेंय आसलें. जो मनीस कोणाच्याय माथ्यावेलो पेज झोपय मारून काडून घेवन आपल्या माथ्यार घेता, कोणाच्याय घरांक लागिल्लो उजो पालोवपाक मैलांचे मैल धावून वता, ताका आनी कितें म्हणपाचें? असल्याक शाणो कोण म्हणटलो? सारांश असो, की ताच्या सभावाक लागून हेरांचो कितलोय फायदो जालो, तरी तो सोता मात पयशाक पादिशेर आसतालो. ताच्या पिशेपणाचें दुखख मात लोकांक सोसचें पडटालें!

शेकीं ताका झिडकारपाचें काम लोकांकच करचें पडलें. लोक म्हणूं लागले - कित्याक रे बाबा सोताच्या जिवाची वाट लावन घेता तूं? दुसऱ्या खातीर तूं मर-मरता, पूण दुसऱ्याक तुजें केन्ना कितें पडलां? तूं खाता कितें, जेवता कितें अशें कोणें विचाल्लां तुका? एक दीस हातरुणार पडलो जाल्यार कोण तुका घोटभर उदक लेगीत दिवंक फुडें सरचो ना. तूं लोकांची सेवा करता म्हूण तुका कांय लोक हें खा - तें खा करता; जेन्ना तूं संकश्टांत पडटलो, तेन्ना तुजी वासपूस करूंक कोडण येवचो ना. जामिदाचे दोळे आतां उक्ते जाले. घरांतल्यान हालयतलो जाल्यार ताचेकडे कांयच नाशिल्लें. एक दीस उठलो आनी खयीं जीव पडटा थंय पडूं दी म्हूण लागलो चालीक! दोन दिसां उपरांत एका

शारांत पावलो. शार खूब व्हड आशिल्लें. व्हडल्यो-व्हडल्यो इमारती मळबाकडे गजाली करताल्यो. रूंद आनी साफ रस्ते. बाजार-बागो, देवळां-मशिदी जरी इमारती परस चड नाशिल्ल्यो, तरी त्यो साप्प उण्योय नासल्यो. खेड्यांत ना एक मशीद आशिल्ली ना मंदीर. मुसलमान एका पेडाचेर नमाज पडटालो. हिन्दू झाडांमुळांत बसून उदक शिपडटाले. शारांतल्या धर्माचें वेगळेंपण पळोवन जामिदाची उत्सुकताय तर वाडलीच, शिवाय ताका खोसूय भोगली. ताचे दिश्टीन धर्माक जितलें म्हत्व आसलें, तितलें आनीक तें कित्याचेच बाबतींत नाशिल्लें.

ताणें चिंतलें – हे लोक कितले प्रामाणीक आनी सत्यवादी आसात! हांच्यांत कितली दया, कितलो विवेक, कितली सहानुभूती आसूंक जाय! तेच पासत देवान तांचें इतलें बरें केलां जावंये! तो आतां येत्या-वत्याक आदरान आनी श्रध्देन पळोवंक लागलो. विनयान-वाकून नमस्कार करूंक लागलो. हांगाचो एकान एक प्राणी ताका देवासम दिसूंक लागलो.

भोंवतां-भोंवतां आतां सांज जाली. तो थकलो आनी एका देवळा कुशीच्या झाडापेडार वचून बसलो. मंदीर भव्य आनी विशाळ आशिल्लें. मंदिरावेलो भांगराकळस चकचकतालो. सगळें देवूळ संगमरमरच्या चौक्यांनी जगमगतालें. पूण आंगणांत शेण आनी कोयर दाटून आशिल्लो. जामिदाक असली घाण मानवनाशिल्ली. देवालयाची ही दशा पळोवन जामिद ओगी बसूंक शकलो ना. ताणें हांगा-थंय नदर माल्ली. तो झाडू सोदतालो. पूण ताका तो खंयच दिसलो ना. विवशतायेन आपल्या न्हेसणाच्या एका पदरान थंयची जमीन साफ करूंक सुरवात केली.

थोड्या वेळान थंय भक्त एकठांय जाले. तांणी जामिदाक जमीन साफ करतना पळेलो आनी ते आपसांत गजाली करूंक लागले –

''हो मुसलमान मरे!''

''ना, भंगी आपल्या पदरान सफाय करिना. पिसो आसतलो.''

''कोणय भेदी बी न्हय मरे!''

''म्हाका दिसना, चेरो सामको सादो-भोळो लागता.''

''हसन निजामीचो कोणय शिश्य बी आसतलो.''

''म्हाका दिसना. शेणाचे आशेन सफाय करता आसतलो. कोणय भट्टेकार बी आसतलो. (जामिदाक) आरे, शेण व्हरूं नाका. कळ्ळें तुका? खंयचो तूं, आनी खंय रावता?''

''गांवांभायलो भोंवडेकार सायबा! शेण व्हरून कितें करतलों? देवाचें देवूळ दिसलें म्हूण येवन बसलों हांगा. कोयर पडला, म्हाका दिसलें देवभक्त येतात जातले, परिसर निवळ करुया.''

''तूं मुसलमान मरे?''

''देव सगळ्यांचो – हिन्दू कितें आनी मुसलमान कितें!''

''तूं हिन्दूल्या देवाक मानता?''

''ठाकुरजीक कोण मानचो ना सायबा? जाणे जल्म दिला, ताका मानिना जाल्यार आनी कोणाक मानतलों?''

भक्तां मदें गजाली जावंक लागल्यो–

''खेडवळ आसा.''

''मासो गळाक लागला, सोडचो न्हय!''

## दोन

जामिदाक भक्तांनी आपल्या जाळ्यांत फसयलो. ताची आतां ऊठ-बस जावंक लागली. ताचो आदर-सत्कार जावंक लागलो. ताका रावूंक हवेशीर घर मेळ्ळें. दोन वेळचें उत्तम जेवण-खाण मेळूंक लागलें. दोन-चार मनीस ताच्या सदांच फाटल्या-फुडल्यान भोंवताले. जामिदाक खूबशीं भजनां पाठ आशिल्लीं. ताळोय बरो आशिल्लो. तो सदांच देवळांत वचून किर्तन करतालो. भक्ती वांगडा सूर आनी सुरांतलें ललीत बरें आसलें जाल्यार आनी विचारूंकच नाका. लोकांचेर ताच्या किर्तनाचो प्रभाव खूब पडटालो. खूबशे लोक संगीताच्या प्रेमान मंदिरांत येवंक लागले. सगळ्यांक आतां कळून आयलें की देवानच एक हिरो पारखून तांच्या मदें धाडला.

एक दीस खूबशे लोक मंदिरांत एकठांय जाले. आंगणांत फर्शेचेर जमखण घालें. जामिदचे केंस तासून ताका खड्डो केलो. ताका नव्या कपड्यांनीं न्हेसयलो. होम घालो. जामिदच्या हातांनी गोड-धोड वाटलें. आपल्या आश्रयदात्यांचीं उदार मनां आनी तांची धर्मनिश्ठा पळोवन जामिदाचे पायें थाऱ्यार उरले नात – तो खोशेलो. हे लोक कितले सज्जन जावन आसात. म्हजे असल्या कफल्लकाक कितलो मान दितात हे लोक! हाकाच म्हणटात खरो धर्म! जामिदाक जल्मांत केन्नाच कोणें इतलो सन्मान दिलो ना. हांगाचे तरनाटे हे आदीं, पाडकांच्या कानांत वारें भरलें म्हणटकच जे प्रमाण हांगा-थंय उडयो मारताले – गांवचे लोक तांकां पारपळ म्हणटात – ते आतां भक्तिमार्गाक लागिल्ले. जामिद तांचो गुरू जाल्लो. शेंकड्यांनी लोक फकत ताच्या दर्शनाक येवंक लागले. ताचे विद्वत्तेक लागून तो आतां गांवभर फामाद जाल्लो. दिसाळ्यांनी छापून आयलें की एका विद्वान मौलवीचें शुध्दीकरण घडोवन हाडलें. सादो-भोळो जामिद ह्या सन्मानाचो गूट समजूंक शकलो ना. मात असल्या धर्मपरायण सहृदय प्राण्यांखातीर तो कितेंय करूंक तयार आशिल्लो. तो सदांच पुजा करतालो, भजन गायतालो. ताका ती नवी गजाल नाशिल्लीच. आपल्या गांवांतूय तो सत्यनारायणाचे पुजेची कथा नेमान बसून आयकतालो. भजन-किर्तनाक खंड पडूंक दी नासलो. फरक इतलोच की गांवांत ताची कोण कदर करिनासलो. हांगा ताचे सगळेच भक्त आसले.

एक दीस जामिद आपल्या भक्तां म्हऱ्यांत बसून पुराणवाचन करतालो. इतल्यान कितें जालें? फुडल्या रस्त्यार एक खडेगांठ तरणाटो एका दुर्बळ म्हाताऱ्याक मार-मार मारतालो. त्या बळीश्ट तरणाटच्याच्या कपलाक तिळो आशिल्लो. गळ्याक जानवें लांबतालें. तो दुर्बळ म्हातारो काकुळटेक येवन



त्या बळिश्ट आनी तिलकधारी तरणाट्याचे पांय धरतालो. गुन्यांवभोगसणी मागतालो. पूण तरणाट्याक ताची मातय दया येनासली - काकुळट दिसनासली. म्हाताऱ्याची दशा पळोवन जामिदाचें रक्त सळसळूंक लागलें. आंगाक उजो पेटलो ताच्या! तो देखावो पळोवन तो हात पांगरून बसूंकच शकनासलो. खिणांत तो उडी मारून भायर आयलो, आनी तरणाट्याच्या सामकाराक येवन उलयलो - त्या म्हाताऱ्याक कित्याक मारता रे भावा म्हज्या? तुका मातूय काकुळट दिसना ताची?

तरणाटो : हांव मारून-मारून ताचीं हाडां मोडटलों.

जामिद : पूण हाणें गुन्यांव तरी कसलो केला तें सांगशी काय ना. कळूं दी तरी आमकां!

तरणाटो : हाची कोंबडी आमच्या घरांत शिरली, आनी सगळें घर घाण करून सोडलें.

जामिद : मागीर जालें कितें? हाणें आपले कोंबडेक शिकोवन धाडली तुज्या घरांत? घाण करून यो म्हूण?

म्हातारो : खरेंच सांगतां धनयां! कोंबडेक हांव सदांच पांजी पोंदा धापून घालतां. पूण आयज चूक जाली. कितले पावट सांगलें, गुन्यांव माफ कर. पूण धनी म्हजें आयकुनूच घेवंक तयार ना. सायब, मारून-मारून हाडां खिळखिळीं केलीं म्हजीं!

तरणाटो : आजून खंय मेला तूं? मरतकच फोंड काडून पुरतां तुका.

जामिद : खड्डो खणून पुरलो जाल्यार भावा म्हज्या, तूं तरी खंय उबो आसतलो हांगा? कळ्ळें तुका? आनीक जर तुवें ताका हात लायलो, तर सांबाळ!

तरनाट्याक आपले ताकतीचो नेट आसलो. नशा चडिल्ली ताका आपल्या ताकतीची. ताणें परत एकदां म्हाताऱ्याच्या भेंडार खोंट घाली. पूण खोंट पडचे आदींच जामिदान तरणाट्याची मान पकडली. दोगांयमदें मल्लयुध्द जावंक लागलें. जामिदय उणो नाशिल्लो. तिळोधारी तरणाट्या इतलोच मस्त आशिल्लो तो! जामिदान तरणाट्याक उबारून जमनीर आपटिलो. तो मडें जावन पडलो. भक्तजन आतां मेरेन देवळांत बसून तमासो पळेताले. तरणाटो आड पडलो तो पळोवन भक्तांचो चोंबो धावून आयलो. सगळे जामिदाचेर तुटून पडले. जामिदाचेर चारूय वाटांनी धपके आनी खोंटो पडल्यो. जामिदाक कळनाशिल्लें की लोक म्हाका कित्याक मारताले. कोण कांयच विचारिनासले. तिलकधारी तरणाट्याक कोण कांयच म्हणनासलो. बस, कोण येता तो म्हाकाच मारता. निमणे तो बेदम जावन जमनीर आपटलो. आतां लोक गजाली करूंक लागले-

''दगो दिलो!''

''पाड पडूं ह्या जातीचें! कोणे केन्ना म्लेंच्छांकडल्यान बरेपणाची आस धरची न्हय. कावळो कावळ्यांकच वचून मेळटलो. हलकट हलकटपणाच करतलो. हाका कोणूच कोंत करिनासलो, देवळांत सान्न मारतालो. आंगार वेंतभर लेगीत कपडो नाशिल्लो हाच्या. आमी हाका मान दिलो. पशूचो मनीस केलो. तरी आपलो जालो ना!''

''ताचो धर्मच तसलो जाल्यार तो तरी कितें करतलो?''

जामिद रातभर रस्त्याकडेक परवत पडलो. ताका मार खाल्ल्याचें दुखख नाशिल्लें.

असल्यो यातना ताणें खूबदां भोगल्यात. ताका दुख्ख आनी आश्चर्य हे गजालीचें जातालें की ह्या लोकांनी एक दीस म्हजो सन्मान कित्याक केलो, आनी आयज हांणी हाजी इतली दुर्दशा कित्याक केली! तांचें मनीसपण खंय गेलें? हांव तर तसोच आसां. म्हजेकडल्यान कसलोच गुन्यांव घडलो ना. हांवें तेंच केलां, जें असले परिस्थितींत आनी कोणूय करतलो आसलो. अशें आसतना ह्या लोकांनीं म्हजेर येदो व्हडलो अत्याचार कित्याक केलो? देव राक्षस कित्याक जाले?

अशे तरेन तो रातभर बुचकळ्यांत पडून रावलो. सकाळीं उठून एके वटेन चलत रावलो. ताच्या मुखार आनी पर्याय नासलो! जामिद आतां थोडो पयस पावल्लो. तेन्ना ताका तो म्हातारो भेटलो. ताका पळेनाफुडें म्हाताऱ्यान म्हणलें –

– देवा शप्पत, तुवें म्हजो काल जीव वाटयलो. दुश्टांनी तुका खूब पेटलो. हें म्हज्या कानार पडलें. हांवें जीव आसत जाल्यार भीक मागून खायन म्हण थंयच्यान पळ काडलो. थंय आसलो पुता तूं हो वेळ मेरेन? हांगाचे लोक तुका मेळपाक रातचेच हांगा-थंय भोंवताले. काजी सायब रातचोच तुजो सोद घेवंक भोंवतालो, पूण तूं मेळ्ळो ना. काल आमी एकटे पडले. ताका लागून दुसमानांनी आमकां पेटले. नमाजीचो वगत आसलो. सगळे लोक मशीदींत आसले. थोडीशी जर खबर मेळटा, तर हजारांनीं दांडेकार धावून येवपाचे. जीव आसल्यार भीक मागून खायन म्हण पळ काडटले आसले थंयच्यान. देवाची शपथ घेवन सांगतां तुका. आयजसावन हांवें तीन खांडयो कोंबड्यो पोसपाक सुरवात केल्या. पळोवया पंडितजी महाराज आतां कितें करतात ते! देवाच्यान तर, काजीसायबान जें कितें सांगलां तेंच सांगतां तुका. पंडितजीन जर तुजेर मातशे लेगीत दोळे मोटे केले, तर तुवें येवन म्हाका सांगपाचें. एक तर पंडिताक घर सोडून पळ काडचो पडटलो, ना तर हाडां मोडून घेवन घरांत बसचो पडटलो.

जामिदाक तो म्हातारो काजीकडे घेवन गेलो. काजीचें नांव आसलें जोरावर हुसैन. काजी सायब 'वजू' करतालो. जामिदाक पळेनाफुडें तो धावून भायर आयलो आनी ताणें ताका कडकडून वेंग माल्ली. आनी ताणें म्हणलें "वल्लाह, तुका पळोवंक म्हजे दोळे आशेल्ले. तुजे वाटेकडे लागून आशिल्ले ते. तुवें एकट्यान इतल्या काफिरांक धडो शिकयलो. खऱ्या मुसलमानाचें रगत तें. काफिरांचें कसलें कौंत आसा हांगा. सगळ्यांतले सगळे एकठांय जावन तुजी शुध्दि करूंक आयिल्ले, अशें आयकलां हांवें. पूण तुवें तांचें कारस्तान तांचेरूच परतून घालें. इस्लामाक तुजे असल्या खऱ्या निशठावंतांची गरज आसा. तुजे असल्या निशठावंतांक लागुनूच आयज संवसारांत तकली वयर काडून आसा. चूक इतलीच घडली की तुवें आनी एक म्हयनो तरी धीर धरूंक जाय आसलो. शादी जाल्ली जाल्यार खूब मजा येवपाची. देखणी बायल सोदून तुजी शादी करून दिवपाचे. आनी धन-दौलतूय फुकट मेळपाची, वल्लाह! तुवें बेटीच गडबड केली."

दीसभर भक्तांची रांग लागिल्ली. जामिदाक पळोवंक सगळ्यांचे दोळे आशेल्ले. सगळे ताची हिम्मत, बळ आनी धर्मनिश्ठेची तोखणाय करताले.

तीन

आतां अर्दी रात टळून गेल्ली. प्रवाशांची गर्दी इल्ली-इल्ली उणी जायत वताली. जामिदाक काजी सायबाकडल्यान धर्मग्रंथाचें वाचन करपाक सुरवात केल्ली. काजी सायबान जामिदाखातीर कुसीची एक कूड रिकामी करून दिली. तो काजी सायबाकडल्यान उपदेश घेवन आयलो. आतां तो न्हिदूंक वतालो. इतल्यान तांकां दाराकडे टांगो थांबिल्याचो आवाज आयकूंक आयलो... काजी सायबाचे शिश्य सतत येत आसताले. जामिदाक दिसलें, कोणूय शिश्य आयला जातलो. सकयल येवन पळय जाल्यार – एक बायलमनीस टांग्यांतल्यान उतरून वरांड्यार उबी आसा, आनी टांगेवालो तिचें सामान उतरयता.

अस्तुरेन घराचेर बरीऽ विस्त माल्ली. मागीर तिणें म्हणलें – ना. म्हाका सारकी याद आसा, हें ताचें घर न्हय. कदाचीत तूं विसरला बी जातलो.

टांगेवालो – हें बाय कांयच आयकोन घेवंक तयार ना. सांगलें न्हू बाबान कूड बदलल्या म्हणोन! वयर चल.

अस्तुरेन दुबावान म्हणलें – तूं ताका आपयना कित्याक? उलो मार ताका.

टांगेवालो – हांव जाणां, बाबालें घर हेंच. मागीर उलो कित्याक मारूं? कितें फायदो आसा उलो मारून? न्हिदला बी जायत! आराम करतासतलो बाबडो. ओगीच आडखळ कित्याक हाडूं! तूं कसलीच काळजी करूं नाका, वयर वच. ती अस्तुरी वयर वचूंक लागली. तिच्या फाटल्यान टांगेवालो सामान घेवन चलतालो. जामिद फाटल्यान खूट कसो उबो रावन तांकां पळोवंक लागलो. हें कितें चल्लां तें ताच्या लक्षांत आयलें ना.

टांगेवाल्याचो आवाज आयकून काजी सायब गच्चीचेर आयलो. एक बायलमनीस वयर येता ती पळोवन कुडीचीं सगळीं जनेलां बंद केलीं. खुटये वयली तलवार सट्ट करून हातांत घेतली, आनी दाराकडे येवन उबो रावलो. अस्तुरी जिनो चडून गच्चेर आयली. थंय काजी सायबाक पळोवन दचकली. ती खिणांत फाटल्यान वळूंक पळेताली. इतल्यान काजी सायबान झोपय मारून तिचो हात धल्लो आनी ओडीत तिका आपले कुडींत घेवन गेलो. तेच वेळार जामिद आनी टांगेवालो हे दोगूय वयर आयले. जामिद हो देखावो पळोवन अजापलो. ह्या गुपितान ताका आतां चडच बुचकळ्यांत घालो. हो विद्येचो सागर, हो न्यायाचो खजिनो, हो नीती धर्म आनी गिन्यानाचो आगर आसुनूय एके अपरिचीत बायलमनशेचेर घोर अत्याचार करूंक सोदता. टांगेवाल्या वांगडा जामिदय काजी सायबाचे कुडींत घुसलो. काजी

सायबान अस्तुरेचे दोनूय हात पकडून धरिल्ले. टांगेवाल्यान दार बंद केलें.

अस्तुरेन टांगेवाल्याकडे रागान पळोवन म्हणलें – तूं म्हाका हांगा कित्याक घेवन आयलो? काजी सायबान तलवार दाखयत म्हणलें – तूं पयलीं सुशेगाद बस, मागीर कळटलें तुका सगळें.

अस्तुरी – तूं तर म्हाका एक मौलवीसो दिसता. ईश्वरान तुकां हेंच शिकयलां काय कितें? परक्यांच्या धुवा-बायलांक जबरदस्तीन घरांत भितर हाडून, दारां बंद करून तांचेर अत्याचार करप, हेंच शिकयलां तुमच्या धर्मान तुमकां?

काजी – हां! खुदाचो होच आदेश आसा आमकां कीं, कशेय तरेन मेळत तितल्या काफिरांक इस्लामच्या मार्गार हाडून सोडचे, जर खोशयेन आयलेना तर जबरदस्तेन!



अस्तुरी – हेच भशेन जर तुमच्या धुवा-बायलांक कोणेंय जबरीन उबारून व्हेलीं, आनी तांचेर अत्याचार केलो, तर?

काजी – अशें घडटा. जशे तुमी आमचेकडे वागतले, तशेच आमीय तुमचेकडे वागतले. शिवाय आमी कोणाची बे-अब्रू करिनात! फकत आमच्या धर्मांत सामील करून घेतात. इस्लाम धर्मांत सामील जातकीच मनशाची अब्रू वाडटा, उणी जायना. हिन्दूनी तर आमचें नांव-निशाण नश्ट करपाचें थरयलां. धोको दिवन, आस दाखोवन आनी जबरीन मुसलमानांक दुर्बळ करून सोडपाचें काम चल्लां हांगा. असल्या वेळार मुसलमानांनी करचें कितें? हात पांगरून तुमच्या तोंडाकडेन पळयत ओग्गी बसचें?

अस्तुरी – हिन्दू असले अत्याचार केन्नाच करचो ना. तुमच्या सारक्यांनी कोणाच्योय खोडी काडल्यो, लबाडी केली तर मात खालच्या जातींतले नीच लोक बदलो घेवपाचे भावनेन कितेंय वाकडें-तिकडें करीत; पूण खरो हिन्दू असलें नीच कर्म केन्नाच करचो ना.

काजी सायबान थोडो विचार करून म्हणलें – तूं म्हणटा तें सामकें खरें. हे आदीं मुसलमान गूंड, असली बदमाशी करताले. पूण शरीफ लोक असल्या वायट कामा पसून जाता तितले पयस रावताले. उपरांत शिक्षण आनी सभ्यतायेन इल्ले-इल्ले मुसलमान सुदरत रावले. थोडे दिसांनी ही गुंडागिरी गायब जाली. पूण आतां तर हें हिन्दूराष्ट्र आमकां गिळपाचे तयारेन उबें आसा. अशें आसतना आमी कितें करपाचें? आमकां आनी दुसरो रस्तो खंय उल्ला? आमी दुबळे आसात ताका लागून नाइलाजान आमकां तिगून उरपाखातीर हीं असलीं कामां दगो दिवन करचीं पडटात. पूण तूं इतली भियेता कित्याक? तुका हांगा कसलेच कश्ट जावचे नांत. इस्लाम अस्तुरेची जितली राखण करता, तितली आनी खंयचोच धर्म करचो ना. आनी मुसलमान दादलो तर आपल्या बायलांक जीव दिता. म्हजो हो तरूण दोस्त (जामिद) तुजे मुखार उबो आसा. हाचेचकडे तुजी शादी जातली. बस सुखान दीस घालय हाच्या वांगडा.

अस्तुरी – हांव तुजो आनी तुज्या धर्माचो तिरस्कार करतां. तूं सुणो. हाच्या शिवाय तुका आनी दुसरें कसलेंच काम ना. बरे भशेन सोड म्हाका. वचूं दी म्हाका म्हज्या घरा. ना तर बोब मारून सगळ्या लोकांक एकठांय करतलीं हांव! जावं दी मागीर तुगेलें मौलवीपण जगजाहीर.

काजी – तुवें जर तोंड उक्तें केलें, तर तुजो जीव गेलोच म्हूण समज. तेन्ना तूं बरेंऽ चिंत.

अस्तुरी – हिन्दू अस्तुरेक अब्रू व्हडली, जीव न्हय. तूं म्हजो जीव घेवंक शकता, पूण अब्रू घेवंक शकचो ना.

काजी – कित्याक गरजेभायर हट्ट करता?

अस्तुरेन दाराकडेन वचून म्हणलें – हांव सांगतां दार उगड.

जामिद हो मेरेन मोन्यानी उबो आसलो. अस्तुरी जशी दाराकडे वचू नाका, काजी सायबान तिचो हात घट्ट धरून ओडलो. जामिदान खिणांत दार उक्तें केलें आनी काजी सायबाक म्हणलें – सोड तिका!

काजी – तोंड सांबाळ!

जामिद – तशें जाल्यार सोड तिचो हात.

पूण जेन्ना काजी सायबान ते अस्तुरेचो हात सोडलो ना, आनी टांगेवालोय तिचो हात धरपाक फुडें सरलो, तेन्ना जामिदान काजीचेर एक रस्तीन धक्को दिलो. काजी जमनीर ओमथो पडलो. जामिदान आनी

कळाव केलो ना. खिणांत जामिद आनी अस्तुरी भायर रस्त्यार पावलीं.

जामिद – तुजें घर खंयचे गल्लेंत आसा?

अस्तुरी – अहियागंज हांगा.

जामिद – चल तुकां हांव सोडून येतां.

अस्तुरी – खूब उपकार जातले. हांव तुमची ही सभ्यातायेची वागणूक केन्नाच विसरचीं ना. तुमी म्हजी आयज अब्रू राखली. ना तर लोकांक तोंड दाखोवंक सुवात मेळची नाशिल्ली. म्हाका आतां कळून आयलां की बरे आनी वायट मनीस सगळेकडे आसतात. म्हज्या घरकाराचें नांव प. राजकुमार.

तेच वेळार एक टांगो रस्त्यावेल्यान येतना दिसलो. जामिदान ते अस्तुरेक टांग्यार बसयली. जामिद स्वता बसूंक सोदतालो, इतल्यान ताचेर तोंडको माल्लो. तोंडको टांग्याक आदळ्ळो. जामिद टांग्यांत बसलो. टांगो थंयच्यान पसार जालो.

अहियागंजांत पण्डित राजकुमाराचो पत्तो सोदपाक कळाव लागलो ना. जामिदान ताका उलो माल्लो मात, तो भिवन धांवत भायर आयलो. आपले घरकान्नीक पळोवन ताणें म्हणलें – खंय आशिल्लें तूं इंदिरा? स्टेशनाचेर तूं म्हाका खंयच दिसलें ना. स्टेशनाचेर पावपाक म्हाका मात्सो वेळ जालो. पूण तुका इतलो उशीर कित्याक जालो?

इंदिरान घरांत पावल दवरतांच म्हणलें– ती एक व्हड काणी आसा; मात्सो धीर धर, सांगतां सगळें. पूण इतलेंच जाणा जा, ह्या मुसलमानान जर म्हजी मजत करूं नाशिल्ली, तर अब्रू वचपाची म्हजी!

पंडित पुराय कथा आयकूंक चडच उतावळो जाल्लो. इंदिरा वांगडा तोय भितर गेलो. पूण रोकडोच भायर आयलो. ताणें जामिदाक म्हणलें – भावा म्हज्या, तूं कितेंय समज. म्हजें उलोवप बेगडी दिसत तुका. पूण तुज्या रुपान आयज म्हाका इश्ट देवाचें दर्शन घडटा. म्हज्या उतरांनी इतली ताकत ना की तुजे उपकार मानूं. यो, बस!

जामिद – नाका. आतां वचूं दी म्हाका.

पंडित – तुवें म्हजेर येदो व्हडलो उपकार केला, तुज्या ह्या नेकीच्या बदलाक, तुका हांव कितें दिवंक शकतां?

जामिद – एकच मागतां की वायट घडणुकेचो बदलो खंयच्याच गरीब मुसलमानाक दुख्ख दिवन घेवंनाका.

अशें सांगून जामिद थंयच्यान गेलो आनी काळ्या किट्ट काळखांतल्यान खंय तरी अदृश्य जालो. शारांतल्या विखाळ हवेंत ताका सुस्कारो घेवंक कठीण जातालें. तो आपल्या गांवांत वचूंक सोदतालो, जंय धर्माचें नांव सहानुभूती, प्रेम आनी इश्टागत नंदता. धर्म आनी धर्मीक लोकांचो ताका आतां तिरस्कार येवंक लागिल्लो.



# आमचे घरांतली जितापत - मूय



- सुधा खरंगटे
अ-४, कुडतरकार क्लासीक,
आकें, मडगांव-गोंय.

पावसा तेंपार तर तरेकवार मुयांचें पीक सामकें! चडश्यो वचत थंय काळमुयो, काळ्यो किर्दुट - दोमळ्यो टेंग्योच! पूण ह्या मुयांचें सपन पडन्याका, घांस काडल्यार तितलोच जागो निळो करून सोडटाल्यो, एकदां चाबली तशी आंग्याक चिकटल्याभशेन रावताली काळमूय!



**ल्हा**नपणांत आमच्या गांवघरांत आमी सगळीं रावतालींच, पूण आमचे बरोबरीन आपलेंच घर मानून आनीक जायती जितापत आमगेर राबित्याक आसताली. त्या जितापतींतलो पयलो नंबर म्हणचे नानातरेच्यो, तरेकवार रंग-रुपाच्यो आनी आकाराच्यो मुयो!

इल्लीशी मूय! पूण कितले जिनसांची! कितले गुणारुपांची! भुरगेपणांत मुयांक पळयत रावपाक, तांचे खेळ पळोवपाक आमचेकडेन वेळय भरपूर आसतालो. हालींच्या भुरग्यांबशेन रासभर पुस्तकां आनी चोपड्यो घेवन तातूंत तकली घालून बसपाची ख्यास्त आमचे भुरगेपणांत निखालस नासलीच! ...पाटी-काडी आनी एक पुस्तक!! जालें आमचें दप्तर..!

तर ह्यो मुयो! कितल्यो तांच्यो जाती म्हणून सांगपाच्यो! साखरेक येवपी मुयोच कितले तरेच्यो! धाकटुल्यो काळ्यो मुयो सदच्योच! पूण साखरेक आनी एका जातीच्यो मुयो येताल्यो... 'घाणयाऱ्यो मुयो' तांकां हात लागल्यार हाताक कसलो घाणयारो वास येवचो! तोच्च वास मागीर साखरेक. ती साखर च्याक घाल्यार तोच्च वास च्यावेकय येवप...

साखरेक आनीक एका तरेच्यो मुयो येताल्यो. तांकां आमी 'येवलां' म्हणटालीं. लायट धवसार रंगाचीं... हीं येवलां साखरेच्या डब्याक भल्लीं तर बेगीन वचनासलीं. मागीर साखर व्हरून हुनताक दवरप.

येवलांपरस व्हड काळशो आनी लांबशे पांय आशिल्ल्यो त्यो 'हुळहुळ्यो मुयो'... एकदम फास्ट धांवपी!... तांचेर चुकून पांय पडलो रे पडलो... खिणाभितर त्यो सगळ्यो आंगार चडटाल्यो. त्यो आंगार चडल्यो तशें सगळें आंग हुळहुळप. त्यो केन्ना चाबनासल्यो.. पूण आंगार चडल्यार मनशाक नाचयताल्योच! "आगो, नाचता कित्याक गो?" अशें आईन विचाल्ल्यार सांगप "आंगार हुळहुळ्यो मुयो चडल्यात." मागीर आईन वा भयणीन येवन त्यो मुयो फाफुडप. वताल्योय बाबड्यो रोकड्योच!!

हें खेरीज घांस काडपी स्पेशल मुयो आसल्यो.. 'कुटकुट्यो मुयो' ल्हानशोच..! पूण चाबल्यार एऽद्दो दादोड येवप. ह्या कुटकुट्या मुयांनी चाबतकच कितलो वेळ आंगा बुड्डीत - खाजयत बसप मागीर..!

ह्यो मुयो एके लायनीन वतात तेन्नां तांकां पळोवपाक मजाच येताली. त्या काळ्या बारीक मुयांमदीं दोनचार दोमळेय मदीं-मदीं बोवाळटाले. आमीं म्हणप - "एऽ, हो तो दोमळो पळय. तो मुयांचो बापूय जातलो... आनी तो दुसरो... मातसो ल्हानसो आसा न्ही? ती दोमळीण जातली... मुयांची

आवय ती..''

पूण हे दोमळे चडकरून गोडाचे धेंपीचेरच चडशे दिसताले. गुदामांत साखरेच्या बस्त्यांचेर मुयो, आनी गोडा-धेंपींचेर दोमळे...!! मुयांनी आनी दोमळ्यांनी एकमतान वांटून घेतिल्लें जावंक जाय - साखर म्हाका - गोड तुका... अशें म्हणून.

एके लायनीन वतल्या त्या मुयांक पळयत बसल्यार तांचीं खूब नाटकां पळोवंक मेळटालीं. लायन एकच - पूण थोड्यो येताल्यो, थोड्यो वताल्यो, थोड्यांचीं तोंडां उदेंतेक जाल्यार थोड्यांचीं अस्तमेक. मदींच दोन मुयो एकमेकांच्या तोंडाक तोंड लायताल्यो. कसल्योतरी खबरी केल्लेभशेन! -काय कसलो रकाद दिताल्यो? - आनी मागीर परत्यो, त्या मुयेच्या तोंडाक तोंड लायत भोंवताली. -कसली तरी गजाल हिका-तिका सांगत भोंवताली? 'भोंवती भागरथ' कशी? त्या मुयांक आमी भावंडां वरांचीं वरां पळयत बसतालीं. मदींच धाकटुले-भयणीन म्हणप - ''पळय, पळय मुयो पापी घेतात..'' आमी मागीर व्हडल्यान हांसप..!

पावसा तेंपार तर तरेकवार मुयांचें पीक सामकें! चडशो वचत थंय काटमुयो. काळ्यो किट्ट - दोमळ्या येद्योच! पूण ह्या मुयांचें सपन पडनाका. घांस काडल्यार तितलोच जागो निळो करून सोडटाल्यो. एकदां चाबली तशी आंगाक चिकटल्ल्याभशेन रावताली काटमूय! इतिहासांतलो मुरारबाजी - तकली कापून पडलो तरी ताचें धड खंय दोनय हातांतल्या तलवारीनी दुस्मानांक कापीत राविल्लें.- त्या काटमुयांचें धड तुटतालें, तरी तोंड आंगाक दसून चाबत रावतालें. काटमुयेन चाबिल्लीं भुरगीं हमखास होळेम काडून रडटालींच!

ह्या काटमुयांचें वीखय तशेंच वायट! आई एक खबर सांगताली. खरी गजाल...! एक बायल कणगांवाली शिपूंक गेल्ली. ल्हान बाळकाक पोळेराचेर न्हिदोवन



ती बायचें उदक काडून कणगांवाली शिपूंक लागली. भुरगें आवयन सकल दवल्लें म्हणून रडूंक लागिल्लेंच! थोडे वेळान तें व्हडाव्हडान किंळचवपाक लागलें... आकांतून आड्डी मारपाक लागलें आनी ही बायल म्हणटा- ''जालेंच गो बाय! ह्यो दोनच कळसुल्यो शिपतां आनी येतां हां!!.. भुकेलें मुगो?... आयलें हां बायेक दुदू दिवपाक...'' भुरग्याचें रडें ल्हव-ल्हव जायत मागीर थांबलें... ''कितलें शाणें म्हजें बाय! रडून-रडून न्हिदलें पोर! अशें म्हणून ती आनीक दोन कळसुल्यो शिपूंक रावली; आनी मागीर भुरग्याक घेवंक गेली.- तर किदें पळयतली? बाळकाचे आंगभर काटमुयो! भुरगें सामकें निळें पडलां... मुयो चाबतच आसल्यो. पूण तें बाळक आतां कसलेच संवेदनेच्या - जाणविकेचे पलतडीन पाविल्लें...

तशेंच तें 'ओंबे'. पावशी दिसांनी आसतालेच. काटमुयां येदेच ते ओंबे... पूण तामशा रंगाचे. तांकां 'तातड' अशेंय म्हणटालीं. ह्या दोनय मुयांनी आमच्या माजरांची बोबाट घालची. चडकरून दुकानाच्या गुदामांक ते येताले. आमचे घराचे मुकावेले दोनय रूम- एक दुकान, एक गुदाम! हे तातड जावं ओंबे घराक चडशे येनाआसले. पूण शेळावाक लागून खंयय ते आयलेच तर वणटीचे एके कुशीन लायनीन वताले. ओंबे दिसले तशी आई मीठ हाडून तांचेर फाफुडताली. मिठाक ते कित्याखातीर भिताले कोण जाणां! पूण थोडे वेळान थंयच्यान नाच्च जाताले. खंयच्यान येताले, खंय वताले... तांकांच खबर! पूण हे ओंबे काटमुयांचे जोडयेन आमच्या माजरांक रडयताले.

हीं माजरांय म्हणून वचून-वचून गुदामांतच कित्याक पिलां काडटालीं काय?... चड करून आमी भुरगीं तांच्या पिलांक परतीं-परतीं हात लायतालीं म्हणून जायत! त्या ओंब्यानी आनी काटमुयांनी, दोळे लॆगीत फुटूंक नाशिल्ल्या त्या माजरापिलांक चाबून चाबून मारून उडोवप. आनी मागीर त्या पिलांचे आवयांनी कसले काकुळतेचे आवाज काडीत रडत घरभर भोंवप... तांचें तें 'मियांव-मियांव' आयकतल्याच्या काळजाक पीळ घालतालें.'

ह्या ओंब्याचे रंगाची आनी आकाराची आनीक एक मूय घरांत न्ही, तरी दारांत आशिल्ल्या पणसाचेर, आंब्याचेर आसताली. तिका आमी 'हुमलो' म्हणटालीं. पणसाचीं पानां दोडून घेवन कायबरो घोंटेर करतालो हो हुमलो!! पणस, आंबे देंवोवपाक आयिल्ले मानाय हो हुमलो पळयल्यार झाडार चडूंक भिताले - ''नाका रे सायबा ह्या झाडार चडप... हुमलो आसा....'' अशें म्हणटाले - कोबल्यान आंबे काडटना कायतानाक हुमल्यान खावन तो झाडावेल्यान सकल पडून ताचे दोनय दोंके मोडिल्ले. वर्सभर जुवारेवेल्या दोतोराचें वखद करून मागीरच तो उबो जाल्लो... ती खबर अजून याद काडटात.

एकेकदां तर मुयांची मजाच जाताली. तिळसांजची वेळ... मळब भरून

येतालें... आंगाक शेळाव जाणवतालो. घरांत पेट्रोलाचे दिवे चिमण्यो पेट्टाल्यो, दुकानार लापयांव, पेट्रोलमॅक्स पेट्टालें. आनी वणटीक तेकून लायनीन वचपी ह्या मुयांक अकस्मात पांखां फुट्टालीं. हुंडूक लागताल्यो. सैमाचो हो चमत्कार पळोवन आमी सामकीं उचांबळ जातालीं. 'मुंगी उडाली आकाशीं' ही ओळ वाचतना म्हज्या दोळ्यांसामकार ल्हानपणांत पळयिल्ल्यो त्यो पांखांच्यो हुडपी मुयो आयिल्ल्यो. त्यो मुयो मागीर लापयांवां भोंवतणी, पेट्रोमॅक्साभोंवतणी बरोऽ नाच करताल्यो. दिव्यांभोंवतणी घुंवन-घुंवन आपलीं पाकां लासून घेवन जमनीर पडटाल्यो.

तोंडांत धवींच तातयां घेवन येवपी ह्यो मुयो खंयच्यान येताल्यो - खंय वताल्यो समजच नासलें. खंयतरी वणटीच्या बुराकांत नाजाल्यार खांचींत नाच्च जाताल्यो. कोणाच्याय पांयांपोंदा चिड्डून मेल्ले मुयेचें मडेंय त्यो थंय सोडनासल्यो. तें प्रेत बरोबर घेवन चलताल्यो. खाणाचो कसलोय कण मेळ्ळ्यार दोग चोग जाणी तो घेवन लायनीक जॉईन जाताल्यो. मेल्लो जल्लो बी मेळ्ळ्यार तर सामक्यो खूश! वीस-पंचवीस मुयो मेळून जल्ल्याक ओडून व्हरतात तें पळोवंक खूब मजा येताली. 'जल्लो मामाची पालकीऽ' अशें आड्डत ताळयो बी मारून आमी नाचप मागीर...

ह्या कुस्कुटभर मुयांचें घाणेंद्रिय मात मोठेंच पावरफूल...! सुकीं सुंगटां तांकां सगळ्यांत चड आवडटात अशें म्हाका सदांच दिसप. सुंगटां-पोटली हाडून सकल दवरता थंय आसा.... खंयच्यान त्या मुयांक वास येतालोच! खिणाभितर हजारांनी मुयो त्या सुंगटांक भरताल्यो. एक दीस तर सुकोवन, मोडून घट्ट डब्यांत भरिल्लीं सुंगटां केन्नाच त्या मुयांनी भितल्ले भितर खावन पोल करून उडयिल्लीं.

ल्हानपणांतले ते दीस याद केल्यार आज दिसता, ह्यो मुयो जिणेचो एक भागच कसो आसल्यो. मजा म्हणून वा चाबली म्हणून आमी मुंयांक रागान चिड्डून मारूंक वचत तर आईन म्हणप - "तांचे वाटेक वचनाकात गो! तांकां आपले वाटेन वचूं दी. मागीर त्यो तुमकां कांय करच्योनात. त्यो आपली जीण जगतात. ताणी म्हणून खंय वचचें गो? तांकांय देवानच केल्यांत न्ही?"

आईन अशें म्हणतकच तकलेक तें घट्ट बसप. ते पिरायेर... बुद्द नाशिल्ली-अप्रबुद्द भुरगीं... तातूंत खेड्यांतलीं..! म्हणच आसा न्ही, "-गांवका लडका और शहरका कुत्ता.." हो कुत्रोच आमचेपरस चड बुदवंत आसतलो घडयेक! -आमकां देवान केल्यांत, मुयांकय देवानच केल्यात! आईन सांगिल्लें सगलें खरें दिसप. -एक विचित्रशें भावनिक नातें त्या मुयांकडेन जुळप... मुयांक मारूंक हात येवप ना; चिड्डुवपाक पांय मुकार सरप ना. मूय चाबलीच तर थंय खरपीत म्हणप- 'पाडा पडूं ह्या मुयेचें...!'



– शाम मोरे
मुंबई

# कशी केलीस माझी दैना!



मोरू फ्लॅटाची बशी घेवच्या निमित्तान उबो न्हवलो नी तिच्या डोळ्यात डोळे खुबशीत हळूच म्हण्यालो, "अशी माजी दैन्य केलंस काय?" इतक्यात दारात रिक्षा फटफटली, रिक्षातसून उतरान रिक्षावालो घरात येवन बगतो तर तेची बी मती गुंग झाली,

कोरगांवकारांचो मोरेश्वर उर्फ मोरू मुंबैक कसलेसे कंपनीत कामाक हुतो. त्येंना मालवणाकंच् बारावी पास झाल्यावर कसलोतरी आयटीया कोर्स केल्यान् असा कोरगावकारीन लॉकांका सांगा. लॉकांका त्या कोर्सातला लय काय समजा नाय, पन मोरू तो कोर्स केल्याबरुबर मुंबैक् नोकरेक् न्हवलो म्हंजे तो कोर्स नक्कीच बरो आस्तलो इतक्या मतर लॉकांका, शेजाऱ्यांका समाजला हुता. शिवाय आता पॅपरात नायतर टिवीच्या बातम्यातसुदा आयटी, आयटीया, सीटी, बीटी असे सबूद लॉकांच्या कानावर पडत हुते. तां नक्की काय आसा ह्या म्हायती नसला तरी तां काय तां शिक्षान घॅतला, तर म्हयन्याक् तीस-चाळीस हजाराची नोकरी गावता असाय् लॉक म्हणत. मुंबै-पुण्यात्सून शेजारी-पाजारी तसे बातमे अदान्मदान् येयंत्. अशाषनी तसा म्होट्या पगारवाल्या नोकरदाराच्या गावात आसलंल्या आवशी-बापाशीचा सुधारलंला न्हाणीमान बगून तर त्याच्यावर ईस्वास ठेवचोच लागा. त्यामुळा बऱ्याचशा आवशी-बापाशींनी आपापल्या पॉरा-पोरींका बारावी झाले काय, असल्याच कसल्यातरी म्होटो पगार मिळवून देणाऱ्या शिक्शानाच्या कोर्साक् घालुचा मनावर घेतल्यानी. निस्ता मनावर घेवंकूच नाय तर तसो सपाटोच लावल्यानी. त्यामुळा बारावीत बरे मार्क मिळवणारो फुडे खंय जातंलो, तर म्होट्या पगाराच्या शिक्शनाच्या कोर्साक् ह्या ठरानंच् गेला. आवस-बापूससुदा आपल्या पॉटाक् चिमटो घेवन्, येळपरसंगी जमीन जुमलो इकून पॉरांच्या शिक्शानासाठी पैसे उबे करूक् लागले. मोरूच्या आवशी-बापाशीन् तर सुऱ्यांकडे मोलेमजुरी करून् झिलाक् शिकवल्यान हुता. आनी त्येची फळा आता त्यांका गावत हुती. आजुबाजुच्या पॉरांनीसुदा असाच शिक्शान घेवन् म्होटा व्होवचा आनी आयबापाक् बरे दीस दाखवूचे असो ती दॉगायजांना शिकणाऱ्या पॉरांका उपदेश देयंत. त्यांच्या आवशी-बापाशीं काही समजावून सांगत.

तर मोरू आता मुंबैत बऱ्यापैकी 'सेटल' झालो हुतो. शिवाय मुंबैक दोन बेडरूम किचन हॉल चो फ्लॅट घेवचा त्याचा सपना पुरो झाला हुता. त्यामुळे कोरगावकार न्हवरा-बायको मुंबैक येवन्-जावन् आसंत. शिवाय म्हाताऱ्यांका येवक्-जावक् आरामाची रेल्वे होतीच. पन आता त्यांका मोरूक् मुंबैक येकटो ठेवचा नाय हुता. त्येचे दोनाचे चार हात करूचा त्येनी ठरवल्यांनी, निस्ता ठरवूकंच नाय, तर मालवणा शेजारच्या कट्टा गावची पोरगीसुदा बगून ठेवल्यानी. आनी झिलाक् तसो निरोप धाडल्यानी. ही पोरगी सुदा मुंबैक असल्याच कसल्या म्होट्या पगाराच्या नोकरेवर हुती. पन ती कदी-कदी गावाक्

येयंत्-जायंत आसल्यामुळा लांबच्या नात्यात्सून वळक् काढून ही पोरगी 'फिक्स' करून ठेवलंल्यानी.

आनी इतर दिवसात रजा मिळत नसल्यामुळा मे म्हयन्याच्या अकेरीक येके रात्री मोरू सिंधुदुर्ग रेल्वे स्टॅशनावर उतारलो. संध्याकाळी पाच व्हाजता येणारी मांडवी रेल्वे रात्री साडेअकरा व्हाजता सिंधुदुर्ग स्टॅशनात इली हुती. त्याच्यात कहर म्हंजे कोकणात धो-धो पावस् कोसळंत हुतो. त्याच्यामुळाच रेल्वेक् उशीर झाल्लंलो! मोरू मागसून तिसऱ्या डब्यात आसल्यामुळा थंयसर उतरान् स्टेशनाच्या छताखाली येयपर्यात शाप भिजान् गेलो. त्यामुळा तो बरोच वैतागलो. पावसाक् येतीत तितके अस्सल मालवणीत गाळी दिल्यान नी स्टॅशनाभायर रिक्षा बगूक् लागलो. पन तो थंयसर येयपर्यात रातरीचे बारा व्हाजले हुते नी ह्याका जावचा हुता आपल्या सुकळवाड गावाक्! त्येचो ह्यो गाव स्टॅशनापासून अडीच ते तीन किलोमीटर लांब!

थोड्याच येळात सगळा स्टेशन रिकाम्या झाला. आता करुया काय? असो ईचार करीत तो तसोच सुटकेस नी पिशी घेवन पावसात्सूनच स्टेशनाभायर खंय रिक्शा दिसता काय म्हणान् बगूक् निघालो. दोनेक् मिन्टा उजाळणारो दिवो आपल्याकडेच येता असा दिसला. फुड्यात ईल्यावर ती रिक्शा आसा ह्या त्येंका समाजला. त्याका लय बरा वाटला. कारण दिवसभराच्या प्रवासान् सगळा आंग आंबान्-चिंबान् गेला हुता, पॉटात कावळे आरडत होते नी आंगावरचे सगळे कपडेसुदा भिजान् चोथो झाले हुते. त्यामुळे कदी येकदा घराक् जातंय नी हतरूणाक् पाट टेकतंय असा त्येंका झाला हुता. ह्या सगळ्या परिस्थितीमुळा तो आवशी-बापाशीवरसुदा मनातल्या मनात वैतागलो हुतो. त्यामुळा त्येनी बगीतलेली पोरगी बगायची, नापास करायची नी सरळ मुंबैचो रस्तो धरुचो त्येंना मनात ठरवल्यान्.

''ए रिक्षा.'' केसात्सून गळणारा पानी फुशीत मोरून रिक्षाक आवाज दिल्यान्. रिक्षा जवळ येवन् थांबली, पन रिक्षावालो म्हणालो, ''रिक्षा येंगेज आसा सायब्!''

मोरूमधलो 'कोकणी' जागो झालो. साले मुंबैसारके गावाक्सुदा रिक्षावाले लबाड झाले की काय? तो म्हणालो, ''येंगेज? पन हयसर तर कोन दिसत सुदा नाय!''

''अवो, माजी भैन आताचे रेल्वेन् इली हां. ती स्टॅशनावरच कोपऱ्यात उबी आसा. तासा भरापूर्वीच तीचो फोन इलो म्हणान् मीया तिका न्हेवक् इलंय्.''

''कशावरसून ती तुजी भैन?'' असा मुंबैच्या स्टायलीत इचारून त्येंना त्याच्या परवानगीची वाट न बगता सुटकेस नी पिशी रिक्षात टाकल्यान नी रिक्षात बसतलो इतक्यात-

''ए मिस्टर, ती माझी रिक्षा आहे. आधी तुझे सामान रिक्षातून बाहेर काढ.'' असो एका पोरगीचो आक्रमक नी दमदार आवाज त्येंका आयकाक् इलो. तो मागी वळान् बगिस्तवर त्या पोरगेन रिक्षाच्या दुसऱ्या बाजून् येवन् मोरूची सुटकेस नी पिशी भायर फेकल्यानसुदा!

मोरू वैतागलो. म्हणालो, ''ओ मॅडम, ही रिक्षा तुमची आहे की या तुमच्या भावाची आहे हे मला माहीत नाही. त्याच्याशी माझा काही संबंध नाही. पण रिक्षा इथे आली तेव्हा मी येथे एकटाच होतो. त्यामुळे या रिक्षावर पहिला हक्क माझाच आहे. हां! पाहिजे तर स्त्रीदाक्षिण्य म्हणून मी तुम्हाला ॲकॉमेडेट करून घेऊ शकतो.''

''वा रे वा.'' पोरगी येकदम तडाकली. ''रिक्षा माझी आणि तू मला ॲकॉमेडेट करणार? हा कुठला न्याय? चल रे बबन्या, बघतोस काय? रिक्षा स्टार्ट कर.''

अतापर्यंत गप्प असलेलो रिक्षावालो खो खो हसाक् लागलो. म्हणालो, ''गाववाल्यांनु तुम्का खंयच्या गावाक् जावचा आसा?''

वैतागलेलो मोरू म्हणालो, ''हंयसर ओ सुकळवाडीक्. बाकी खंय जातंहंय ह्या आंदारात मराक्!''

''मग जमलां तर! आमका जावचा हा कट्टा गावाक्. तुम्का सुकळवाडीत सोडून आमी फुडे जाव. कसा गो मिनू? बरोबर ना? शिवाय ह्या पावसात हे गाववाले रातरीच्या येळेक् खंय येकटे जातंले?'' रिक्षावाल्यान सामोपचारान् मार्ग काडल्यान्.

''तुका काय वाटात् ता कर.'' असा मालवणीत् फणकाऱ्यान् म्हणान् ती पोरगी-मिनल तॉंड फिरवून रिक्षात येका बाजूक बसली.

रिक्षा सुरू झाल्यावर रिक्षावाल्यान् आपल्या भैनीची आवडती गाणीनाट्यसंगीत टेपवर लावल्यान्. ''वद जाऊ कुणाला शरण गं.'' ''कर हा करी धरीला शुभांगी'' ''कशी केलीस माझी दैना.'' अशी येकापाटोपाट येक गाणी व्हाजत हुती आनी ती आयकता-आयकता पोरगी डुलत हुती.

इतक्यात, ''ओ रिक्षावाले, ह्या काय निस्ता आऽऽ ऊऽऽ लावला हास? जरा रिमिक्स वगैरे लावा.'' मोरून् फर्माईश सोडल्यान्. पन ता आयकान् ती पोरगी गाण्याच्या तंद्रीत्सून येकदम जागी झाली. नी रागान् म्हणाली, ''ए, नाय हां! तां फालतू रिमिक्स काय लावलंस तर ही टेपरेकॉर्ड फोडून टाकतंलंय मी बबन्या!''

रिक्षावालो हसत म्हणालो, ''गाववाल्यानु, आता पाच मिन्टात तुमचो गाव येतलोहां. तेवा तुम्का ह्या आयकाचा नसात तर कानात् बॉटा घालून गप ऱ्हवा. आमच्या भैनीफुडे माजा काय चलाचा नाय.''

पोरगेन ''कशी जिरवलंय'' अशा अर्थान् मोरूकडे बगल्यान्. नी रिक्षाच्या आतमदल्या उजेडात दोगांचीही पयल्यांदा दृष्टादृष्ट झाली. पोरगी सुंदर हुती.

काय मिन्टातंच सुकळवाड गाव इलो आनी आपला नशीबच गांडू अशा समजुतीन् मोरू रिक्षात्सून उतरान् गेलो. जातंना तो फुडे जाणाऱ्या रिक्षाकडे वळान-वळान् बगीत हुतो ह्या काय येगळा सांगाक् नुको. तो घराक् गेलो तरी त्याचा मन त्या तडफदार, स्मार्ट पोरगे-भोवतीच घुटमळत हुता. सकाळपर्यांत त्येचो डोळ्याक् डोळो लागलो



नाय.

मदी येक दीस गेलो नी तिसऱ्या दिशी मोरू नी त्येचो आवस–बापूस पोरगी बगूक नेमके कट्टा गावाक् गेले. दोन दिसापूर्वी रिक्षात्सून येतंना त्यॅका ती पोरगी कट्टा गावची आसा हा समाजलंला हुताच. त्याच्या मनात वगीचंच आपले ''ती खंयतरी दिसात्'' म्हणान् आशेचे धुमारे फुटाक् लागले.

मुलीच्या घराक् गेल्यावर मुलीच्या वडलांनी, ''यवा, यवा'' म्हणत सगळ्यांचा तोंड भरून स्वागत केल्यान्. सगळे बसल्यावर मुलीचे वडील, घरात् बगून म्हणाले, ''अगो आयकलंस काय? पावने इलेहंत, लवकर आटपा काय ता!''

''होय, होय. झाला, येताव भायर.'' भुतूरसून वधुमावलीचो आवाज इलो.

''काय झाला की, परवाच्या दिशीच पोरगी रेल्वेन् मुंबैसून इली. गाडी लय लेट झाली. घराक् येवक् रातरीचो येक व्हाजलो. त्याच्यात सकाळीच खंयतरी मैत्रिणीकडे गेली हुती. त्यामुळा आवरूंक जरासो उशीर झालो हां.'' मुलीचे वडील म्हणाले.

इतक्यात ती मुलगी हातात कांद्याफॉवाची बशी घेऊन, उत्तम साडी नी मेकप करून भायर इली. पाटोपाट तिची आवस् चाय घेवन् इली. येकदम नजरेक् नजर भिडवंना बरा दिसाचा नाय, शिवाय पोरगी नापास करूचीच आसा अशा ईचारान् मोरू मान खाली घालून गप बसलो हुतो.

त्या पोरगेन् फोवाची बशी खाली ठेवल्याबरोबर तिचे वडील म्हणाले, ''घ्यावा, कांदेफॉव, चाय घ्यावा. आमचे हे पोरगेनंच केले आसंत ते. तिच्या हातचे कांदेफॉव, माशांचा तिकला नी कोंबडीचा मटाण ज्याच्या पॉटात जायंत् तो हिचो कायमचो गुलाम होवन् ऱ्हवतंलो ह्या नक्की!''

इतक्यात, ''पोहे घेताय नां?'' असो नाजूक, लाडीक आवाज खाली मान घालून बसलल्या मोरूच्या कानावर पडलो. पाटोपाट सुगंधी फवारो त्याच्या नाकावर येवन् आदाळलो. त्याच्या आंगावर सरसरान् काटो उबो ऱ्हवलो. त्या धुंदीतच त्यॅना मान वर केल्यान् नी फॉवाची बशी घेवक् हात फुडे करता करता. त्येचो हात थंयसरच थांबलो. कारण–

कारण सिंधुदुर्ग स्टॅशनाभायर त्याच्याबरोबर वाद घालणारी ती हीच पोरगी हुती. तो पुतळ्यासारको संबुरचा सौंदर्य बगीतच ऱ्हवलो. इतक्यात घरात कोणीतरी कार्ट्यान् टेप चालू केल्यान्–

''कशी केलीस माझी दैना ऽऽऽ''

मुलीचे वडील कौतुकान् म्हणाले, ''ही आमच्या कन्येची आवड आसा. तिका क्लासिकल का काय म्हणतंत, तां गाना लय आवाडता. नाट्यसंगीत म्हंजे हिचो जीव की पराण.'' ह्या आयकान् त्या सुरांबरोबर तिच्या ओठांची नैसर्गिक हालचल होताहां असो मोरूक् भास झालो.

पान गंमत अशी की, त्या पोरगेन् मोरूक् तो घरात इलो त्यॅवाच वळाकल्यान् हुता. तिकाही तो मनापासून आवाडलो हुतो. म्हणान् त्येची गंमत करूसाटी तिना घरात ह्या गाना लावची आयडीया केलंल्यान्.

''अगो बगतंस काय आसा? फॉव दे त्यांका.'' मुलीचे वडील चेडवाक् करवादले.

''होऽ होय. देतंय ना!'' पोरगी अचानक बावारली आनी तीनं बशी फुडे केल्यान्.

मोरू फॉवाची बशी घेवच्या निमित्तान् उबो ऱ्हवलो नी तिच्या डोळ्यात डोळे खुबशीत हळूच म्हणालो, ''अशी माजी दैना केलंस काय?'' इतक्यात दारात रिक्षा फटफटली. रिक्षात्सून उतरान रिक्षावालो घरात येवन् बगता तर तेची बी मती गुंग झाली. कारण परवाच्या दिस रातरी आपले रिक्षेत्सून सुकळवाडीक् आणून सोडलंलो तो पावनो ह्योच ह्या त्याका उमागला. तो सुदा मोरूकडे बगीतच ऱ्हवलो.

ह्या काय चललाहां ह्या कोनाकंच समजंना. पोरगीचे वडील म्हणाले, ''ही आमची मिनल. मोठी गोड पोरगी आसा. तुमचो संसार सुखाचो करीत.''

मिनल मोरूकडे रोखन बगून हळूच म्हणाली, ''आणि लोग मुझे प्यारसे 'मिनू' कहते है बच्चमजी!''



# 'काव्योत्सवां'तलो निमणो कवी : संतोष हरमलकार

- एस. डी. तेंडुलकार

**बा**ब संतोष हरमलकार हो 'बिम्बा'च्या 'काव्योत्सवां'तलो निमणो कवी जावन आसा. आनी ताचे कवितेवयली म्हजी मोलावणी, ही 'काव्योत्सवां'तली निमणी मोलावणी जावन आसा.

ते नदरेन हांव म्हजो एक पर्सनल अणभव हांगा मांडूंक सोदतां. हांव स्वता जेन्ना एक नवोदीत कवी आशिल्लों, तेन्ना कवी नरेंद्र बोडके हाणीं म्हजो कवितेचो कादेर्न वाचूंक व्हेल्लो. थंय कादेर्नार हाणीं अनेक कवितांचेर आपले 'रिमार्क' मारून दवरिल्ले. तांतलो एक रिमार्क म्हाका आजुनूय उगडास जाता, तो असो आशिल्लो : ''तूं हे कवितेंत 'अर्धसत्व' आशिल्ले अणभव कित्याक मांडटा?'' – ताचो हो रिमार्क म्हाका आजुनूय उगडास उरला, कारण तो ते कवितेचे बाबतींत बरोबर आशिल्लो. कवीन कवितेंत 'अर्धसत्व' न्हय, तर पुराय सत्व मांडूंक जाय; तेन्नाच तो मोटो कवी जावंक पावतलो.

दुसरें एक हांगा लक्षांत घेवपाचें म्हळ्यार बोडके हांगा 'अर्धसत्य' म्हणिना, तर तो 'अर्धसत्व' अशें म्हणटा. कारण 'अर्धसत्य' आनी 'अर्धसत्व' हातूंत फरक आसा. सगलीं सत्यां ही व्यक्तिनिश्ट आनी निमणी अर्धसत्यांच आसतात, उलट 'सत्व' हें पुराय आसता; मनीसजातीच्या जीणेचो एक आदर्श म्हूण तें वावरता.

हे फाटभूंयेर पळयत जाल्यार कवी हरमलकार आपले कवितेंत फकत 'अर्धसत्व' मांडटना दिसता. देखीक 'म्हाका दिसता' ही कविता पळयात :

संत रामदासा भशेन म्हाकाय
दिसता
हो लग्न सुवाळो सोडून
माटवांतल्यान पळून वचचें
आनी खंय तरी रानांत वचून
जप करचो संत रामदासाचोच

– कवी जेन्ना एखादो ऐतिहासीक वा पौराणीक संदर्भ आपले कवितेंत घेता तेन्ना तो संदर्भ आयच्या जिणेच्या संदर्भांत वापरपाक येवंक जाय, त्या संदर्भाची नाळ आयचे जिणेकडेन जोडूंक जाय. तेन्नाच ते कवितेक काव्यमय आकार येतलो. नाजाल्यार एक 'काव्यहीन स्टेटमेंट' इतलेंच ते कवितेचें स्वरूप उरतलें.

'मर्णा तुजीं कितलीं रूपां' ही कविता मर्णाचीं 'वर्तमानपत्री रूपां' मांडटा.

मर्ण कितले तरेचें, हजार तरेचें
आकस्मिक, रोगान, आत्महत्या, खून

हांसलो, खेळ्ळो, बसला थंय घट्ट जालो
जिवीताक उबगलो गोळ लावन घेतलो

मोगान लग्न जावन वेगळो संवसार थाटलो
वर्सा भितर बायलेन उजो लावन घेतलो

खालत्या जातीच्या चल्याकडे लग्न जावंक
दिना म्हणून चलयेन बांयत जीव दिलो

अशें हें मर्ण, स्कुटर स्टार्ट,
बशीचो, धपको, जाग्यारूच मर्ण

दुयेंसाक कंटाळून
प्रेमभंगाक लागून आत्महत्या

अशें हें मर्ण...
मर्णा, तुजीं कितलीं म्हूण रूपां?

– आतां हीं सगलीं विधानां, गद्य विधानां जावन आसात. हातूंत कसलेंच 'काव्य' उतरूंक ना. मागीर हे कवितेक आमी कविता ही पदवी कित्याक दिवपाची?

लायी हयात आए, कजा ले चली चले
अपनी खुशीसे न आए, न अपनी खुशी चले

– असलें जीण-मर्णाविलें अस्सल काव्य वाचपाची कवीक खरी गरज आसा. असली कविता वाचल्याउपरांत कवीक आपले 'वर्तमानपत्री मर्णाचीं रुपां' बरोवपाचें सेर्त धाडस जावचें ना.

'नियतीचो खेळ' ही अशीच एक सामान्य कविता जावन आसा :

खेळ हो असोच
कितले मेले
कितले वाटावले
कांय जिखले
कांय हारले

– खरें म्हळ्यार भाशेचो एक 'स्पाँटॅनियस फ्लो' काळजांतल्यान भायर पडल्याबगर कवीन कागदार कविता बरोवंक घेवचीच न्हय. मुद्दम हट्टान कविता बरोवंक गेल्यार तातूंत फकत सामान्य उतरांच निपजतली.

कवीच्यो हांगा दोन प्रेमकविता वाचूंक मेळटात. 'मोग' होवूय परत सामान्य प्रेमकविता. बाकीबाब बोरकाराच्यो –

सखी ये गे
सखी ये गे
वेगे
स्वप्नसुमांगे

सारक्यो आवेगान भरिल्ल्यो कविता वाचल्या उपरांत 'मोग' सारक्या कवितांचें 'सामान्यपण' अदीकच जाणवता. देखीक,

मोग म्हजेर आसा जाल्यार
म्हऱ्यांत येवन सांग गो म्हाका
आशेलां हांव मोगाक तुज्या
यो गो मोगा कळाव नाका

कवीची 'तूं' ही सगल्यांत ल्हान, चार वळींची प्रेम कविता. हातुंतल्यो प्रतिमा सांकेतिक आसल्यो तरीय ती कविता म्हणून वाचूं येता :

तूं म्हळ्यार एक सपन
काळखे रातीन जोगूल शें

तूं म्हळ्यार फुलतें फूल
मनांत म्हज्या कवन शें

–आता हे कवितेचें अपयश तें हें, की ही कविता पूर्ण जाल्ल्यावरी दिसना. चारूच वळी 'कित्याक, आनीकूय वळी बरोवं येताल्यो अशें दिसता. जावं. कवी एकदम नवोदीत आसा आनी ताका कवितेंतले बरेच पावसाळे पळोवपाचे आसात.

निमणें सोपयताना परत म्हजो एक पर्सनल अणभव हांगा म्हाका सांगिनसो दिसता. पंचवीसेक वर्सां आदीं एका प्रसिध्द कोंकणी कवीक हांवें म्हणिल्लें की – ''तुजे कवितेंत सांकेतीक झरलेल्यो प्रतिमा खूब येतात. त्याखातीर ती कविता एकदम फ्लॅट आनी मर्यादीत जावन उरता.'' – ह्या म्हज्या उलोवण्यार तो कवी तेन्ना बरोच भडकल्लो आनी ताणें म्हाका सांगिल्लें की – ''तूं आनीक चार वर्सांनी म्हाका मेळ. तुजें मत बदलिल्लें आसतलें.'' – आतां हे गजालीक पंचवीसा वयर वर्सां जावन गेल्यांत पूण म्हजें मत आजून बदलूंक ना.

जे कवितेंत भाशीक क्रांती ना, ते कवितेविशीं मत बदलपाचो प्रस्न म्हजे बाबतींत तरी उप्रासना.

अलविदा.





# मोनजात आनी हांव

– अपर्णा गारुडी
शिवोली, गोंय
फोन : ९८२३०९८२५४



आमचो सुणो
काय म्हाका
तोंडांत धरचो ना
हें तकलेंत येना
फुडें तिणें
चुलींतल्यान
पेटिल्ली कोलती
काडली आनी
कोल्या
फाटल्यान
धांवली, उज्याक
भियेवन
कोल्यान म्हाकां
दारांतूच उडयलें
आनी धांव
मारली, काका
सुण्याक
खावपाक
घालतालो,
आवयचो बोवाळ
आयकून तो
धांवत आयलो,
सुणींय कोल्या
फाटल्यान
धांवलीं,

**मो**नजात खूब इमानदार अशें आमी म्हणटात. मोनजातीक मोनजात म्हणप समा न्हय. तांची भास आमकां येना देखून आमी तांकां मोनी म्हणटात. तांचे नदरेन मनीसजात मोनी आसूं येता. कारण आमची भास तांकां येना. एक मात खरें. मायेच्या स्पर्शाची, नदरेची, कुरवांची भास संवसारांतल्या सगल्या जिवाबळीक कळटा.

पोशिल्ल्या आनी रानवटी अशा दोनूय तरेच्या जनावरांची वळख म्हाकां खूब ल्हानपणासावन जाली. गुजरातांतल्या बडोदा शारा लागीच्या कपुराई गांवां भायर म्हज्या बापायचें फार्महावज आशिल्लें. पोल्ट्री फार्म आशिल्लें. गांवां पसून एक किलोमिटर अंतराचेर व्हडलें शेत आशिल्लें. शेता कुशींतल्यान हायवे वतालो. हायवे सावन दोनशें मिटराचेर फार्म हावज आशिल्लें. कुशीक पोल्ट्री फार्म. ताका गुजराती भाशेंत 'मर्गकिंद्र' म्हणटाले. फार्म हावजाच्या चारूय वटेन पांचवीचार जोंधळ्याचीं शेतां. फाटले वटेन ल्हानशीच पांचवीचार दोंगुल्ली. दोंगुल्ले पेल्यान एक सोबीत साळकां तळें. ह्या सोबीत सैमासांगातान शेतांतल्या ह्या मातयेकडेन नातें जोडीत हांव घडलें. गीमांत रखरखीत वोत. शियां दिसांनी आंगाक कात्रे पडटात इतलें शीं आनी पावसा दिसांनीं आकांताचो पावस.

आमच्या पोल्ट्री फार्मांत व्हायट आनी रेड लेगॉन तशेंच टर्की जातिच्यो हजारभर कोंबयो आशिल्ल्यो. फार्मांत आनीकय जायतीं जनावरां पोशिल्लीं. २५-३० बदकां आशिल्लीं. ७-८ कांसव आशिल्ले. दोन हरणांच्यो जोडयो ते भायर चार मोर आशिल्ले. एक काकाकुवा (African parrot) तशेंच शेतांतल्या 'गोरसआमली'च्या झाडार किरांचें भिरें सदांच गायतालें. शेतांक मोल्या लोखणाच्या सरयांच्या जाळीचें दुरीग आशिल्लें. सगलीं जनावरां शेतांत मुक्त संचार करतालीं. रातीकडेन तांचे खातीर बांदिल्ल्या खाशेल्या घरांनी आपल्या जाग्यार वचून न्हिदतालीं. काकाकुवा दिसभर झाडांचेर बसतालो. केन्ना केन्ना ताचे खातीर केल्ल्या खाशेले लोखणाचे दांडयेर बसून झोपाळो घेतालो

आनी राती आपल्या पांजऱ्यांत वचून न्हिदतालो. १५-२० धवे आनी गोबरा रंगाचे सोशे आशिल्ले तांचे खातीर जमनी पोंदा खास घूड बांदिल्लो. तातूंत ते रावताले. शेताचे देगेर हारीन उबी आशिल्ली 'स्रेतू'चीं (तुतीचीं) झाडां सोबीत दिसतालीं. तांचेर रेशमाच्या किडींचे कोश खांदये खांदयेक लांबताले. रेशीम तयार करपी लोक केन्नाय शेतांत येवन हे कोश काडून व्हरताले. गोठ्यांत दोन बैल, चार गायो आनी एक घोडो आशिल्लो. म्हजे आवयचो सगलो दीस ह्या मोनजातीची सेवा करपांतूच वतालो. बापूय आनी काका शेतांत काम करताले. जोंधळे, मको, उस, तुरडाळ, मिरसांगो, भाजयो, फळां अशी तरेकवार पिकावळ आमी पिकयतालीं. शेताच्या एका कोनशाक जनावरांखातीर 'घोडाघास' (पांचवेतण)रोयतालीं. येरादारीचीं साधनां चड नाशिल्लीं. घोडागाडी आनी बैलगाडींतल्यानूच धान्य आनी सामान शारांत व्हरप-हाडप जातालें. हायवेचेर बसस्टॉप नाशिल्लो. फार्म हावजा सावन एक किलोमिटराच्या अंतरार एकूय घर नाशिल्लें. चारूय वटेन शेतूच दिसतालें. मदीं मदीं पयस हायवेवयल्यान वचपी मालाचे ट्रक आनी दिसांतल्यान दोन फावटी दिसपी बस इतलीच जाग. मनशांचें सहज दर्शन जायच नाशिल्लें. दोन मानाय दिसभर वावराक येताले. सांजवेळा गांवांत आपल्या घरा वताले. म्हजो बापूय 'रणोली' नांवाच्या गांवांत ८-१० मैल सायकलीन नोकरेक वतालो. म्हजी आवय, काका, भाव आनी हांव तशेंच दोन मानाय इतलीं जाणां दिसभर फार्म हावजांत आसतालीं.

लागीं घरा-मनशां नाशिल्ल्यान आमकां सैम आनी मोनजाती बगर कोणूच इश्ट-सवंगडी नाशिल्ले. म्हजो भाव आनी हांव ह्या जनावरांवांगडाच खेळटालीं. तरेकवार शेवण्यांचे आवाज काडटालीं. शिळोण्यो घालतालीं. सुण्यांवांगडा धांवच्यानी लिपच्यानी खेळटालीं. कांयच खेळपाक ना जाल्यार सायकलीचे निकामी टायर बडी घेवन बॅलन्स करीत शेतां मेरेवयल्यान धांव धांव धांवतालीं. सगलो दीस सोशे, हरणां, बदकां हांच्या फाटल्यान नाचतालीं. तांकां खावंक घालतालीं. काकाकुवा मनशांभशेन उलयतालो. ताका आमी मराठी शिकयल्ली. या, बसा, नमस्कार, आलात, चाललात, धन्यवाद हीं उतरां तो वेवस्थीत उलयतालो. गोंयच्या पाडकांवांगडा खेळपाक आमकां आवडटालें. कीर, मोर, कांसव हांकां खाणां घालप, कोंबयांचीं ततयां एकठांय करप हातुंतच सगलो दीस वतालो. फार्म हावजा कुशीक एक 'बोअरवेल' आशिल्ली. ह्याच बोअरींगाचें उदक शेताक मेळटालें. बोअरींगाकडेन सदांच तरतरांचे सोरोप भायर सरताले. एक फावट म्हज्या बापायन १५ फूट लांबायेचो हार धरिल्लो. ताका तळयादेगेर व्हरून सोडलो. तो दीस याद केल्यारूच आंगार कांटो येता. तरेकवार जातींचे सोरोप हांवें भुरगेपणांत ह्याच बोअरवेलीकडेन पळयल्यात. शेतांत २-३ मुंगुसय रावताले. ह्या सगल्यांमदीं रावन केन्नाच भंय दिसलो ना. मोनजात बोगीच मनशाचे वाटेक वचना. ताका 'माया' लायल्यार मनशांपरस बरीं इश्ट जावपाक शकता. चार अल्सेशियन सुणीं शेताची आनी शेतांतल्या सगल्या जनावरांची राखण करपाक तत्पर आसतालीं. तांच्या भंयान कोणूच थंय येवपाचें धाडस करी नासलो. चारूय सुणीं खूब प्रामाणीक आनी अपुरबायेचीं आशिल्लीं.

शेतांची कापणी जातकच कच्छ-काठेवाडच्यान रबारी लोक गोरवांचें हींड घेवन येवपाक लागताले. राजस्थानच्या रेंवटातल्यान भरवाडी आपलीं मेंढरां आनी बोकड्यो घेवन येताले. उण्या पावसाक लागून तांचेर आपलो गांव सोडून हे मोनजातीक जगोवपाखातीर भटकपाची पाळी येताली. दुदाचो धंदो करीत ते गांवोगांव भोवताले. १००-२०० गोरवां आनी १००-२०० मेंढरां बोकड्यो. रातच्यो शेतांत रावत जाल्यार सकाळीं फुडल्या प्रवासाक वतना तांचेकडल्यान ३०-४० लिटर दूद आमकां मेळटालें. इतल्या गोरवांच्या शेणाच्यो शेणयो थापपाक मेळटाल्यो. जळपाचो प्रस्न सुटटालो. बोकड्यो मेंढरांच्या विश्ठेचो उपेग सारें म्हूण जातालो. बोकडेचे दूदय मेळटालें. पयशाचो वेव्हार नासतालो. उपकाराची जाणीव आसताली. चलपाची तांक नाशिल्ली एकाद्री गाभणी गाय रबारी आमकांच दिवन वताले. दोन चार दिसांनी व्हियेवपी ते गायची सेवा करपाक आमचो सगलो दीस वतालो. नल्या पाडकां वांगडा खेळपांत आनंद मेळटालो. केन्नाय दिसता मनशां पस मोनजाती वांगडा सारिल्ले ते दीस कितले सुखाचे आशिल्ले. चिकाच्या दुदाचो खरवस (पोस) खावपाक मेळटालो.

म्हज्या भुरगेपणांतली एक गजाल म्हजी आवय सदांच सांगता. हांव 'स' म्हयन्यांचें आसतना तिणें म्हाका ह्याच फार्म हावजाच्या किचनात जमनीचेर माणो घालून न्हिदयल्लें. म्हाकां फाट करून ती चुलीर रांदताली.



रातचीं आठ वरां जाल्लीं. सुणीं मेकळींच आशिल्लीं. पूण तीं सगलीं फाटले वटेन तांकां घाल्लें 'खाण' खावपांत गुल्ल जाल्लीं. शेताच्या एका कोनशाक दुरीगाच्यो सरयो बांदलेल्यो. तातुंतल्यान एक कोलो भितर सरलो आनी सरळ मुखेल दारांतल्यान भितर सरून हांव न्हिदिल्लें थंय पावलो. म्हाका ताणें तोंडांत धरलें. मात म्हजे आवयन फाटल्यान पळयलें. तेन्ना लायट नाशिल्ल्यो. पेट्रोमॅक्सच्या उजवाडांत तो सुणोच कसो दिसलो. आमचो सुणो काय म्हाका तोंडांत धरचो ना हें तकलेंत येना फुडें तिणें चुलिंतल्यान पेटिल्ली कोलती काडली आनी कोल्या फाटल्यान धांवली. उज्याक भियेवन कोल्यान म्हाकां दारांतूच उडयलें आनी धांव मारली. काका सुण्यांक खावपाक घालतालो. आवयचो बोवाळ आयकून तो धांवत आयलो. सुणींय कोल्या फाटल्यान धांवलीं. तेन्नाच म्हजो बापूय कामावयल्यान घरा पावलो. ताणें गेट उगडली मात सुण्यांनी कोल्याक फांफसून गेटी भायर व्हरून उडयलो. तो कोलो आशिल्लो हें आवयक बापायन सांगतकच कळ्ळें. आवयचें लक्ष वचूंक नाशिल्लें जाल्यार ते दिसा हांव कोल्याचें भोजन जावपाचें. पयले यत्तेंत म्हाका बडोद्याचे शाळेंत घाल्लें. फार्माहावजासावन बडोदा आठ किलोमिटर. गांवांतल्या कांय भुरग्यांक एक टेंपो रिक्षा शारांत शाळेंत पावयताली आनी हाडटाली. हांवूय तांचे वांगडा वचपाक लागलें. रिक्षा चुकली वा आयली ना जाल्यार त्या ल्हान पिरायेचेर हांव आठ किलोमिटर चलून येतालें. आवयचे शिकवणेन कोणेंय लिफ्ट दिली जाल्यार घेनाशिल्लें. रस्तो सरळ आशिल्लो. वाटेंत येतना उंट, गवो रेडो, मुंगूस, सोरोप अशीं तरेकवार जनावरां पळोवपाक मेळटालीं. रस्त्याचे दोनूय वटेन शेतांच शेतां. पयस पयस पातळिल्लीं. हें सगलें पळयत सुशेगाद एकलेंच दोन-दोन वरां चलतालें. सुणीं रस्त्यार वाट पळयत बसतालीं. कळाव जालो जाल्यार एक-दोन किलो मिटर धांवत वाटेक म्हाका व्हरपाक येतालीं. म्हाका मदीं दवरून चारूय जाणां सुखरूप घरा हाडटालीं. मोनजातीचो इतलो मोग भुरगेंपणांत हांवें अणभवला.

हालींच बडोदा गेल्लें. काकान आतां शारांत घर बांदलां. शेताची याद जाली. काकाक घेवन शेतार गेलें. आतां थंय पयलींचें कांयच उरूंक ना. शेत तशेंच आसा. काकान कोणाकतरी कसपाक दिलां. दोंगुल्ली कातरून थंय बिल्डींगो उबारल्यात. तळयेचें पर्यटन थळ जालां. हांव आनी काका दोगांय तळ्या देगेर वरभर बसलीं. गजाली रंगल्यो. चाळीशी हुपिल्लें हांव आनी साठी हुपिल्लो काका... आयज त्या तळयांतल्या साळकांबगर आमकां कांयच वळखीचें दिसनाशिल्लें. मनां तळ्यांत मात ३०-३५ वर्सां पयलीच्या यादींचीं साळकां परमळटालीं.



# काब - द - रामचो इतिहासीक किल्लो

– प्रा. प्रजल साखरदांडे

काब द राम हो काणकोण म्हालांतलो खोल गांवांत आस्पावपी एक इतिहासीक किल्लो. काब-द-राम हें ताका नांव पडलें तें रामाच्या भुशिराक लागून. खोल गांवची आख्यायिका अशी आसा की राम आनी सीता वनवासाक आसतना हांगा ह्या भुशिराचेर रावतालीं म्हणून पोर्तुगेज तेंपार ताका CABO-DE-RAMA म्हणपाक लागले. हो किल्लो पोर्तुगेज येवपा आदीं रामाच्या भुशिरालो खोलगड अशें म्हणटाले. इतिहासकार बा. द. सातोस्कर म्हणटात की हो किल्लो १५९८ वर्सा सौंदा संस्थानाचो राजा रामचंद्र राजेंद्र नायक सौंदेकार (वडियार) हांणें अडवट (म्हणजे आतांचें काणकोण म्हाल) च्या खोल गांवांत अरबी समुद्राचेर आसपी रामाच्या भुशिरार बांदलो. तर नामनेचो इतिहासकार पांडूरंग पिसूर्लेकार सांगतात की कारवारकार देसायांनी सौंदेकार राजाक संभाजीच्या भंयान सोळाव्या शेंकड्यांत हो किल्लो दिलो. ह्या किल्ल्याचेर आदिलशाह, पेशवे, मोगल, सौंदेकार आनी पोर्तुगेजांचो शेक चल्लो. गोंयच्या पुरातत्व खात्यान काब-द-रामा किल्ल्याविशीं जायते पुरावे आसात. त्याविशीं संभाजी राजा आनी विठोजीराव कारवारकार देसाय हांणी पोर्तुगेझ व्हायसरॉयाक पत्रां बरयिल्लीं अशें इतिहासकार पिसुर्लेकार हांणी आपलें पुस्तक पोर्तुगेज मराठे संबंद हातूंत सांगलां. ह्या किल्ल्याचें strategic location समुद्राचेर आशिल्ल्यान हो किल्लो इतिहासांत अजरंवर जालो. सगळेच तो आपल्या ताब्यांत घेवंक सोदताले. पोर्तुगेझ तर हाका सुर्वणसंद मानून ते संदीची वाट पळयताले. आनी ती तांका १७६३ वर्सा मेळलीय बी. ताचो इतिहास तर सामको रोमांचक. १७६३च्या जानेवारींत टिपू सुलतानाचो बापूय जो म्हैसुरचो राजा हैदर अलीन

सौंदा संस्थानाचेर धुरी घाली. तेन्ना सौंदेकार राजा सदाशिव वडियारान गोंयच्या पोर्तुगेझांक आपल्याक मजत करपाक आवाहन केलें. तेन्ना पोर्तुगेझांनी सौंदेकार राजाक मजत केली. सौंदेकार राजान अडवट (काणकोण), बाळ्ळी, काकोडे, जांबावले, चंद्रवाडी, (आतांचो केपें म्हाल) अश्टग्रहार आनी हेमाडबार्शे (आतांचो सांगे म्हाल) फोंडे म्हाल आनी काब-द-राम किल्लो पोर्तुगेजांकडेन सुपुर्द केलो आनी पोर्तुगेजांनी ताका मजत करून आपलो मांडलीक केलो आनी १७६४ वर्सा सावन काब-द-रामाचो किल्लो पोर्तुगेजांच्या शेकातळा आयलो. खोलगडाक पोर्तुगेज रामाच्या भुशिराच्या नांवावेल्यान काब दे रामा म्हणपाक लागले.

काणकोण, सांगें, केपें, फोंडें म्हाल हे पोर्तुगेजांच्या शेकातळा आयलें.







१७६४ ते १९६१ मेरेन काब-द-राम किल्लो पोर्तुगेजांच्या हाताखाला आशिल्लो. आतां तो गोंय राज्य पुरातत्व खात्याच्या अधिकारान आसा.

१८ जुलै २०१०च्यान ECO TREK हे संस्थेमार्फत आमी SAVE CABO DE RAMA CAMPAIGN सुरू केल्या. तो खाजगी करपाक आमचो विरोध आसा. त्या किल्ल्याचें पंचतारांकीत हॉटेलांत रुपांतर जावपाक दिवचे नात अशें आमी थारायलां. काबो द राम हें गोंयकारांचें दायज तें आमी जतन करपाक जाय.

जतन केलेंच म्हणून जायना. तर आयज दर एक गोंयकारांनी आपल्या दायजाची खरी वळख करून घेवपाक जाय. गोंयच्या दक्षिण जिल्ल्यांत काणकोण म्हालांत, सैम सुंदरायेन नटलेल्या सोबीत अश्या वाठारांत हो किल्लो आसा. ह्या किल्ल्याचे पांय अरबी समुद्राचीं ल्हारां धुतात. हांगची ही वेळ गोंयची एक सोबीत अशी वेळ जावन आसा.

देशविदेशांतले पर्यटक हांगा गर्दी करून आसताच. आमचें हें गिरेस्त दायज आमी गोंयकारानींय जाणा जावन घेवप तितलेंच गरजेचें आसा.



**ह्या पर्यटन थळाचेर वतो जाल्यार मडगांवच्यान, काणकोण मेरेन बशी वतात. त्या भायर टुरिस्ट टॅक्सी थंय वचपा खातीर उपलब्द आसात. सकाळीं वचून सांजे परतून येवपा सारको आनी सैम सुंदरायेंत आपल्या मनाक थाकाय दिवपा खातीर ही सुवात खुबूच सोयिस्कर आसा.**



# नातालां

– विन्सी क्वाद्रूस
'स्नोज कृपा',
आर्लेम राय,
सालसेत-गोंय
मो. 9822587498

एक दीस
भारत
सरकारान
पुर्तुगेझांक
गोंयां थावन
धांवडावन
घाले आनी
म्हज्या
बापायक गोंय
सरकाराची
नोकरी
मेळ्ळी,
तेन्नाच्यान
आमच्या घरांत
बरे दीस उदेले,
पूण म्हजे
आवयन
देवाची भक्ती
करची सोडूंक
ना, म्हाका
सदांच जेजूच्या
मार्गान मुखार
काडलो.



"येयात, येयात भुरग्यांनो, जेजूचे खुशालकायेंत वांटेकार जायात."

एक क्रिसमस फादर मळार खेळटात त्या भुरग्यांक पळोवन आपले गाडयेंतल्यान देंवलो आनी तांका आपोवंक लागलो. ताच्या हातांत आशिल्ल्यो चॉकलेटी आनी खेळणी पळोवन भुरगीं धांवून आयलीं.

'बसात' एका झाडामुळांत ताणें चादर घालें आनी भुरग्यांक बसूंक सांगलें.

"तुमी ह्या दिसांनी नातालांचे सुटयेर आसात आनी जेजूच्या जल्माची परब मनयतात. तर तुमी जेजूच्या जल्माची खबर जाणांत?"

"ना. ना."

भुरग्यांनी हात हालयत बोवाळ केलो.

"बरें तर आयकात." क्रिसमस फादरान पवित्र पुस्तक उगडलें आनी वाचूंक सुरवात केलें. "जेजूच्या जल्माची खबर अशी : ताचे आवय मारियेक आनी जुजेक लग्नाचें उतर जाल्लें. पूण तीं एकठांय येवंचे आदींच पवीत्र अत्म्या उदेशीं ती गर्भेस्त जाल्ली मेळ्ळी. तिचो पती जुजेन तिका गुप्तीं सोडून दिवचें केलें. कित्याक तो नितीवंत मनीस आसलो आनी तिचें नांव उबोवंक ताका खोशी नासली. ताणें अशें येवजिल्लें आसतनाच, ताका सपनांत सर्वेस्वराचो एक दूत दिश्टी पडलो. आनी ताणें सांगलें 'जुजे, दाविदाच्या पुता, मारियेक तुजी पोतीण कशी तुजे सांगाताक घेवंक भियेवं नाका. तर तिच्या कुसव्यांत गर्भ संभवला तो पवीत्र अत्म्या उदेशीं. ती एक पूत परसूत जातली आनी जेजू म्हण तूं ताका नांव दवरतलो. कित्याक तो आपले पर्जेक सोडयतलो. हें सगळें घडलें सर्वेस्वरान भाकणारां वरवीं अशें सांगिल्लें तें पाळचेखातीर. पळयात एक आंकवार चली गर्भेस्त जातली आनी एक पूत प्रसूत जातली आनी ताका एमानुयल म्हणल्यार आमचे सांगाता देव म्हण नांव घालतले.

न्हिदेंतलो उठून देवदुतान ताका हुकूम घाल्ल्या प्रमाण जुजेन केलें. आनी पतीण कशी तिका सांगाता घेतली आनी तिणें आपल्या पुताक जल्म दिलो तो दीस पासून तांचो एकवट जावंक नासलो. आनी ताणें जेजू म्हण बाळकाक नांव दवरलें." इतलें सांगून ताणें मात्सो विसव घेतलो.

"आता तुमी जेजुच्या जल्माची खबर आयकली. तर म्हाका सांगात जेजू कित्याक जल्मलो?" आपणें विचारिल्ल्या प्रश्नाक कोण जाप दिनांत तें पळोवन तोच सांगूंक लागलो. "जेजू जल्मलो मनीस कुळाक एक नवो संदेश दिवंक, मनीसकूळ नितळ करूंक आनी मनीसकुळाक पातकांतलीं पयस करूंक. मनीसकूळ म्हणल्यार आमी सगळीं." आपल्या पोत्यांतल्यो कांय चॉकलेटी काडून भुरग्यांक वांटतना ताणें मुखार सांगलें.



"एक फावट देवान संवसाराचेर बुडटी धाडून पुराय संवसार काबार केल्लो आनी तातूंत फक्त नोआ म्हणिल्लो एकलोच मनीस जिवो आसलो. आपलीच रचणा आपणें काबार केली म्हण देवाक खंत भोराली. नोआपासून नवी संसत तयार जाली. पूण मनीस पातकाविणें जियेवपाचो थांबलो? ना. मनीस पातकांतच बुडून रावले. देवाक दिसतालें परतून एक फावट संवसाराचो नास करचो म्हण. पूण देवान तशें करूंक ना. म्हण ताणें जेजू आपल्या एकल्याच पुताक ह्या संवसारांत धाडलो आनी ताणें मनशांमदीं देवाची खबर परगट केली, देवाची शिकवण पसरायली आनी देवान विंचून काडिल्ले परजेक पवीत्र आत्म्याचें देणें फाव केलें."

"आमच्या गोठ्यांत जल्मला ताचीच खबर न्हय ही क्रिसमस फादर!" एका भुरग्यान निशपाप मनान प्रस्न केलो.

"तो तुमच्या गोठ्यांत जल्मूंक ना. तो गोठ्यांत जल्मला असो देखावो करून आमी आमकांच त्या काळावयलो उगडास करूंक सोदतात. तो जल्मूचो आसलो तेन्ना ताका सुवात मेळूंक ना, म्हण नाइलाजान ताका गोठ्यांत जल्मूचो पडलो. देवाचो पूत जावन लेगीत इतली खालतीकाय भुरगेपणा थावन ताच्यांत सुरू जाल्ली. आमी ताचो जल्म समारंभतात आनी परतून एक फावट मनशाक ताचो आनी ताचे शिकवणेची याद करतात. तो आमचे बराबर जियेता आनी वावुरता म्हण दाखयतात." क्रिसमस फादरान सांगलें.

"आमकां कशें समजता जेजू आमचे बराबर जियेता आनी वावुरता म्हण?" आनीक एका भुरग्यान विचारलें.

"तो पळयात एक मनीस सोरो पियेवन लकत लकत वता. पळयात तो पडटलो आसलो. ताका कोणें सांबाळ्ळो? जेजून सांबाळ्ळो. तुमीय केन्ना केन्ना आपटतात, पडटात, तुमकां कोण सांबाळटा? जेजू." त्या सोरो पियेवन वचपी मनशा वरवीं ताणें जेजूक दाखोवपाचो यत्न केलो.

तितल्यांत एक जाण्टो मनीस बडयेच्या आदारान क्रिसमस फादरा फुड्यांत उबो जालो.

"चलात भुरग्यांनो, तुमचे चॉकलेटीचो वांटो ताकाय दियात, ताका आदार करात."

"नाका बाबा. हांव जाण्टो, म्हजे दांत पडल्यात. चॉकलेटी खंय खावंक जातात? हांव असोच पासयेक आयिल्लों. तुमकां पळोवन हे वाटेन वळ्ळों. हांव ह्या त्या जाण्ट्यांच्या घरांत आसतां." ताणें आपल्या घराक बोट दाखयत सांगलें.

"जाचो कोण ना, ताचो देव आसा." क्रिसमस फादरान मळबार बोट दाखयत सांगलें.

"हांगाच बसून हांवें तुमच्यो गजाली आयकूंक म्हाका परवानगी आसा?" जाण्ट्यान विचारलें.

"व्हड खुशेन." म्हणीत क्रिसमस फादरान ताच्या हातांत चॉकलेटी घाल्यो आनी परतून जेजू विशी सांगूंक लागलो. हो जाण्टो ताचें उलोवप बारकायेन आयकतालो.

"तूं जेजूचो सांगाती कित्याक जालो?" जाण्ट्यान अकस्मात विचारलें.

"म्हजे विशीं थोडें सांगतां. म्हजो जल्म पुर्तूगेज राजवटेंत जालो. आमची परिस्थिती गरीब आसली. दिसाक दोन जेवणां मेळोवंक आमकां त्रास जाताले. एक दीस आमी जायते भुरगे खेळत घरा येतना हांवें पळयली एक गाडी खावपाच्यो वस्तू हाडून भायर मारताली. हांवें तातुंतलीं थोडीं टमाटां, बटाटे आनी गाजर बुश्कोटाचे हुंटयेंत घालून हाडले. हांव तेन्ना सुमार धा वर्सांचो आसलों. म्हज्या बराबर हेरय भुरग्यांनी तशेंच केलें. हांव खुशाल जावन घरा आयलों. पूण म्हजे कडल्यो वस्तू पळोवन आवय रागार जाली.

म्हजी खुशालकाय थंयचे थंय ना जाली. तिका दिसलें हांवें त्यो चोरून हाडल्यात म्हण. तिणें म्हाका मारलो आनी उलोवंक लागली. ती सामकी देव-भिरांतीची मनीस आसली. चोरी करप ना, वायट उतरां उलोवप नात, घरांत सदांच तेर्स-रोजार करप, सदांच देख दिवपी आदी. त्या सगळ्या वस्तूं बराबर म्हाका घेवन ती त्या लुगाराचेर आयली. तेन्ना म्हळ्यार थंयचें सगळें काबार जाल्लें. हांव परतून फट सांगतां अशें समजून तिणें म्हजेर थंयच आनीक एक थापट दिलें. तेन्ना एक मनीस ते वाटेन पासार जातालो, ताणें तिका आडायली.

"भुरग्याक हे परीं रस्त्यार तूं कित्याक मारता? तांच्या मनाचेर वायट परिणाम जाता." त्या मनशान म्हजे आवयक समजायली.

"पळय. तो खंयच्यान तरी ह्यो वस्तू चोरून घेवन आयला आनी हांगच्यान पुंजावन हाडल्यात म्हणटा. हें जर पुलिसांक कळ्ळें जाल्यार माणसुगी आसा?" तिणें भिरांत व्यक्त केली.

"ना अंकल. हांवें त्यो चोरून हाडूंक नांत. एके गाडयेन त्यो हांगा उडयल्ल्यो, बऱ्यो त्यो हांवें काडून व्हेल्यो आनी म्हजे बरोबर आशिल्ल्या भुरग्यांनी व्हेल्यो." म्हजीं उतरां आयकून त्या मनशान म्हज्या खांद्यार हात दवरलो.

"आमचे साश्टींत एक नवो देलेगाद साऊद अधिकारी आयला. तो एक भाटकार आनी आस्तीक घराण्यांतलो. तो कोणाचें कितें घेवपी न्हय. सामको कडक अधिकारी. तो म्हणटा मनशाचे भलायकेची आमी जतनाय घेवंक जाय. आपणाक कडक रावपाक सरकाराची आज्ञाच आसा. जेवणाचे खाणवळींनी, गुदावांनी स्वता भेट दिता आनी थंयसर कितेंय वांकडें मेळ्ळें जाल्यार सोमतें गाडयेंत भरून हाडून भायर मारता. अशे तरेन आपलो वेपार भायर मारता म्हण थोडे सरकाराक जाप विचारूंक गेले. तेन्ना व्हडल्या अधिकाऱ्यांनी सांगलें दुसरे फावट सांपडल्यार परवानोच काडून घेतलों म्हण. उलटे तेच त्रासांत पडले. कित्याक लोकांक फटोवन दुडू करपी मनीस सरकाराक नाका आसले. आयजूय त्या अधिकाऱ्यान जायते कडेन धाड घालून हाडिल्ल्यो वस्तू हांगा भायर मारिल्ल्यो. हें अशें जायते फावटी घडटा. तेदे वेळार हे वाटेन पासार जावपी त्यो बऱ्यो आसल्यार विंचून काडून व्हरतात, तशेंच तुज्या पुतान केलें. तातून वायट कांयच ना. त्या मनशान सारकी गजाल सांगली. म्हजे आवयक आपले करणेची लज जाली. तिणें म्हाका वेंगेंत घेतलो आनी घरा आयली.

मागीर हांव केन्ना केन्ना तसले गाडयेची वाट पळयतालों. कित्याक त्या दोन दिसांक तरी पोट भर रुचीन जेवंक मेळटालें.

एक दीस भारत सरकारान पुर्तुगेजांक गोंयां थावन धांवडावन घाले आनी म्हज्या बापायक गोंय सरकाराची नोकरी मेळ्ळी. तेन्नाच्यान आमच्या घरांत बरे दीस उदेले. पूण म्हजे आवयन देवाची भक्ती करची सोडूंक ना. म्हाका सदांच जेजूच्या मार्गान मुखार काडलो.

आमची परिस्थीती सुदारली पूण आमचे सरभोंवतणच्या गरीब लोकांची परिस्थिती पळोवन म्हजें काळीज रडूंक लागलें. ताका आदार करूंक पाद्री जावंचें अशें म्हाका दिसलें. म्हजे आवयकूय खुशी आसली म्हाका पाद्री करूंक. पूण तशें घडलें ना. हांव जसो व्हड जातालों तसो म्हाका जेजू लागींचो दिसूंक लागलो. कित्याक हांव सदांच पवीत्र पुस्तक वाचतालों. देवसंदेशकार म्हण मानून देवाचें कार्य करतालों. आतां हांव बसपगारी जालां. म्हजो संवसार करूंक म्हाका पॅन्शन मेळटा. म्हजो वेळ पासार करूंक आनी चड करून ह्या क्रिस्त जयंतीच्या काळांत हांव गांवा-गांवांनी भोंवून जेजूक परगट करतां. तुमीय म्हजे भशेन वागात आनी पळयता तुमचें जिवीत कितलें अर्थभरीत जातलें तें! बरें तर भुरग्यांनो, आतां हांव तुमचो निरोप घेतां, म्हाका दुसऱ्या गांवात वचूंक जाय." क्रिसमस फादर वचूंक उठलो.

'मॅरी क्रिसमस, मॅरी क्रिसमस  
खुशालभरीत नातालां,  
नातालांच्या दिसा,  
तुमी जाय तशे नाचात  
हांवूंय पोय नाऽचूंक आऽशेऽलां.'

एकल्या भुरग्यान सर्गेस्त आल्फ्रेड रोजाचें गीत सुरू केलें आनी सगळींच भुरगीं उठून क्रिसमस फादराच्या हाताक धरून कुंपासार नाचूंक लागलीं. जाण्टोय आपली बडी हालयत, गायत नाचूंक लागलो.



## रंग

संवसाराचे फोलिवेलो
मनीस एक रंग
पितारपी रंग भरता-चित्र रंगत आसा
नकळो म्हजो रंग कसलो
पितारप्याक खबर आसत
पिशोल ताचें व्हरता थंय-म्हाका तो पावयतलो
चित्रांतले सैमाचे रंग
थंय थिपक्याभशेन म्हजोय भरसला
आसा थंय तसोच रावून-चित्रांत घोळून वतलो

– महेश पारकार
शिरोडें – गोंय

## आनी तूं लख्ख दिसलो

मेणवातीच्या उजवाडान
तुकां पळोवपाचो यत्न केलो
पूण तूं दिसलो ना
दोळे पेटयले
तूं दिसलो ना
दोळ्यांतल्यान घसघशीत दुकां व्हावयलीं
तरी तूं दिसलो ना
उप्रांत काळजांत रडलों
तसो आत्मो पेटलो
आनी तूं लख्ख दिसलो...

आतां दिय्यार हांव अशेंच करतां...

– आर. रामनाथ
कुट्टी, फोंडें-गोंय.

## आफयल्लो तेन्ना

आमोरेर आफयल्लो
तेन्ना तूं आयलोना
ते खीण परत येवपाक
तुकां रे रावलें ना

फुलयल्लीं फुलां हांवें
तोखेवंक तुकां आफयल्लो
तुवेन येवंकच उशीर केलो
परमळ तसोच उरलो ना

म्हज्या दोळ्यांतलीं दुकां
पुसूंक तुकां आफयल्लो
तुवेन मनार घेतलें ना
आतां म्हजीं दुकां सुकून गेलीं

एकटेंच हांव आशिल्लें
गुपीत सांगपाक आफयल्लो
तुका कितें वेगळेंपण दिसलें
आनी आतां कितें सांगपाचें तेंवूय हांव विसरलें



– अशोक शिलकार
मावमवेरे, शीला

## मायमाऊली

कश्ट सोशीत सानुल्याखातीर
जळटां जशी कापसाची वात
उरांत काजळी एकठावन
फाटीर मायेचोच हात
म्हज्या मनमंदिराचे गर्भकुडींत
पुजा सदांच मायमाऊलीची
म्हजे जिणेंत यश किर्ती
तिचेच पूर्वपुण्याईची
तिच्या सुसंस्कारी तेलाची
अखंड मायेचीच ज्योत
दिता ज्ञानरूपी उजवाड
म्हज्या पवित्र मनमंदिरांत
केलें जिवाचें रान तिणें
मेळोवंक कश्टांची भाकरी
हांसते प्रसन्न मुखामळ
जशी दिवाळेचीच तयारी
काट्याकुट्यांच्या संवसारांत
शिजोवन सादेंच अन्न
अन्नपुर्णेच्या आशिर्वादान
जाता स्वादिश्ट पक्वान
भरदनपारच्या वतांत
झिजोवन आपली काया
सात्विकतेच्या धुपान
मेळटा सुगंधीत माया
तिच्या पोशांतलीं शब्दफुलां
शिकयता अर्थ मनीसपणाचो
स्वाभिमानान जियेतना
परमळ सदांच निस्वार्थाचो
तिच्या जल्माच्या त्यागाक
निरंतर कश्टांचीच किनार
दाखयता वाट म्हाका
तिचेच गोड संस्कार

– सुशीला नि. हळर्णकार
वासुदेव नगर – मडगांव.
फोन : २७५२९१७





## भाव वैरी

भयण म्हजी, भाव तुजो
पवित्र मोगाक
कोणें पेटयलो उजो
तुकां गरज तेन्ना
झाडार म्हाका चडयलें
आतां मात
अचळय कुशीक उडयलें

तुजे खातीर
हांवें काडले जायते त्रास
खुशाल तूं आसचें
इतलीच म्हजी आस

मोगाळ दोन भुरगीं तुजीं
मामा मामा म्हण येई धांवत
भाचयेच्या लग्नाक
आयलीं सगळीं उमेदीन
आमकां मात परकीं केलीं
अहेर लेगीत मामाचो
परत तुवें केलो
भाव तुका असो
वैरी कसो जालो

रक्षाबंधन सण येता
भाव, भयणीची वाट पळयता
भयणीक भावाची जायना याद
राखीय तुजी म्हाका फावोना?

फुलां सारकीं भुरगीं म्हजीं
भुरग्यांक म्हज्या भयण ना
चलयेक तुजे वेळ ना
विचारतात ते म्हाका
दिदी राखी कित्याक बांदिना?

संवसारांतले दीस चार
सदांच म्हजें उक्तें दार
काळजाक घालता व्हड घाय
भाव तुकां आतां कित्याक जाय?

देवान तुमचेर घालचें बेसांव
दिवची तुमकां बुद्द बरी
सख्खो भाव जावंचो न्हय
खंयचेच भयणीचो पक्को वैरी

**– शिवानी विश्वास नायक**
मडगांव – गोंय

## गुपीत

तुजी एकूच मोगा नदर
सदांच तूं म्हजेर दवर
जगतलें आयुश्यभर
तुजेंच नांव घेवन

निराश उदास जगून
म्हजेंच जातलें लुकसाण
मौन व्रत घेतल्यार
हांवूंच जातलें बदनाम

हालीं चंद्र सुद्दां मळबांतलो
म्हाकां पळोवन गर्भगळीत जाला
म्हज्या मनांतलें गुपीत
हालींच ताका होलमलां



**– हेतल सुभाष शाह**



## वात

पर्वा करीना ती स्वताची
निस्वार्थी ती मनाची
दुसऱ्याचें जिवीत जावचें उजवाडीत
हीच सदां चिंतनां तिचीं

माथ्यार घेवन ज्योत उज्याची
फांकारता किर्णां उजवाडाचीं
दुख्ख विसरून मिरयत
दुसऱ्याक ओंपता आपलें जिवीत

घेवन देख वातीची
जावया आमी उदार मनाचीं
काळखांत शेणिल्ल्यांक
वाट दाखोवंक उजवाडाची

– म्युरियल फर्नांडीस
११वी कॉमर्स,
एस. एफ. एक्स हायरसेकंडरी,
शिवोली-गोंय

## काजुल्यो

लांब रस्ता
चलून सोंपना
ल्हान आशा
भोगून सोंपना
*
नक्षत्रांक फिरूंक
मळब दिल्ला
विचारांक फिरूंक
मनमळब दिल्ला
*
जीणेची ही
रेवें तडी
खीणाची आसा
भांगरातडी
*
वेळा फुडें
चला आमी
वेळा फाटी
चलू न्हय
*
मळबांतलें उदक
पावस जाल्लें
दोळ्यांतलें उदक
दुख जाल्लें
*
आरोहण
कठीण आसा
अवरोहण
सोंपें जाता
*
मनांत जाय
जीणेक आशा
लांब जाता
जीणेचो आयु
*
सांगील्लीं उतरां
मोल विना गेल्लीं
आयकल्लीं उतरां
मोलादीक जाल्लीं



आशा
रोवन घाल
आनंद
लुवून घे
*
काळखेचें सपन
उजवाडाच्यो सूर्य
मळबार पावलो
पर्जळेत रावलो
*
आक्षर घेवन
रीणबंद जालों
आक्षर दीवन
रीणमुक्त जालों
*
धतरीचें सपन
वोवळां फुलां
मळबाचें सपन
नक्षत्र फुलां
*
पावस रकरकता
मळबावेल्यान
विचार रकरकता
मनांतल्यान
*
पासणाक लेगीत
मेळ्या शितळकाय
मनीस आजून
मागता शांतताय
*
न्हंयची वाट
व्हावंक सोदता
सावण्याची वाट
उडूंक सोदता



– आर. एस्. भास्कर
राम मंदीर
अमरावती, कोची-६८२००१, केरळ
फोन : ०९३८७५०५९५१

# प्रीतम



**काँ**वेताक नाताळ परबेची सुटी मेळ्ळी. तशें ताणें काँवेतांतल्या हेरां भुरग्यांभशेन आपल्या घरा येवपाची सगळी तयारी केली. हेरां भुरग्यांभाशेन तें मादरींची आनी फादराची आज्ञा घेवन कोणाची तरी वाट पळयत काँवेताच्या हुंबऱ्यार बसलें.

काँवेतांतल्या वांगडच्या भुरग्यांची कोण तरी नातलग येवन तांकां व्हरपाक लागिल्लीं आनी इतल्यांत भुडू...भुडू आवाज करीत दोन चाकी येवन ताच्या मुखार उबी राविल्ली. तशें तें खुशालभरीत जावन उठलें आनी दाडा...दाडा... म्हणीत तें त्या दोनचाकी गाडयेवाल्याक बिलगलें. ताणें ताका गोपांत घेवन माय-मायेस्त वेंगायलें. ताचें बॅग दोन चाकीच्या ब्रेकेटाक लावन, ताका टाकयेर बसयलें. आनी गाडयेक गीयर घालून ताच्या दाडान घराचे दिकेन येवपाक गाडी धांवडायली. बऱ्याच गांवांचो रस्तो पालथून तांची दोन चाकी गाडी गांवघरच्या आंगणांत येवन थांबली.

ताच्या दाडान ताका गाडयेवयल्यान सकला दवरलें. तशें तें खोशी जावन घराचे जिने चडोन बलकांवांतल्यान सालांत भितर येयलें. आनी ताणें 'काकू!' म्हूण साद घातलो. तेन्ना चाळिस-पंचेचाळीस वर्सांची एक बायल येवन कुजनाच्या दारार उबी रावली. तशें ताणें तिका धावत येवन वेंग मारली.

एकमेकाच्या गोपांत तांचे कांय खीण नि:शब्द गेले. खिणांतच भरिल्लें हड्डें अळंग खाली करून तीं दोगांय एकामेकापासून वेगळीं जालीं आनी ताणें तिका हटकिलें.

"मारिया काकू! कोशें आसा गो तूं?"

"म्होजे धुवे, काळजाच्या कुडक्या! हांव खुशालभोरीत आहां. आतां तूं सांग म्होजे धुवे तूं कोशें आहा?"

"तुमच्या सोगल्यांच्या बेसावान आनी देवाचे कृपेन हांव बेस बोरीं आनी खुशालकायेन आहां."

"सांग पोटाक भूक लागोल्या?"

"हां!"

"सांग कितें खातोलें?"

"काकू! तुज्या हातचें कितेंय."

"मागीर तूं हांगा बोस. हांव रोखडींच येतां."

अशें म्हूण तिणें ताका सोप्या म्हऱ्यांत एका कदेलार बसयलें. आनी

ती कुजनात गेली. ती कुजनांत वतांच ताणें सालांत सरभोंवतणी नदर भोंवडायली. सालांतली दरेक वस्त जाग्यार आशिल्ली. आनी ताच्या येण्यान त्यो वस्ती सजीव जावन उठिल्ल्यो अशें ताका भासलें. दरेक वस्त सुखा-दुख्खाच्यो खबरो करपाक सोदताल्यो. आनी इतल्यान ताचें मारिया काकू नेवऱ्यो, बोलींजा, केकीचे कुडके आनी हेर गोड-धोडान भरिल्ली बशी घेवन फुड्यांत आयली. तशें ताणें तिका विचारलें;

"काकू! इतलें सोगळें म्हाका एकल्याक?"

"पोयलीं तोंड उघोड, मागीर सांगोतां."

अशें तिणें ताका सांगताच ताणें तोंड उगडलें. तशें तिणें ताच्या मुखांत केकीचो कुडको घालो. आपणाच्या मुखांतलो उश्टयाचो अर्दो केकिचो कुडको ताणें काकूच्या मुखांत घालो. तशें तिणें ताचें मस्तक चुंबलें. आपणाचें पोट भरतकच ताणें तिका सांगलें,

"काकू! पुरो बस, चोड जालें."

"बोरें! आतां म्होजी धू न्हावन-धुवन घेता मू?"

"व्हय."

अशें म्हूण तें तिच्याबरोबर कुजनांत येयलें.

कुजनांत नेवऱ्यो, बोलींजां, केक, धोदल आनी हेर गोड-धोड जिन्नसांचो परमळ ताच्या आत्म्याक तृप्ती करून गेलो. हो दरेक जीन्नस तोंडांत उडोवन आपणाचो आस्वाद घे म्हणटालो. पूण घरांत येतांच ह्या दरेका जिन्नसांचो आस्वाद घेतिल्ल्यान ताणें लांबसावनच ताचे दोळे भरून आस्वाद घेतलो. आनी तें न्हावपा घरांत येयलें.

घाण्याच्या खोबरेलान ताका काकून मालीश केलें आनी गरम-गरम उदकान न्हावपाक घातलें. तशें ताका खुब्ब बरें दिसलें. न्हावन-पुसून जातकच ताच्या काकून ताका नवीन विस्तीद घालो आनी ताका भायर बलकांवांत हाडलें. आनी ताचें काकू कामाखातीर घरांत भितर गेलें.

आंगणांतल्या कवाथ्याच्या कवाळ्यांत पोंयों फुटिल्ल्यो. तांच्या फुलांनी आपणाच्यो चोची घालून इल्लीं-इल्लीं विलूदशीं सवणीं म्होवाळसो आवाज करतालीं. एकाद्रीं पोयेंतलीं बाविल्लीं फुलां तांच्या हलक्याश्या कसल्याय स्पर्शान अळंग धर्तरेर शिताडो पाडटालीं. तांचो तो मनभुलयणो खेळ तें पळयतालें. इतल्यान "यो माये मोगाच्या... आमकां घे गोपांत..." अशें मायेचो दुवो आळयणारें कातार कोणाच्या तरी शिळोणेंतल्यान येवन ताच्या कानार पडलें. तशें ताचें लक्ष ताचेर गेलें.

कसरत करप्या मल्लासारको तो भारी-भक्कम पासकू रेंदेर. निर्व्यसनी, पूण जेवणा-खाणाबरोबर कातारांचो शौकीन. माडाच्या दरेका खापार पांय दवरून तो कवाळ्यांत चडलो. आनी कवाळयांत वचून बसलो. दाव्या हातांतलें सुरीचें दुदकें काडलें. तातुंतली ताजी-ताजी सूर कवाळ्यांत शिरकयल्ल्या सुरी दुदक्यांत ओतयली. तशें ताणें ते पोंयेक धारधार कातयेच्या आधारान नवो शेव घातलो. अशे दोन-चार पोयेंक नवीन शेव घालून, ताणें कवळ्यांतल्यान माडाच्या-खोडाच्या खांपार पांय दवरलो.

दाव्या हातांत सुरीचें दुदकें आनी उजव्या हातांत धारधार काती. तोंडांतले शिळोणेंतल्यान व्हदोळचें मायेचो दुवो आळयणारें तें कांतार. एका-एका खांपार पांय दवरून तो माडा मुळांत देंवलो. इतल्यान ताका घरा पावोवन खंय तरी गेल्लो ताचो दाडा भुडू...भुडू... करीत दोन चाकी घेवन आंगणात येयलो. तशें पासकू रेंदेरान ताका हटकिलो,

"आरे इरमांव! केन्ना येयलो रे तारवावोयल्यान?"

"सकाई.."

"सकाई! पूण सकाई दिसलो ना मरे तूं, खंय आसोलो?"

"सकाई येयलो तसोच काँवेतांत गेलों."

"मागीर बेबीक हाडलें तोर?"

"तें तोर म्होजी जान मुरे."

"मागीर आमगेल्ली धूव खोय आहा तोर?"

"तें पोय बलकांवार!"

"ऑ बेबी! कितें कोत्ता गो, बलकांवार रावोन?"

"त्या सोवण्याक पोयतालीं तीती."

"बेबी! बोरे मुँ तूं?"

"हां तीती!"

"बोरें इरमांव! मेवचें."

अशें सांगून पासकू रेंदेर मुखावयल्या माडांची सूर काडपाखातीर फुडें गेलो. आनी तें बलकांवावयल्यान आंगणांत आपणाच्या दाडाशीं येयलें.



दोन चाकी बंद करून ताणें ताका उखलून हांडीर घेतलें आनी दोन चाकिच्या गियेक हुंबकळयल्लीं बॅगां घेवन घरांत भितर येयलो.

घरांतलीं सगळीं मनशां नाताळ परबेच्या सरबरावणेक लागिल्लीं.

नाताळ परबेक लागणारे एकान-एक पदार्थ शेजाऱ्यांच्या मजतेन पुर्णत्वाक पाविल्ले. फकत उरिल्लो तो जेजू जल्माचो देखाव्याचो गोठो आनी नाताळ झाडाच्या सजवण्याचें काम. तसो ताचो दादा कोयतो आनी कोयती घेवन दोंगरा वाठारांत गेलो आनी कांय वेळांतच एक कोंडो आनी भांगराळें सुकें तण घेवन येयलो. कोंडो फोडलो. ताच्यो गोठ्याक आनी नखेत्रांक तासून निव्वळ बडयो केल्यो. सूत, कोंड्याच्यो बडयो, भांगराळ्या तणाचे मजतीन ताच्या दादान गोठ्या बरोबर सोबीत ल्हान-मोठीं नखेत्रां घडयल्लीं.

आंगणांत छप्पराचे पावळे सकयल गोठो स्थापन केलो. तातूंतलें बाळक जेजूबरोबर माय मेरी आनी हेरांच्यो मुर्त्यो सजोवपाक आनी गोठ्या भायलो देखावो करपाक दर्या वेळेची रेंव जाय आशिल्ली. तशें ताणें आपणाच्या दादाक विचारलें,

"दादा...दादा! तूं त्यो म्हुर्त्यो कित्याक गोठ्यांत सोजोयना?"

"त्यो सोजोवपाक इल्ली रेंव जाय. तेन्ना हांव दर्यार वोचोन येतां, तूं हांगोर राव."

"दादा, हांवूय येतां?"

"बोरें चोल. माना मारिया... ऑ माना मारिया..!!"

"ओव रे बाबा!" ताच्या मारिया काकून ताच्या दादाच्या उल्याक घरा भितरल्यानच जाब दिली.

"हांव मात्सो बेबीक घेवन दर्यार वेतां."

"बोरें...बोरें!"

"चोल बेबी! या आमी."

ताच्या दादान एका हातांत साकाची पिशवी घेतली आनी दुसऱ्या हातांत ताचो हात घेतलो. चलतां-चलतां तीं दर्या वेळेर पावलीं. बरेशे जाण रांपणी जाळाचे दोरयेक दांडयो बांदून रांपण ओडटाले. बरिशी रांपण ओडून जाल्ली. वसाडीर व्हड्यावयल्या कोणे तरी ताच्या दादाक साद घालीत म्हळें,

"ऑ तारवाकार! रांपोण कारांच्या मोजोतेक येयला मू. तेन्ना आमचो एक खोडेगांठ तारवाकार म्होण यो आमच्या मोजोतेक."

"येतां...येतां!"

अशें ताच्या दादान वसाडीर आशिल्ल्या व्हडेवाल्याक सांगलें. तशें त्या रांपण ओडप्यानी, "आमचो खोडेगांठ तारवोटी ऐसा!!" म्हूण गजरार-गजर केलो. तेन्ना ताच्या दादान

ताका सांगलें.

"बेबी, तूं हांगोर राव! हांव मातशी मोदोत कोत्तां तेंका. उपरांत आमी रोखडींच घरा या आनी हां उदकांत आनी पयस वचोनाका हां."

तसो तो त्या रांपणकारांचे मजतेक गेलो.

बरोच वेळ ताणें त्या रांपण ओडप्या रांपणकारांक पळयलें आनी ध्यानी-मनी नासतना तें पांयाच्या आखाण्यान दर्या वेळेवयली रेंव उस्तुवपाक लागलें.

रांपण ओडून जाली. बांगडे, पेडवे, सुंगटां, मोरयो, वागोळीं आनी जायतें करबट पडिल्लें. ही खबर कळटांच आंवाठांतल्यो बायलां-भुरगीं हाताक मेळटात तीं पाटीं घेवन येयलीं. पूण ताची जल्मदाती मात त्या बायलां-भुरग्यांच्या घोळांत दिसली ना. तशें तें खटू जालें. सगळ्या भुरग्यांच्यो मांय-पाय, दादा-मामा आशिल्ले. आपलीं कित्याक ना. ह्या विचारांत आसतना ताचो दादा येयलो. ताच्या खांदावयले साकाचे पिशवेंत दर्या वेळेवयली रेंव आशिल्ली. ताच्या दादान ताका दर्या वेळेवयल्यान घरा हाडलें.

व्हदोळ पावळे सकला स्थापन केल्ल्या गोठ्यांत आनी गोठ्या भायर रेंव पसरायली. आनी बाळाक जेजूबरोबर मांयमेरी आनी मेढरां बरोबर हेरांच्योय मुर्त्यो स्थापन केल्यो. गोठ्याभायर खाजराचीं पानां आनी माडाचीं चुडटां लावन, गोठ्या भायर एक ल्हानशें नखेत्र हुंबकळायलें. गोठ्याचें काम पुर्ण जालें.

आंगणांत खुर्सा देगेचें नाताळाचें झाड धुवे-दादान सजोवपाक सुरवात केली. उंचशा स्टुलार उबो रावून ताच्या दादान बाजारांतल्यान हाडिल्ल्यो रेडिमेड वस्ती ताच्या हातांत दिल्यो. रंगरंगयाळीं ल्हान-ल्हान नखेत्रां. इल्ले-इल्ले बॉल, लखलखणाऱ्यो बेगडिच्यो माळो ताणें नाताळाच्या पानांक बांदल्यो. उपरांत ताच्या दादान कऱ्यांचे प्रतीक म्हूण इल्लो इल्लो धवोफुल कापूस सोडलो. नाताळाचें झाड सजोवपाचें काम पुर्ण जालें. तशें ताच्या दादान लांबचे-लांब सुस्कारो सोडलो. आनी आपणाचे जाबसालदारीच्या कामांतल्यान तो मेकळो जालो.

आतां आंगणातल्या खुर्सा देगेचें झाड लखलखून उठलें. तशें तें आनंदीत जालें. निमणें ताच्या दादान बलकांवाचे पावळेक एक व्हडलें नखेत्र हुंबकळायलें आनी तातूंत विजेचे बल्ब पेटयले. ल्हव-ल्हव दीस मावळ्ळो आनी रात जाली. आवाठांत घरा-घरानी दारांत नखेत्रां प्रकाशान लखख जाल्लीं ताचे नदरेक येयलीं.

बरे रातीर तें आपणाच्या मारिया काकू-दादा आनी घरच्यां हेरां बरोबर जेवलें. ताचो दादा आनी घरांतलीं कांय हेरां मनशां खंय तरी घराभायर सरलीं. तशें तें आपणाच्या मारिया काकूबरोबर न्हिदलें.

फांतोडेर काकूबरोबर ताकाय न्हिदेंतल्यान जाग आयली. तें काकूबरोबर उठलें. प्रातविधी आटपून काकूबरोबर सकाळच्या मिसाक गांवचे चर्चींत येयलें. चर्चींत फादरीन मीसाबरोबर सगळ्यांक जेजू जल्माच्या परबेचीं हुनहुनीत परबीं दिलीं. तशेंच सगळ्या समेस्तानी एकामेकांक जेजू जल्माच्या परबेची हुनहुनीत परबीं दिली आनी घेतली.

मीस सोंपतकीर तें काकूबरोबर चर्ची भायर येयलें आनी आपणाचीं भुरगीं मस्ती करतात म्हूण कोणे तरी एके बायलेन ताका उद्देशून आपणाच्या भुरग्यांक म्हळें,

"पोयल्यांत! भुरगीं मोस्ती कोत्तात म्हूण देव तांच्या पासोत तांचे आवोयक पोयस व्होत्ता. देखून तुमी मोस्ती कोरनाकात."

हें आयकून तें दुकांनी भरलें. आपूण मस्ती करता म्हूण देवान आपणाचे आवयक आपणापासून पयस दवरली आसूंयेता. हें मतींत हाडून तें आर्ततायेन रडलें. ताका सांतवनायता म्हणसर ताच्या काकूक आपणाचें दूक लिपोवचें पडलें. तेन्ना ताणें ताका सांतवनायत म्हळें,

"बेबी! ही पोय तुजी आवय जिवी आहा. तूं अशें रोडनाका. तूं ओशें रोडलें जाल्यार देव आमकां कितें म्होणटोलो. बेबी! तेन्ना तूं रोडोनाका हां...हां देवा पासोत तूं रोडोनाका..."

आपणाचो हुंडको सोपसर तें रडलें आनी अंतस्कर्णातलें दूक सोपसर दुकां गळयत तें काकुच्या हांडिवयल्यान घरा येयलें.

शियाळेंत वाऱ्याचे ल्हारेर वातावरणांतलें धुकें ना जावचें तशें ताच्या काकूच्या सांतवनेत ताचें अंतस्कर्ण दुकांतल्यान हलकें जालें. दूक



हलकें जातांच हेरां भुरग्यांसारकें तें खोशीयेन परजळ्ळें. पळयतां-पळयतां सांज वेळ जाली आनी तें आवाठांतल्या जुन्या इश्टांबरोबर आवाठांतल्या गोठ्यांचे देखावे पळोवपाक घरांतल्यान भायर सरलें. आवाठांतल्या गोठ्यांचे देखावे पळयतां पळयतां कोणे तरी नाताळ-बाबाचो विशय काडीत उलयलें,

"आले, नातालबाबा येवच्यो वेल ज्यालो."

"मागीर चोला-चोला आमी सगळीं कॉपेलाकोडे या." दुसरो

"आले... आले किचें दिच्योल्यो नाच्यालबाबा?" तिसरो.

"शोगलें दिचोलो नातालबाबा." पयलें

"माज्यो...माज्यो पापा दिच्योल्यो, जो धूल दलीयान ग्यायाच्यो?" तिसऱ्यान पयल्याक विचारलें .

"आनी... आनी मोजी माय, जी देवा घरा गेल्या ती." तिसरें.

"हां!"

पयल्यान मान मोडीत सांगलें.

आवाठातले बरेशे गोठ्यांचे देखावे तांचे पळोवन जाले आनी ताच्या इश्टांक नाताळ-बाबा येवपाची प्रतिक्षा जाली. तेन्ना तीं सगळीं आवाठांतल्या कपेलाकडे वळ्ळीं. आनी ते आपणाच्या घराकडे.

तें आपणाच्या घराकडे पावलें आनी हात-पांय धुवन घरांत भितर सरलें. घरांत देवाच्या अल्ताराक आनी आंगणातल्या खुर्साक मेणवात्यो लावन ताच्या काकून तेर्स केलो. आख्खो दिसभर घरात खोशयेचें वातावरण आशिल्लें. घरांत शेजाऱ्यांचें, सोयऱ्यांचें येवप, तांची उठ-बस हातूंत ताच्या काकूबरोबर घरांतल्या हेर मनशांचो दीस कांयच न्हय कसो गेलो.

तेर्सा उपरांत तें हुंबऱ्यार बसलें. बऱ्याच वेळान आवाठांतल्या कपेलाकडे फोग जालो. तशें ताणें जाणलें 'नातालबाबा' येयलो. त्या उपरांत बऱ्याच वेळान ताची ती जुनी इश्टां आनंदान हासत येतना ताचे नदरेक पडलीं. तें चिंतपाक लागलें, कितें तांची आस पुर्ण जाली आसतली? ताचें मन दोट्टी जालें. तशें तें हुंबऱ्यार बशिल्लेकडेन उठलें आनी सालांत भितर येयलें आनी दाडाच्या कुडांत येयलें.

दाडाच्या कुडाच्या वंटीर आशिल्ले आपणाच्या जल्मदात्रीचें पांयजेल घेवन तें सालांत येयलें. आनी आपणाच्या जल्मदात्रीच्या पांयजेलाचेर दुकां गळयत उमे घेवपाक लागलें. सालांत आल्तारासकयल ताची मांयविणे मुद्रा पळोवन ताच्या काकून ताका वेंगायलें. आनी म्हळें, "धुवे हांव तुजी जल्मदात्री आवय. तुज्या पासोत देवान तुजी आवय म्हाका केल्या... म्हाका केल्या." सकाळींच दोन वर्सां पयलीं स्मशान-शांततेत न्हिदिल्ले आपणाचे आवयक ताणें फुलां अर्पण केल्लीं. स्मशान-शांततेत आपणाची आवय न्हिदल्या तरी ती आपणाच्या काकुरूपान देवान जिवी दवरल्या. हें चिंतून ताच्या दोळ्यांतल्यान घसाघसा करून दुकां ओतपाक लागलीं.



**– प्रीतेश मंगेश परसाई**
हरमल, पेडणे-गोंय.



# गांवची सोबितकाय

सोबीत सैमान नटिल्लो पांचवीचार शेतां, भाटां-बेसानीं भरिल्लो गांव आसलो. त्याच गांवची ही खबर. नांव आसलें ताचें नंदन. नांवा प्रमाण लोक थंय खरेच नंदताले एकामेकांकडेन मायेमोगान तशेच समजुतकायेन वागताले. ह्या गांवच्या शेतां-भाटांनी गोरवां चरतात तें पळोवन कृष्णाल्या गोकुळाचो भास जाले बगर रावनासलो. गांवांत एक व्हड तळें आसलें. तळ्यांत खूब कमळां फुलतालीं पेवपी बदकां दिश्टी पडटालीं. गांवांत बाराय म्हयने शेतां भाटांक उदका पुरवण करपी एक न्हंय व्हांवताली. न्हंयचे देगेर एक व्हड रूख आसलें जणू काय विसव घेवचे खातीर मुद्दमच कोणेतरी तें लायलां. सांजवेळार थंय विसव घेवंक लोक येताले. ह्या झाडार जायत्या सवण्यांनी आपले घोंटेर बांदिल्ले. हांगचे लोक एका मेका कडेन बरेपणान वागपी. एका मेकांचेर खूब मोग करपी. बऱ्या वायटाक पावपी आनी म्होंवाळ.

ह्या गांवच्या लोकांची सकाळ कोंबो साद घालतकच जाताली. गांवांत खूब ल्हान ल्हान घरां आसलीं तीं गांवच्या लोकांनी खूब कश्टान बांदिल्लीं. गांवचे लोक चडशे शेत, आंब्याचीं कलमां, कवाते रोवपाचें काम करताले. हो गांव इतलो सुंदर आसलो की लोक हो गांव पळोवपाक मुजरत येताले. ह्या गांवांत देवळां, कोपेलांची खंयच कमी नासली. सांजवेळार गांवांक जात्राभरिल्ले वरी बोवाळ आसतालो कारण लोक काम करून घरा परतताले, सवणीं चिवचिवतालीं, बायलो उदक हाडूंक न्हंयचेर वतालीं, चरपाक गेल्लीं गोरवां घरा परततालीं, भुरगीं खेळटालीं. अशें सगळें बरें चलिल्लें. पूण सदांच कितें दीस बरे आसतात व्हय? जें कितें घडपाचें आसा तें घडटाच. तशेंच ह्या गांवांक कोणाची तरी नदर लागलीच म्हणपाची.

लोकांकडल्यान ह्या गांवाची चड तोखणाय आयकून हो गांव पळोवपाक एक गिरेस्त मनीस थंय पावलो. ताका तो गांव इतलो आवडलो की थंयच्यो न्हंयो आनी वातावरण पळोवन ताका दिसलें की हांगा कारखानो बांदल्यार उदकाची पुरवण केन्नाच उणी पडची ना. हें चिंतून ताणें गांवच्या भाटकारा कडल्यान, गांवचो अर्दो सुमार जागो विकतो घेतलो आनी थंय एक व्हड कारखानो बांदलो. गांवचे लोक सामके बेजारिल्ले. गांवचो सैम इबाड जायत वतालो. झाडां-पेडां-शेतां-भाटां दुशीत हवेच्या कारणान पिड्ड्यार जायत वतालीं. शेता-भाटांनी चरपी गोरवां दिसनासलीं. कारखान्याच्या आवाजाक लागून लोक घरांतले भायर सरनासले. शेतां-भाटां इबाड जाल्ल्यान बरें पीक मेळनासलें. शेतकार बाबडे सामके रडकुरे जाल्ले. तांकां व्हड लुकसाण जातालें. तांचें पीक मात लेगीत बरें येना आसलें. हवेच्या प्रदूशणाक लागून भुरगीं दुयेंत पडूंक लागलीं. गांवचो सैम पुराय इबाड जावचे पयलीं गांवच्या तरनाट्यांनी एकठांय येवन एक बसका घेतली आनी ह्या प्रस्नाचेर विचार केलो. ताणी सरकाराक अर्जी बरोवन कारखान्याक लागून जावपी त्रास सांगले आनी आंदोलन केल्ल्यान सरकाराक अखेरेक तो कारखानो बंद करपाचो निर्णय घेवचो पडलो.



**– संजना सुभाष नाईक**
यत्ता : णव्वी
द न्यू एज्युकेशन इन्स्टीट्यूट,
कुडचडें-गोंय.
फोन : २७८४५४४



# रावंस पावलो दुबय



**मां**डवी आनी जुवारी ह्यो दोन गोंयच्यो मुखेल न्हंयो. ह्यो दोनूय न्हंयो अरबी म्हालसमुद्राक वचून मेळटात.

अरबी म्हाल समुद्रांतलीं कांय नुस्तीं, जांकां भोंवडेची आवड आशिल्लीं तीं आपल्या जाण्टेल्यांची नदर चुकोवन मांडवी, जुवारेच्या पात्रांत येवन खेळटालीं.

जाण्टेलींय तांका वचूंक दितालीं. कारण ह्या न्हंयानी आपल्या भुरग्यांचे वाटेक वचपी तशीं व्हडलीं नुस्तीं नासतालीं. आसताले ते डॉल्फीन बी! तांकां व्हडलेंशें कोणाचे पडूंक नाशिल्लें. ते आपले उदकांत नाडे मारीत आसताले.

जुवारी न्हंयत अशीच एक रावंस फामील रावताली. ही फामील, न्हय न्हंयत रावताली, न्हय अरबी म्हाल समुद्रांत. जंय न्हंय अरबी समुद्राक मेळटा थंयच हो घराबो उदकांत विचरतालो.

ह्या रावंस घराब्यांत हालींच एक रावंस जल्माक आयिल्लो. सगळ्या पोरांमदी जल्मताच हो शिटूक आशिल्लो. तातयांतल्यान भायर येतनाच ताणें पयलीं त्या तातयाच्या कल्लाक पळयिल्लें आनी आपले भितर हांसत सुळूक करून उदकांत सूर मारिल्ली. तो कित्याक हांसलो हें काय ताचे आवयक व्हडलेंशें कळ्ळेंना. पूण एक तिका कळ्ळें, हो आगळोच कसो. हाका आमी सांबाळूंक जाय. आमच्या घराब्यांतल्या कोणेंच केन्ना केलेंना असलें हो कितें तरी करतलो अशें कितें तरी तिका भावपाक लागलें.

रावंशीणीन आपल्या ह्या पिटकुल्या रावंसाचें नांव सुळूक दवल्लें. कित्याक तर तातयांतल्यान भायर सरल्या बराबर ताणें सुळूक करून सूर मारिल्लो.

सुळूक दिशीमाशी व्हडलो व्हडलो जायत आशिल्लो.ताणें खंय भोंवचें, कितें खांवचें हें सगळें रावंशीणीन ताका शिकयल्लें. तीं रावतात थंयच्यान जें कितें घुसूघुसू करून वचत आसता तांचे पासून शादूर रावपाक तिणें सुळूक सांगलें.

हीं घुसूघुसू करून वचपी केन्ना खूब व्हडलीं आसतालीं. कांय घुसूघुसू ल्हान आसतालीं. तांकां आमचे दुस्मान बार्जी, ट्रालर्स बी म्हणटात अशेंय ताका समजल्लें. ताका लागून घुसूघुसू लागीं पावलीं म्हणटकच सुळूक थंय रावच नाशिल्लो. फुज्ज्यो काडटालो आनी पयस रावून तांका पळयतालो.

घुसूघुसू खंयच्यान तरी येतालीं आनी खंय तरी वतालीं. येतालीं वतालीं. येतना वतना उदकांत ल्हारां तयार करतालीं. तीं ल्हारां सामकीं ल्हारेत ल्हारेत सुळूक आशिल्लो थंय पावतालीं.

सुळुकाक खरें म्हळ्यार ल्हारांचो फेणेर तोंडांत घेवंक आवडटालो. पूण हीं ल्हारा येतालीं तांका घाण मारताली. तातूंत कितें तरी तेलकट तेलकट आसतालें. वांगडा कसली तरी मातीय

आसताली. प्राणवायु घेवंक तोंडांत घेतिल्ल्या उदकाक लागून सुळूक खोकली मारताली. ओकूंक आयिल्ले वरी दिसतालें. बेगीबेगीन तो तें उदक आपल्या कल्ल्यांतल्यान भायर मारतालो. पूण ताका प्राणवायु मेळच नासलो.

ताणें एकदीस आवयक विचारलें, हें कितें काय म्हण. तेन्ना आवयन सांगलें, ती जीं घुसूघुसू वतात पळय, तांतलीं व्हडलीं घुसूघुसू बार्जी आसतात. आमचे दुस्मान तांतुतल्यान माती व्हरतात. घुसूघुसू चलपाखातीर तेल जाय पडटा. तें तेल ते उदकांत सोडटात. तेंच आमकां पोटांत घेवचें पडटा.

ल्हान घुसूघुसू येतात ते ट्रॉलर्स. ते आमचे सगळ्यांत व्हडले दुस्मान. ते जाळ उडयतात आनी आमकां धरून व्हरून खातात. असले घुसूघुसू आयले म्हणटकच पपा काडपाची आं!

रावंशिणीन सुळूकाक सगळ्यो गजाली सांगिल्ल्यो. रावंस जमातीन पेंवत पेंवत खंय मेरेन वचपाचें आसता, तांच्या भुरग्यांनी खंय मेरेन वचून खेळपाचें आसता हें सगळें बारीक साणेन तिणें ताका सांगिल्लें.

सुळूक तेच पासत शादूर रावतालो. आवयचें आयकना जाल्यार कितें घडटा हाचो अणभव ताका आशिल्लो, रावंशीण मावशेलो ताचेच पिरायेचो बुळूक आशिल्लो. तो केन्नाच कोणाचें आयकना आशिल्लो. आपल्या वाद्याचो म्हळ्यार जाता. आपल्याक जाय तसो वागतालो, जाय तें वचून खातालो. वसवसो कसो वागतालो.



एक दीस रावंशीण मावशेन नाका नाका म्हणटा आसतना ताणें कित्याक तरी वचून घांस मारलो. तें दुस्मानाचें हांयस हें त्या पापयाक कळ्ळेंच ना. घास मारल्या बरोबर बुळूक हांयसाक फारवलो. आनी दुस्मानान ताका अचळय वयर उखल्लो.

सुळूकान आपल्या दोळ्यांमुखार बुळुकाक नाच्च जाल्लो पळयल्लो. पूण तो हांयसाक सापडून वयर गेलो म्हळ्यार खंय हें ताका कांयच कळ्ळेंना. वयर दुश्मान आसतात म्हळयार खंय आसतात काय?

ताणें सकयल पळयल्लें. वयर पळयल्लें! सकयल ताका कितलो तरी शेळो, पोवळी आनी कितें कितें दिसतालें. तो तातूंत खेळटालो. आवडटा तो शेळो खातालो. पूण वयर मात ताका उदकच उदक दिसतालें. बुळूक वयर गेल्यार उदकांत दिसपाचो न्हू! बाकीचे सगळे शेजारी बी वयर वता तें सगळें दिसता तर खरें! मागीर हो बुळूक वयर म्हूण गेलो तरी खंय पापयो?

उदका परसूय वयर कितें तरी आसूंक जाय जंय आमचो दुस्मान रावता. पूण ताका पळोवप कसो? सुळुकान विचार कर कर केलो. वयर कितें आसा हें पळोवपाचे उमळशिकेन ताका सामको पिसो करून सोडिल्लो. कितेंय करप पूण वयर म्हणचे खंय तें पळोवप म्हळ्यार पळोवपूच.

ताणें जाता तितले वयर येवन, उदकाच्या वयर पासून पळोवपाचो यत्न केलो. पूण ताका उदकाच्या वयर कांयच दिसलें ना. मागीर ताणें एक आयडिया काडली.

ताका उदकांतल्या उदकांत उडकी मारूंक येताली. तीच उडकी जर उदकाच्या सामकी वयर येवन मारली जाल्यार आपल्याक वयर कितें आसा तें दिसतलें!

कल्पनेनूच सुळूक सामको खोशी जालो. शेपटी उदकार आपटीत ताणें कल्लें फुलयलें. फूर्रर करून उदक तोंडात घेत कल्ल्यांतल्यान सोडलें आनी भरपूर प्राणवायु घेतलो.

मागीर एकाच दमान उदकाच्या वयर येवन ताणें आपले शेपटेन उदकाचेर नेट दिवन उदकांत जशी सुळूक मारता तशी उदका भायर मारली. आनी कितें अजाप? सुळुकाक भायर दिसलें तें अजापूच अजाप! कांय खिणूच तो उदका भायर उरिल्लो खरो, पूण जें ताच्या दोळ्यांक दिशिल्लें तें सामकें अजापूच अजाप आशिल्लें.

(चलता)

– आशिकी राजाध्यक्ष
पणजी–गोंय

# बिलूबाय



बिलूबाय, बिलूबाय
तुका आवडटा तोप उगडून
खावंक चोरून दुदावेली साय?
नुस्त्या वासाक जीब तुजी
अशी कशी हुळहुळटा
बोडकां खावंक मेळना जाल्यार
म्यांव म्यांव करून खाता आमचो जीव
वण्टी वयर लिपून रावून
उंदीरमामाक फटयता
हळूच वचून ताका
थंयचे थंय मट्ट करता
सावज आपलें दाखोवंक
म्हज्या पांयांक घशटता
आई मात विट्टून तुका
बडी घेवन धांवडायता
बाबाचें तूं अपुर्बायेचें
देखून सासपून नाचयता
पळोवन तुका इश्ट म्हजे
घरभर येवन नाचतात
खेळूंक तुजे वांगडा ते
सदांच आमगेर येतात
केन्ना केन्नाय शेंपडी फुलोवन
तूं उडी तांचेर घालता
मारीत मनाक जर तूं
सोफ्यार वचून बसता
मान सकयल वयर करून
कुतुचीं झगडीं पळयता
म्यांव म्यांव करीत तूं
केन्ना केन्नाय पदां म्हणटा
अशें कशें बाये तूं
म्हाका तुजें अजाप दिसता
कापसावरीं तुजें आंग
हांव वेंगेत तुकां धरतां
मागीर तुका सासपून चिड्डून
तुजे वांगडा खेळटां.

– अथर्व सुदत्त शेणवी मांद्रेकार
घर नं. २, भितल्ली पेठ,
दिवचल – गोंय ४०३ ५०४
फोन : २३६२५६३





# तो, ती आनी हांव!

– आशा शानभाग
सादोळशें–काणकोण– गोंय
मो. : ९४०४१४५३३७

हांवें पयशे मागचे आनी भायर कोण्याचीय जाग लागची, आंगांत प्रत्यक्ष मदन संचारिल्लेवरी गोड आवाजांत हांणी म्हणप, "आगो पयर दिल्ले बाराशें रुपया सोपले? आसूं हे घे आतां," आनी हजार दिल्लेवरी दिवप धाच्यो दोन–तीन नोटी,



उपीदाद, म्हजो खास शेजारी. म्हज्या आंगणाची मेर आनी तांची मेर एकूच. म्हळ्यार पळयात. आमच्या घराचे दुसरेवटेन म्हळ्यार मदींतल्यान गेल्ल्या डांबरी रस्त्याचे ते वटेन शालीमामीलें घर. रस्त्याकलागून खेरीतशें दिसपी, तरीकूय तिनय घरांतल्यान वाटयां–ताटांच्या देवाणघेवाणीन एकमेकांच्या पोटाकडेन नाळी जुळयिल्लीं ही तीन घरां. आमचो वाडो तसो पळयल्यार बरोच व्हडलो. रमेश–मामालें घर, कांचन आईलें घर, नायकालें राजांगण व्हडलें घर. अशा खूबशा घरांचो भरगच्च वाडो. पूण आमचीं तिनूय घरां मात देवान एकाद्रया त्रिकोनांत सांधिल्ल्याभाशेन रचिल्लीं म्हळ्यार अतिताय न्हय.

आमच्या उपीदादांक मात्शें हांव, म्हजें, हांवें करपाची खूब संवय. बरी न्हय ती तरी ताचें कारण उपीदाद खंय ल्हानपणांत आवय–बापूय खंवसल्ल्यान आकागेर वाडिल्लो. थंयच शिकप करून, घरांतल्यांचीं तुटकीं उतरां खायत तो व्हड जाल्लो. आपले कापाजदादीचेर कामधंदो करून आपलो बरो संवसार ताणें फुलयलो. भुरग्यांक वेवस्थीत शिकप दिवन, तांकां योग्य मार्ग दाखोवन आतां उपीदाद रिटायर्ड जीवन जगतालो. रमाकाक, म्हणल्यार आपले बायलेक लग्ना उपरांत व्हडलें सूख भोगयलें नासत ताणें पूण मातूय दुख्ख भोगूंक लायलें नाशिल्लें. ताका लागून स्वत:च्या अभिमानान ताका मात्शें हांव आनी म्हजें करपाची संवयशी जाल्ली. रमाकाक खूब वायट दिसतालें. कारण तिणेंय उपीदादावांगडा संवसार सांबाळटना खूब कश्ट भोगिल्ले. गोधड्यो, फुलवाती करून वा वडयो, पापड करून विकून तिणेंय संवसाराक हातबोट लायिल्लें. आतां म्हातारपणांत कोणेंय तरी तिची अपुरबाय करची अशें तिका दिसतालें. पूण जातालें भलतेंच. सगळ्यांनी जयजयकार करप फक्त उपीदादाचो. चलयो लेगीत केन्नाय कुळारा चार दिसांखातीर आयल्यार कितें जाय तें बापायकच सांगताल्यो. 'दादा, म्हाका हें जाय, म्हाका तें जाय.' रमाकाक वायट दिसतालें. आपूण खंय कमी पडलें काय हे चितनेन ती चुपचाप जाताली. ना म्हळ्यार तिची सून खरी भांगराची. मांयची अवस्था तिका कळटाली. ती मांयक सांबाळून घेताली.

उपीदादाल्या सदच्याच हांव–म्हजें ह्या जपान एक दीस रमाकालें चाळवलें. फडाफड भरभरत रावली. "लोक म्हणटात सगलो संवसार एकठ्याल्या नाड्यार चलयलो. लग्न जावन भुरगींबाळां जालीं, नातरांपोतरां वाडटात ती कितें एकट्याच्याच नाड्यार? हांवें ह्या संवसाराखातीर कांयच हातबोट लायलेंच ना? सदानकदा हांव आनी म्हजें हो जप आयकून कान किटल्यात आनी जीवय विटला. देवा आतां उठय रे म्हाका बेगीन. मन ऊबलां रे म्हजें." आनी घो घो करून तिणें रडपाक सुरवात केली. उपीदादांक सगळें उमगलें. ताकाय वायट दिसलें. आयज सूख भोगतनां तांका रमाकान संवसारांत केल्ले कश्ट याद जाले. आपूण चुकलां हें तांकां वयाच्या पासश्टी उपरांत उमगलें.

सांजवेळ जाली की रिटायर्डांच्या घोळक्यांत वचून तिठ्यार खबरी फुलोवप हो उपीदादालो सदचो

नेम. त्या दिसा साडेचारांक च्या जातकीर तांणी शक्य तितल्या गोड, मोवाळ आवाजांत बायलेक उलो मारलो. 'रमा' रमाक्का सामकी लजली. तिका लग्ना उपरांत फाटल्या-फुडल्यान रमा-रमा करत घुंवपी उपीदाद याद जाले. "किदें येवजिलां तुमीं? भुरग्यां बाळां मुखार नेटान नांवानशे उलो मारतात ते? कितें जाय तुमकां?" "आगे हांव तिठ्यार वतां. मात्शी भितरल्यान आमगेली पँट आनी बुशकोट हाड पळोवया." रमाकालें तोंड 'आं' केल्लें तशेंच उरलें. हांव आनी म्हजें सोडून 'आमचें' ह्या शब्दाचो प्रयोग भलतेचकडेन करतकीर जाल्ल्या विनोदान तांच्या घरांतल्यांच्या वांगडा मेरेर उबे रावन आयकुपी हांव भरपूर हांसलें.

दुसरेवटेन शालीमामीगेरची तिसरीच तरा. तिचो घोव एका व्हडल्या मिनेर कंपनींतल्यान रिटायर्ड जाल्लो. तेन्ना मेळिल्ली गडगंज गांठ ताणी वेवस्थीत गुंतोवन पेन्शन प्लॅन घेतिल्ले. त्या पयशांचेर वेवस्थीत संवसार चलोवंचो पडटालो तांकां. पयलीं तांकां पगाराभायर वेली कमाई उरताली. देखून शालीमामीक खर्चुवपाक भरपूर पयसो मेळटालो. पूण आतां बँकेतल्या व्याजाचेर जगपाचें म्हणटकीर तिची बरीच घुसमटमार जाताली. सदां टी. व्हीवेल्यो जायराती पळयतनां शालीमामी किरकिरत रावताली. "कलाझोनच्यो साडयो बेस बऱ्यो. आमची जीण आतां बँकेन दिल्ल्या जुराचेर जगपाची. नाजाल्यार हजारांच्यो नोटी दिवन घेतलें आशिल्लें हांव आतांच." वर्ल्ड टेलीशॉपींगाचेर दिसपी जगभरच्या ऊंची वस्तुंच्यो जायराती पळोवन शालीमामी कपलां धाडोवन घेई. ऊंची साबांव वा साबांवाचो पिठो हांच्यो जायराती पळेल्यो की टी.व्ही सामकारा आपलो पदर पसरावन बसप. "उडयात रे दोन चार साबांव. म्हजे व्हटयेंत घालात रे." अश्यो तिच्यो आड्ड्यो आनी चाळे पळोवन तिच्या घोवाचें मन विटतालें. भुरगीं ना बाळ. फाल्यां आपले फाटल्यान हिचे हाल जावनये म्हणून तिचो घोव बारीकसाणेन जगतालो. तो चिंतनेत पडिल्लो. इतल्यांत टी. व्हीचेर संतती-नियमनाच्या साधनांची जायरात आयली. 'आरे चार-दोन डजन धाडात रे म्हाका. कॅश पयशे दितां.' घोवाची आड्डी आयकून शालीमामीन टी. व्हीकडेन पळेलें. आनी खिणांभितर कपलां धाडावन रडपाक सुरवात केली. "देवा आतां रिटायर्ड जातकीर हांका शेण खावपाचे मार्ग दिसतात पळयात. शिर्वीशेक वतालो तेन्नां खंय खंय शेण खालां कोण जाणां. फसलें रे देवा हांव. ऊखल रे देवा म्हाका वेगीन."

शालीमामीली बोब आयकून म्हाका दिसलें की हिचो घोव सोपलो काय कितें? हांव हेवटेच्यान आनी उपीदाद तेवटेच्यान तांगेर धांवलीं. पळयल्यार दारांतच तिचो घोव भेटलो. ताणें सगली काणी सांगली. बायलेचीं जिरोवपाक आपणे केल्ली गम्माडी गंमतय सांगली. उपीदादान "बरो आसा मरे तूं. पिकिल्ल्या पानाचो देंठ. आजुनय पांचवोच?" म्हणटगीर ताणी आपले गाल फोडून घेतले. आनी 'नांनां शांतंम पापंप' म्हणपाक लागले. सगली काणी आयकतकीर उपीदाद खी-खी करून हांसले आनी हांव मात ही-ही करून हासलें.

आतां उरलें म्हजें घर. आमचे हे पक्के हिशेबी. कोणाचेय पांच पयशे दिवपाचे उरल्यार न्हीद न घेवपी, त्याच भाशेन कोणेंय पांच पयशे दिवपाचे उरल्यार तांची न्हीद पाडा घालपी. स्वत: त्रास भोगताले पूण आमकां त्रासांपासून पयस दवरताले. सगले गूण बरे. पूण वायट खोड म्हळ्यार लोकांमुखार कड्ड्यो पोक्यो मारपाची. कोणूय शेजान्न आयल्यार मुद्दाम म्हाका म्हणप, "आगो हें वायल पसरकारागेर घेतिल्लें तें न्ही गो?" हांव कां-कूं करत हय म्हणटालें. खरें तर हांवें तें दारांतल्या फेरीवाल्याकडेनूच घेतिल्लें. अशीच हांचे फोक्यांची एक गजाल सांगतां. म्हाका खर्चाक म्हणून दिल्ले थोडेशे पयशे आट-धा दिसां भितरच सोंपताले. हांवें पयशे मागचे आनी भायर कोणाचीय जाग लागची. आंगांत प्रत्यक्ष मदन संचारिल्लेवरी गोड आवाजांत हांणी म्हणप, "आगो पयर दिल्ले बाराशें रुपया सोपले? आसूं हे घे आतां." आनी हजार दिल्लेवरी दिवप धाच्यो दोन-तीन नोटी.

म्हजो हळदकुंकूम आसलो की मुद्दाम अशे फटाके फोडपाक हे घराच रावताले. पयरच्या हळदकुंकमा दिसा बायलां येवन बसलीं मात हांणी फोक्यो सुरू केल्यो. "फुलू, अंदू तुजो पंचवीसावो हळदकुंकूम मुगो? चल तुका कितें जाय तें माग. नवो फ्रीज हाडुया, टी. व्ही. नवो घेवया काय व्ही. सी. डी.जाय तुका?" सगल्यो बायलो म्हजेकडेन दुख्खान पळयताल्यो. लग्नाक पंचवीस वर्सां जालीं तरी घोव उपाट मोग करता पळय. म्हणून एकामेकांच्या कानांतय फुतफुतताल्यो. सत म्हाकाच खबर आसा. आमचो फ्रीज स म्हयने जाले थंडच जायनाशिल्लो. टी. व्हीनय प्राण सोडल्यार वर्सां जाल्लीं. आनी व्ही. सी. डी कित्याक म्हज्या तकलेर मारपाक? हांवेंय आयज हांचें जिरोवपाचें थारायिल्लें. "आयकलां, टी. व्ही., फ्रीज, व्ही. सी.डी. ह्यो फालतू वस्ती कित्याक दितात म्हाका? दितातच जाल्यार म्हाका भोविल्ली वस्त दियात." "फुलू तूं सांगच हांव फाल्यां सांजमेरेन ती वस्त तुजे सुवादीन करतां." हांचे भितरलो दानशूर कर्णच जणू जागो जालासो दिसलो. "दिवपाचेंच जाल्यार तो टी.व्हीचेर एक हँडसम मॉडेल येता पळयात, हातांत वॉटर प्युरिफायर घेवन..." म्हजें उतर पुराय करचे पयलींच हे भीतर गेले. सगल्यो बायलो घरा वतकीर येवन म्हजेकडेन व्हडलो वाद सुरू केलो. "कितें अवदसा येवजल्या गे तुका? सगल्या बायलांसामकार तो हँडसम मॉडेल मागता म्हजेकडेन?" आतां म्हजें तोंड उगतेंच उरलें. तत-पप करत हांव आड्डलें, "आयकलां, म्हाका तो मॉडेल दादलो नाका. ताचे हातांत आशिल्लो वॉटर प्युरिफायर जाय. दियशात?" आतां मात उपीदाद आनी शालीमामीलो घोव खो-खो करून हांसताले. आनी एंडेल पिल्ल्यागत तोंड करून आमगेले हे म्हाका पळयताले.





- रुपा कोसंबे
शिंदोळी,सांकवाळ,
कुदठाळी-गोंय.
फोन-२४५२१५०

स्वातंत्र्यपूर्व काळांत आमच्या फुडाऱ्यांनी उपाट कश्ट काडून, प्रसंगार आपल्या घरादाराचेर उदक सोडून आमकां परतंत्र्यातल्यान मुक्त केले, त्याखातीर आपल्या रक्ताचें उदक केलें, चळवळी केल्यो, फॉरेन वस्तुंचेर बहिश्कार घालो,



# विसर

**रा**ग, लोभ, मद, मोह, मत्सर, द्वेश ह्या षडरिपूबरोबरच मनशाक एक वरदान मेळ्ळां तें म्हळ्यार विसर. जाका लागून केद्याय व्हडल्या दुःखांतल्यान मनीस सावरता. परत उभारी घेता. नाजाल्यार लागसल्ल्या मनशाच्या वियोगान थतरविथर जावपाचो. त्याच त्याच दुःखात पिचत रावपाचो. काळ हो सगळ्या जखमावयलें जालीम वखद म्हणटात. म्हणटगीर एखादल्या जीवाची घालमेल करपी घटनेवयल्यान कांय काळ उलगलो म्हणटगीर जी बोचणी, सल आसता तो, पुसट पुसट जायत वता. तशें सगळेंच दुःख विसरायेर घालूंक येना. तें काळजाभितर दडिल्लें आसता. ताची याद येवची फुरसत. भळभळ करून नेटान व्हावूंक लागता. ही काळजावयली खोल जखम. फकत खवळेन थातारून धरिल्ली. पूण हरशीं चडश्या वेळार एकेक प्रसंगाचे भेगिल्ले भोगणार काळ आपल्या उदरांत घेवन गडप करता. आमचें दुःख ल्हव करता.

म्हणटात न्हय. People's memory is short. समाजांतल्या बऱ्या वायट कर्तुबांचो लोक चार दीस नियाळ घेतात मागीर आशिल्लें तशें विसरून वतात. आनी हाकाच लागून समाजांतले संधीसादू आपली पोळी बरी भाजून घेतात. महानंद, चार्ल्स शोभराज सारकिल्या अट्टल गुन्हेगारांबद्दल पसून अशेंच जाता. फाल्यां समाजांत हांच्या सारकिलेच कोणी तयार जाले जाल्यार परतय लोक असल्या मनशांच्या चपक्यांत सापडचेना हाचो भरवंसो कितें? 'दुनिया झुकती है, झुकनेवाला चाहिए' म्हणून असल्या गुन्हेगारी मनशाचे कारनामे चालूच उरतले.

जर आमची याद सशक्त आशिल्ली तर आयज घोटाळ्यांचेर घोटाळे करपी मनीस राजकारणांत आसचेच नाशिल्ले. एकेकट्यांचें पुर्वायुश्य विसकटून पळयिल्लें जाल्यार? एकेकाळी पादीशेर आशिल्ले मनीस राजकारणांत येवन, बरे गब्बर जावन सगळ्या पृथ्वीचो भार आपल्या खांद्याचेर उखलून घेवन बावगल्याबशेन करून दाखयतात. वयल्यान आमचेरच उपकार केल्ल्याबशेन हांचें वागणें बोलणें आसता. ड्रग स्कँडल प्रकरण, वेश्या वेवसाय प्रकरण, गुणवाढ प्रकरण, तिकीट घोटाळा प्रकरण एकाहून एक सरस अश्या घोटाळा प्रकरणांत येनेकेन प्रकारेन घुस्पल्ल्या मनशांक आमी जैतीवंत जावपाक दिवचेच नाशिल्ले. जाता कितें तर ज्युस्त मतदानावेळार आमकां ह्या घोटाळ्यांचो विसर पडटा, ताच्या मलीन रुपाचो विसर पडटा.

पूण एक मजा म्हळ्यार मनीस जें विसरूंक जाय तें विसरना आनी विसरपाचें न्हय तें विसरून वता. देखीक कोणय जेन्ना पोसकें भुरगें घेता तेन्ना ती गजाल आमी विसरून वचनात, उलट त्या भुरग्याक गरज नासतना आमी ते गजालीची जाणविकाय करून दितात. ते गजालीबद्दल तें भुरगें अनभिज्ञ आसलें जाल्यार ताच्या मनाचेर कितलो परिणाम जातलो, ताका धक्को बसतलो हाचो आमी विचारच करनात. तो पोसको आसलो तरीकय आपल्या आवयबापायक आपल्या पोटच्या

भुरग्यां इतलोच लागींचो आसतलो हें आमी कित्याक याद धरिनांत?

स्वातंत्र्यपूर्व काळांत आमच्या फुडाऱ्यांनी उपाट कश्ट काडून, प्रसंगार आपल्या घरादाराचेर उदक सोडून आमकां पारतंत्र्यातल्यान मुक्त केले. त्याखातीर आपल्या रक्ताचें उदक केलें, चळवळी केल्यो, फॉरेन वस्तुंचेर बहिश्कार घालो. सगळ्या परदेशांतल्यान आयिल्ल्या वस्तुंची होळी केली. पूण आज आमची परिस्थिती कितें? आमकां फोरेन वस्तुंची चड क्रेझ. भारतांत शिकून सवरून परदेशांत नोकरी करतात तांकां आमी चड वालोर दितात. काळाप्रमाणे माथ्याक कुरपणें जरी जालें तरी आमी विसरले काय ना आमच्या फुडाऱ्यांची सांगणी जी राष्ट्रभिमानान भरिल्ली?

पयस कित्याक, आमी शाळेंत इतिहास हो विशय शिकतना शिकलीं. पोर्तूगीजांनी आमचेर आक्रमण केलें, देवळां फोडलीं, बाटाबाटी केली. मर्दी रस्त्यार पुसून बायलांची अब्रू लुटपाचो यत्न केलो. Divide & Rule ही मानसीकताय आपणावन हिंदू किरिस्तावांमदी फूट घाली, कितल्याश्याच जाणांक धर्मांतर करपाक लायलें, जमनी बळकायल्यो. एक दोन न्ही तर हजारांनी आगळिको केल्यो. तें कित्याक, आमच्या आज्यान-आजयेन, आवय-बापायन पसून तांच्या अत्याचाराच्यो कितल्योश्योच गजाली सांगल्यो. पूण सगळ्यांची आमकां विसर पडली. आमच्या मदल्याच कांय लोकांनी तांची सांग्रेस ही बोट मुरगांव बंदराक लागपाची आसा म्हण कळटगीर तांचे सगळे अत्याचार विसरायेर घालून तिच्या स्वागताची तयारी करपाक सुरवात केली. तांच्या जेवणाचें आमंत्रण घेतलें. सगळ्या देशांकडेन नातें जोडपाखातीर ही बोट भायर सरल्या असो जरी तांचो वयलोवयलो सूर आसलो तरी एक वर्सापयलीं पुर्तूगेजांनी ज्या ज्या भुंयेचेर आपलें व्हडपण आनी शेक गाजयलें त्या काळाची येवकाराची याद मनोवचे खातीर ती बोट मोहीमेचेर आशिल्ली. गोंयचो हीतराखण मंच, देशप्रेमी नागरीक संघटना आनी जायत्या हेरांनी हाका जबरदस्त निषेध नोंदयलो तेन्नाच न्हिदील्ल्या अतीमहनीय व्यक्तींक जाग येवन ताणी तांच्या जेवणाचें आनी स्वागताचें आमंत्रण भायरायलें. नाजाल्यार 'अतिथी देवो भव' हे युक्तीनुसार ते तांचो बरो थातोमातो करपाचे आनी हांगासरल्या लोकांक 'मामा' कशे केले ह्या आनंदात पुर्तुगीज आपल्या मायदेशाक वचपाचे आनी आमच्या मुर्खपणाची धजा मारपाचे. 'सरकारचे डोके ठिकाणावर आहे का?' ह्या लोकमान्य टिळकांच्या अग्रलेखाची ह्या वेळार याद आयले बगर रावली ना.

कांय कुपमंडूक अशा वृत्तीचे आमचे मदलेच लोक अजून पसून जेन्ना पोर्तुगीजांचेंच राज्य बरें आशिल्लें अशें म्हणटात तेन्ना आमकां स्वातंत्र्य मेळून ५० वर्सां जालीं हाचो तांकां विसर पडला अशेंच म्हणपाक जाय. पुर्तुगेजांचो विजयोत्सव मनोवपाखातीर भायर सरिल्ले हे बोटीक कांय पुर्तुगेज धार्जिण्या लोकांनी तेंको व्यक्त केलो, तर कांय जाणांनी तांच्या बावट्याचीं टी-शर्टां घालून 'व्हीवा-पोर्तुगाल' म्हणून घोषणा दीत मिरवणूक काडल्या तांका आपल्या अस्मितायेचो, राष्ट्रभिमानाचो आनी आपल्या नैतीक मुल्यांचो विसर पडला अशें खेदान म्हणन दिसता.



# उत्तर पत्रिका शेणटात तेन्ना



– कुसूम अग्रवाल
शिवोले-गोंय
फोन : २२७२०२१



म्हजें मन म्हाका सांगतालें इतले बेजबाबदारपणान वागपी शिक्षकाक शिकोवपाचो कांयच अधिकार ना, आतांच हांवें शिक्षकाची नोकरी सोडपाक जाय, भुरग्यांक परत परिक्षा दितलें? इतल्या वर्सां कमायल्ल्या नांवाक काळें खत लागतलें, म्हज्याबद्दल आशिल्लो आदर ना जातलो,

विचित्रशें दिसलें तुमकां न्हय. उत्तरपत्रिका आनी शेणप? सामकी बेजबाबदार शिक्षिका आसपाक जाय. मानसीक तणावाखाला भुरगीं रातीचो दीस करून अभ्यास करतात आनी ही उत्तरपत्रिका साणयता म्हणजे कितें?

हय. हांवेंय म्हाका खूब खेपलें. इतलें कशें हांव भजरें. म्हजी इश्टीण सियाना म्हाका सदांच सांगताली हांव म्हजे पेपर तिजोरींत दवरतां. तिचें खरें आसलें. तांचें मोलूच भांगराभशेन. त्याच पेपरांचेर भुरग्यांचें भविश्य अवलंबून आसता. आतां जशी आसा तशी प्रस्नपत्रिका बरोवपीय विद्यार्थी आसतात. तांची गजाल वेगळी. घडये उत्तर पत्रिका शेणत जाल्यार तेवूय आपल्या शंबरांतले अयशीं अंक मेळपाचे म्हणपाक फाटीं सरचेनात म्हूण आमी तांकां जिवापरस चड जपतात.

त्या दिसा म्हज्यो उत्तरपत्रिका खंय तरी घुस्पल्यो. तो दीस शेनवार. सोमारच्यान आमकां दिवाळेची सुटी. पूण धावेच्या भुरग्यां खातीर तीन दीस शिकवणी दवरिल्ली. दिवाळी जावन दुसऱ्या दिसा आमी १२ दीस केरळाचे भोंवडेर वचपाचीं आसलीं. त्या खातीर म्हजे तपासपाचें काम युद्ध पातळीचेर चालू आसलें. हांवें तपाशिल्ले पेपर म्हजेसुवातेर दवरले आनी हांव घरा गेलें.

सोमारा शाळेंत गेलें. स्टाफरुमांत वच जाल्यार म्हजे सुवातेर पेपर ना. काळजांत खप्प जालें. लॉकरांत दवरल्या आसतले म्हूण लॉकर उगडलो थंयूय ना. आतां म्हज्या काळजाची धडधड वाडपाक लागली. इतल्यांत साफसफाई करपी मारिया थंय आयलें. ताणें मेजार पेपर नासले अशें म्हाका सांगलें. हेर शिक्षकांचे सगले लॉकर उगडून पळयले. कुलूप आशिल्लें, उगडटा काय म्हूण ओडून पळयलें. दुसऱ्यांचे लॉकर उगडप न्हीं हें खबर आसतनाय हांवें तें धाडस केलें. सगलो स्टाफरूम उमथो घातलो पूण पेपरांचो पत्तोच ना.

शाळेंतल्यान घरा वता आसतना मुख्याद्यापिकेच्या मेजार पेपरांचें बंडल पळयलें. मातशें बरें दिसलें. स्टाफरूमांतल्यान तिणेंच उखलून हाडलां आसतलें. पेपर स्टाफरूमांत मेजार दवरल्यात म्हूण धारेर धरतली. बत्तीस वर्सांचे चोख सेवेचेर विरजण पडटलें. विचारपाक जीव हुळहुळटालो पूण भितरल्या स्वाभिमानान आडायलें. घडये ते पेपर म्हजे नासत जाल्यार!

सगलीं दिवाळेची तयारी करतालीं आनी हांव पेपर सोदतालें. मन अस्वस्थ जाल्लें. जेवण-खाण रुचनासलें. रातची न्हीद पडना. पेपर सोदपाच्या 'मिशनांत' घोवानूय हातभार लायलो. पूण कांयच फायदो जालो ना.

मंगळारा बेगीनूच शाळेंत गेलें. परत पेपर सोदपाच्या कामाक लागलें. मनांतल्यान देवाक होरायत आशिल्लें. शाळेमुखार आशिल्ल्या कपेलांतले सायबिणीक लेगीत उलो मारलो. घडये फाटल्यान पडल्या

आसत म्हूण पुस्तकांचीं जड जड कपाटां हालयलीं. खंयच्या हतयाचें बळ आंगात आयिल्लें कोणाक खबर. इतलें करून लेगीत निर्शेवणीच पदरांत आयली.

आतां मुख्याद्यापिकेक सांगल्याशिवाय उपाय ना. म्हजी विद्यार्थिनीच मुख्याद्यापिका आशिल्ली. लज सोडून कानाक धरलें आनी म्हजी व्यथा सांगली. त्याबरोबर कदेलार बशिल्ली ती विजेचो झटको आयिल्ल्यावरी उबी रावली आनी म्हणपाक लागली ना मीस, म्हजेकडे तुजे पेपर ना. हीं उतरां कानार पडनाफुडें म्हाका दरदरून घाम सुटलो. हाता-पांयांक थरथरो आयलो. म्हजी ती अवस्था पळोवन तिणें म्हाका धीर दिलो आनी म्हणपाक लागली चल आमी दोगांय सोदुया. तिचें वागणें शांत आसलें तरी तिच्या तोंडार चिंतेचें ल्हार स्पश्ट दिसतालें. परत कामाक लागली. पेपर नाच्च. 'खंय तरी गेले हे पेपर' हांवें म्हणलें.

तिच्या सांगण्याप्रमाणे घरा येवन सगल्या शिक्षकांक फोन केलो. देवा, फोन नाशिल्लो जाल्यार हांव खंय खंय म्हूण वचपाचें? म्हज्या कुशीक बसता त्या शिक्षकाचो नंबर घुंवडायलो. तो जेवतालो. आपूण जेवन जातकच पळयतां. ताणें रुक्ष जाप दिली. म्हजें मन ताची जाप आयकुपाक आशेतालें. धा मिनटांनी परत ताणेंच फोन केलो. म्हजेकडे पेपर ना. मुखार ताणें खूब कितें सांगलें. हांव आयकुपाचे मनस्थितींत नासलें. सगल्या शिक्षकांक फोन करून जाले प्रत्येकाची जाप ना. ह्या नानाकारान हांव सामकें खचलें. म्हज्या दोळ्यांतल्यान गंगा यमुना येवपाक लागल्यो. व्हडल्यान बोब मारून रडचेंशें दिसलें.

म्हजें मन म्हाका सांगतालें इतले बेजबाबदारपणान वागपी शिक्षकाक शिकोवपाचो कांयच अधिकार ना. आतांच हांवें शिक्षकाची नोकरी सोडपाक जाय. भुरग्यांक परत परिक्षा दितलें? इतल्या वर्सा कमायल्ल्या नांवाक काळें खत लागतलें. म्हज्याबद्दल आशिल्लो आदर ना जातलो. अश्या विचित्र प्रस्नांनी तकलेंत थैमान घातलें. दोन राती न्हीद नाशिल्ल्यान तकली जड जाल्ली. न्हीद येताली पूण पातकडचो एकामेकांक लागनाशिल्ल्यो. तळमळच्या परस उठल्यार बरें म्हूण चारांकूच उठलें. पेपर तपासपाक बसलें पूण पेन मुखारच वचना.

आज तिसरो दीस आसलो. पेन सकयल दवरलें आनी पेपर खंय दवरल्यात ताचो विचार करपाक लागलें. पेपर मेजार दवरल्याची याद येता. उजवाडलें तें पळोवन फुलां हाडपाक पोरसांत गेलें. इतल्यांत फोनाची रिंग वाजली. घोवान फोन उखल्लो आनी भितरल्यानूच सांगलें बरी गजाल. तुजे पेपर मेळ्ळे. हीं उतरां कानार पडनाफुडें म्हाका सूऽऽ जालें. हांवें सुस्कारो सोडलो. जाता तितल्या बेगीन ते पेपर घेवन शाळेंत येवपाक सांगलें.

हांवें ताच्या हातांतल्यान पेपर ओडून घेतले. सांडिल्ल्या भुरग्यांक काळजाकडे धरतात तशे घट्ट धरून खूब रडलें. आनी म्हणलें म्हाका भोगलां तशें दुस्मानाक लेगीत भोगूं नाका. अपराध्याचे भावनेन तो शिक्षक म्हजेकडे क्षमा मागतालो.

कांदे-बटाटे बांदून दिवपासारके ते पेपर नासले. पूण रद्दी म्हूण त्या पेपरांत लसूण, आलें, मिरसांगो वा कोथंबीर बांदून दिल्ली जाल्यार वा ल्हासून कोयर म्हूण वडयल्यार कितें जावपाचें? ह्या विचारान म्हजें मन सुन्न जालें.



## बिम्ब जानेवारी २००२

संपादकीय – बिम्ब मासिकाची गरज
शिर्शकथा – गोंय जालां गुन्यांवांचें कुळार/आदिती रॉय
ब्राझील चित्रपट महोत्सव
प्रतिभावंत, कलात्मक चित्रकार – दिगंबर सिंगबाळ
मांडवीचे देगेवेल्यान – अजीब सभावाचे गोंयकार / रमेश वेळुस्कार
माधव बोरकाराचो यमन : कांय निरिक्षणां / एस. डी. तेंडुलकार
कविता / माधव बोरकार
भुरग्यांचें आंगण –गुग्लील्मो मार्कोनी / राजश्री बांदोडकार कारापुरकार
अपूर्व कुलकर्णीची परफोर्मन्स आर्ट / रमेश भगवंत वेळुस्कार
आहार / प्रशांती तळपणकार
रुच्चीक – नाल्ला बगर हुमण / अमिता नायक सलत्री
व्यक्तीमत्व / माधव बोरकार

## बिम्ब फेब्रुवारी २००२

संपादकीय – डॉ. नंदकुमार कामतचे अभिनंदन
शिर्शकथा – मिरामार समुद्र मंथन.../ दिलीप बोरकार
मुलाखत – किशोरी आमोणकार / उदय भेंब्रे
कथा – ताचो खून करपाक जाय म्हाका / एन्. शिवदास
मांडवीचे देगेवेल्यान – अखील भारतीय संगीत संमेलन/ रमेश वेळुस्कार
ख्रिस पेरी – एक म्हान संगीतकार / फेलीसियो कार्दोज
एक बालकविता / काशिनाथ शांबा लोलयेंकार
कला अकादमींतलो चित्रकला शिबीर सुवाळो / सिध्देश बोरकार
भुरग्यांचें आंगण – अलेक्झांडर ग्रॅहम बॅल / राजश्री बांदोडकार कारापुरकार
कविता – माडावयली चानी / दिलीप बोरकार
आमुल्ली आनी भुरगें / वैशाली देसाय
पंचायत वेंचणुकेंत बायलांचो सहभाग / प्रशांती तळपणकार
पिडोफिलिया / डॉ. निष्टा देसाय
रुपशिरंगार / तनुजा म्हांब्रे
रुच्चीक – बटर चिकन / अमिता नायक सलत्री
एच् आय व्ही एड्स – खरें कितें फट कितें?
शिरोडा – गोंयचें शांती निकेतन / तनुजा उमेश म्हांबरे
अंतरमनाचे अंतरंग / दिलीप बोरकार
व्यक्तित्व / रेमो फेर्नांडीस

## बिम्ब मार्च २००२

सपादकीय – मनोहर पर्रिकाराचेर सरकार बरखास्त
शिर्शकथा – राजकीय निसंतान, घट्टाण/ राजू नायक
भाजप २४ ते २५ जागे जिखतलोच – पर्रीकाराची मुलाखत/संदेश प्रभुदेसाय
इस्वरांच्या देवांनी गा शिगमो रचीला / पांडुरंग फळदेसाय
पेडणेचो शिगमो / शशिकांत पुनाजी
शांतिनिकेतनांतलो शिगमो / हनुमंत कामळी
राजस्थानची होळी / अफसर हुसैन
शिगमो कश्टकरी लोकांचो उत्सव / अजित पैंगिणकार
कविता / दिलीप धारगळकार, शशिकांत पुनाजी, राजश्री महाबळेश्वर सैल, काशिनाथ शांबा लोलयेंकार, रमेश भगवंत वेळुस्कार
कथा – साडी / चंद्रकांत केणी
कथा एका फांताची / नं. ध. बोरकार
मुलाखत–'मृत्यूंजयकार शिवाजी'राव सावंत / विष्णू सुर्या वाघ
इंत्रूज – सटी मायेचो उत्सव / विजेश वेर्णेकार
सानाक मनीस करतना – परीक्षेचो ताण / निश्ठा देसाय
रुपशिरंगार – तनुजा म्हांब्रे
मांडविचे देगेवयल्यान – आगामी उमेदवारांक... / रमेश वेळुस्कार
तेन्यापानावेलीं थिकां – पुर्वजांलीं वज्रां / रश्मिरथी
उत्तरप्रदेशांतली होळी / आशा यादव – वेर्णेकार
हिन्दी सिनेमा आनी रंगपंचम / शशिकांत अर्जूनराव सरदेसाय
भुरग्यांचें आंगण / राजश्री बांदोडकार कारापुरकार, राजश्री महाबळेश्वर सैल, वैशाली देसाय
भलायकी – कुश्टरोग / डॉ. वंदना धुमे
महिला सशक्तीकरण – ८ मार्च फाटलो इतिहास / प्रशांती तळपणकार
सरभोंवतणी–कांपालार जमल्यो तीस हजार बायलो / अदिती रॉय
अंतरमनाचे अंतरंग / दिलीप बोरकार
व्यक्तित्व /रवीन्द्र केळेकार

## बिम्ब एप्रिल २००२



## बिम्ब मे २००२



## बिम्ब जून २००२

## बिम्ब जुलाय २००२



## बिम्ब ऑगस्ट २००२



## बिम्ब सप्टेंबर २००२

भुरग्यांचें आंगण - राजश्री बांदोडकार कारापुरकार,प्रशांती तळपणकार, आश्विनी कामत, भिकाजी घाणेकार
सानाक मनीस करतना - भुरग्यांखातीर आमी खरेंच त्याग करतात? / डॉ. निष्ठा देसाय
मनशाळीं मोनजात - नवजात पाडकाची काळजी आनी वेवस्थापन/ डॉ. सुरेंद्र मुकुंद नायक
भलायकी - सकस आहार/ डॉ. वंदना धुमे
गुजरात : मन हालोवन उडोवपी अणभव / डॉ. निलांगी नानल
रुप शिरंगार - कात्रे पडप आनी ओंठ फुटप/ अंजू कामत
राशीभविश्य / ज्योतिषाचार्य राजाबापू बर्वे
अंतरमनाचे अंतरंग / दिलीप बोरकार
व्यक्तित्व / प्रकाश दामोदर पाडगांवकार

## दिवाळी अंक २००२

संपादकीय
नायिका - एक - अ कादंबरी / चंद्रकांत केणी
एक वळख अनवळख्याची / दिलीप बोरकार
उतरांचो संवसार / पांडुरंग भांगी
फांतोडपावली / दत्ता दामोदर नायक
मुंडासो निजगोंयकाराचो / नं. ध. बोरकार
तिकली / शिला कोळंबकार
सत्तरींतली कोंकणी कथा / प्रा. प्रकाश वजरीकार
चंद्रव्वाक सलाम ! / हेमा नायक
पीळ / ज्योती कुंकळकार
मरण-काळ! / जयमाला दणायत
सलाम / तोमाजिन्यु कार्दोज
खांद / गजानन जोग
उपाय / महेश पारकार
सपन खंवशेल्ले जिणेचें / योगानंद गावडे
PP/A/13 / श्रीधर कामत
खावटें / एम् . आनंद
काव्यमळब / काशिनाथ शांबा लोलयेंकार, प्रकाश पाडगांवकार, नागेश करमली, नयना आडारकार, नुतन साखरदांडे, माधव बोरकार, सखाराम गोविंद शेणवी बोरकार, राजश्री महाबळेश्वर सैल, सुनिता सुभाष शाह, विशाल शेणवी खांडेपारकार, दिलीप व्ही. एस्. तळावलीकार, सुजाता राजेश पेडणकार, रमेश वेलुस्कार, निलबा खांडेकार,
भुरग्यांचें आगण / वेद प्रभुदेसाय, पुश्कर प्रसन्न प्रभुदेसाय, बरखा नायक
भुरग्यांचें काव्यमळब / आश्विनी कामत, अनुप नाईक, गौतमी नायक, निशाद प्रभुदेसाय, डॉ. भिकाजी घाणेकार
लोकसंख्या आनी कुटूंब कल्याण / डॉ. वंदना धुमे
पाळीव कुत्र्यांची काळजी, वेवस्थापन - व्हॅक्सीनेशन / डॉ. सुरेंद्र नाईक
रुप शिरंगार - कातिची भलायकी तिगोवन दवरपी उटणें / अंजू कामत
छप्पन भोग / शोभा मनोहर प्रभुदेसाय

## बिम्ब डिसेंबर २००२

संपादकीय - मटक्याक फटको, पूण चटको कोणाक...?
शिर्शकथा- मटकासुराचें निसंतान जातलें?/ विष्णू सुर्या वाघ
प्रश्नोपनिषद - नागेश करमली
ललित - कुळागारांतलो सर्गानंद/ नं. ध. बोरकार
कथा - वळख/ मूळ कथा : अमृता प्रितम
अणकार : ज्योती कुंकळकार
मांडविचे देगेवयल्यान - ते दीस आनी बालदीन/ रमेश भगवंत वेलुस्कार
छप्पन भोग / शोभा मनोहर प्रभुदेसाय
मनसंवेदना / महेश पारकार
भुरग्यांचें आंगण - रेशमा आर मेस्ता, निषाद प्रभुदेसाय, सिया गावस
लोकत्सव - पेडणेचो पुनव उत्सव / अमीर झांटये
उत्फर्के - संमेलन पांचवो शालू न्हसतना / राजय रमेश पवार
सरभोंवतणी / रत्नमाला दिवकार
रंगमंच / निलेश बुगडे
राशीभविश्य / ज्योतिषाचार्य राजाबापू बर्वे
सानाक मनीस करतना - बापायची जापसालदारकी / डॉ. निष्ठा देसाय
भलायकी - एड्स / डॉ. वंदना धुमे
मनशाळीं मोनजात - जनावरांक जावपी पांयलाग रोग/ डॉ. सुरेंद्र मुकुंद नायक
अंतरमनाचे अंतरंग / दिलीप बोरकार
व्यक्तित्व / नागेश करमली



रंगीत उश्शीं
आसलीं,
तांबड्या
उश्यांचेर
तकली
दवरून
न्हिदतकच
सोबीतशीं
सपन्नां
पडटालीं,
निळ्या
उश्यांचेर
न्हिदतकच
खुश्यालभरीत
सपन्नां,
आनी
काळ्या
उश्यांचेर
न्हिदतकच
भयानक
सपन्नां
पडटालीं,
जायत्या
तरेतरेच्या
वासाचीं
फुलां
आसलीं,

# मावशेचें घर



**मा**त्शेशें थंड वारें व्हांवतालें. चारूय वटयां गर्दी, गाडयांचे आवाज आनी लोकांचो बोवाळ हांचे मदीं सांबाळून वाट काडीत सायकल चलोवपी राजन बेजार जालो. धुंवराक लागून ताच्या दोळ्यांल्यान उदक येतालें, स्वास घेवपाक कास्तीक जाताली आनी कान भेरेल्ल्यावरी जाल्ले.

घरा येता म्हणसर साडे स वरां जाल्लीं. सायकल गेटी भितर उबी दवरून तो 'वॉशबेसीन'चेर गेलो आनी तोंडार उदकाचो शींवर मारपाक लागलो.

"आरे तुजे दोळे सामके तांबडे जाल्यात मरे?" आवय शिटूक जाली.

"आड पड मात्सो. हांव तुज्या दोळ्यांत गुलाबपाणी घालतां." तिणें चिंतीत जावन सांगलें.

"भायर रस्त्यार चलतना अशें दिसता आई कीं आमी खंयच्या शारांत न्ही जाल्यार एका 'गॅस चेंबरांत' रावतात. एकाद्रें शांत, नितळ, सूंदर शार ना जंय आमी रावूं शकत."

दोळे पुशीत राजन खाटीर आड पडलो.

गुलाबपाणी दोळ्यांत वचनाफुडें मात्शा वगतान ताका थंड दिसलें. ताणें दोळे बंद दवरले. ताच्या दोळ्यांक निकतीच न्हिदेची सुलूस लागिल्ली. इतल्यान अचकीत एक गोड अनवळखी आवाजान ताका जागयलें.

"म्हजे वांगडा भोवपाक येता?"

राजनान दोळे उगते केले.

एक लागीलागी ताचेच पिरायेची बारा-तेरा वर्सांची एक सुंदर चली आसली. तिचे घारे दोळे खोशयेन चकचकताले आनी तांबशेशे मुदयाळे केंस खांदार पसरलेले. सोन्याचांदी च्या बशेन ताचे कपडे तातुंतल्यान किरणां भायर सरतालीं.

"हांव हांगाच उबें आसलें, तुज्यो आनी आईच्यो गजाली आयकतालें. हांवें चिंतलें कीं तुका म्हजेवांगडा एका अशा जाग्यार घेवन वचप जाची इत्सा तुवें आतांच केल्ली. येता म्हजे वांगडा? खूब मजा येतली." ताणें उमेदीन सांगलें.

"पूण तूं कोण?" राजनान अजाप जावन विचारलें.

"हांव 'एस. जी. १९०९९' जावन आसां आनी 'सन २४२०' सावन आयलां." अजाप जावन राजनाचें तोंड उगतेंच उरलें.

"अच्शा. तर हांव भविश्यांतल्या मनशाक मेळटां तर. पूण तुजें नांव कितलें विचीत्र जावन आसा." ताणें उत्सूक जावन म्हळें.

"हें नांव न्हय जाल्यार 'कोड' आसा. तुज्यान जाय जाल्यार थोडेभीतर म्हाका सायगा म्हूण पाचारूं येता.

हांव एक 'सायबोर्ग' म्हळ्यार 'सायब ऑर्गेनीजम' जावन आसां. 'मानव-मशीना'क लागीं-लागीं जुळटा तसलें रूप. म्हज्या दोळ्यांत एक्सरे दृश्टी आसा, हांव तरतरेचे आवाज आवाज आयकूंक शकतां, पुरो जाय नासतना शेगीत कितलींय सप्तकां काम करूंक शकतां, आनी टेलीपथीच्या माध्यमांतल्यान कांयच उलय नासतना गजाली करूंक शकतां. हांव ज्या कालखंडांतल्यान आयलां थंय सगळीं मनशां सायबोर्ग म्हळ्यार सूपर ह्यूमन जावन आसात, विशूध्द जीव थंय कोणूच नात... आतां चल म्हजे वांगडा.'' ताणें ऑर्द दिल्लेभशेन सांगलें.मंत्रायल्ल्या वरी राजन उठून घराच्या टेरेसार आयलो.

गूप काळोख जाल्लो. आशिकुशीक फांकारलेले धुळीक आनी धुंवराक लागून वातावरणांत धुकें फांकारिल्लें.

''आवयस..कितलें प्रदूशण आसा तुमच्या ग्रहार. म्हज्या नाकांत फिल्टर लायल्लो नाशिल्लो जाल्यार... खबर ना तुमी लोक स्वास कसो घेतात म्हूण.'' सायगान तोंड वाकडें केलें तेन्ना राजनाक लज जाली.

सायगा हातींत आसलेल्या घडयाळा बशेन दिसपी यंत्राचे काटे घुंवडावपाक लागले. कांय सेकंदा उपरांत टेरेसार रंगी-बेरंगी उजेड सोडीत गोल-गोल भोंवपी भोंवऱ्या भशेन वस्त दिसपाक लागली.

''हें अचकीत खंयच्यान आयलें?'' राजन उत्सूक जालो.

''हें आमचें कालयान. वेळाच्या कांय सेकंदाच्या फेरफाराक लागून हें नजरे पयल्यान आसलें. हांव ताका वर्तमानांत घेवन आयलां जाचेवेल्यान तुकां म्हज्या ग्रहार व्हरपाक मेळटलें.'' सायगान सांगलें.

फुडल्याच खिणाक दोगांय कालयाना भितर आसलीं. खर झटक्या उपरांत घुंवपी भोंवतण वळी बशेन दिसताली. काळें मळब आनी तातूंत चकचकपी अब्जांनी ग्रह-तारे हांच्या मदीं भोंवडी म्हळ्यार राजनाक एक वींगड अणभव आसलो. ल्हव ल्हव ताच्यो पापण्यो जड जावंक लागल्यो. घडये तो न्हिदलो आसतलो.

कितलो वेळ जाल्लो खबर ना बऱ्याच वेळान राजनाच्या धांपिल्ल्या पापण्यांमदीं हालचाल दिसपाक लागली.

''खंय आसां हांव?'' तो उठून बसलो.

''गलीज ५८१ सी चेर येवकार इश्टा.''

सायगा बशेन दिसपी आनी कितलीशींच मनशां ताच्या मुखार आसलीं हो एक व्हड हॉल आसलो. चारूय वटेनच्यो वणटी पानाच्या रंगाच्यो पारदर्शक श्यो दिसताल्यो. तरे तरेच्या नविदादीच्या वस्तींनी हॉल सजयल्लो. वारें इतलें नितळ, ताजें आनी परमळीत आशिल्लें कीं राजनाक एका गार्डनांत बशिल्ल्याबशेन दिसलें.

''पयलीं कितेंय खावन घे राजन... तुकां भूक लागल्या आसतली.'' सायगान हातांतली प्लेट ताच्या मुखार धरली. राजनान पळयलें प्लेटी मदीं सोनेरी, तांबड्यो, निळ्यो आनी पांचव्यो गुळयो दवरलेल्यो.

''हें तुजें खाण?''

इच्शा नासतनाय कांय गुळयो ताणें तोंडांत घाल्यो. पूण ताच्या आवडीच्या खीर आनी सामोसा बरी रूच लागतकच ताका अजाप जालें. गुळयो पोटांत वचनाफुडें ताचे धील पडिल्ले कुडींत नेट आयलो.

''चल सगळ्यांत पयलीं तुकां ह्या ग्रहावयल्या पोरण्या वस्तींच्या संग्रहालयांत घेवन वतां.''

हॉलांतल्यान भायर येवन तीं चारूय वटयां बंद आशिल्ल्या कॅप्सूल बशेन दिसपी वाहनांत बसलीं. पापणी धांपता म्हणसर तांची हवाईकार मळबावांगडा गजाली करपाक लागली. गुलाबी मळबाच्या बॅकग्रावंडार निळ्या कांबेवरी चकचकपी रस्ते खूब सुंदर दिसताले. विचीत्र आकाराचे रूख आसले. जांचेर रंगबीरंगी फळां हुंबकळटालीं. कांय फळां तर रंगीत ताऱ्यांवरी मदींमदीं चमकतालीं. राजन पळोवन चकीत जालो कीं कांय रुखांतल्यान ल्हवशी संगीत-ल्हारां भायर सरतालीं.

''अजाप जावं नाका राजन. हांगा सोसायटी विकासा बाबतींत पृथ्वी खूब फुडें आसा. हे म्युझीकल रूख आसात जे आपल्या मुडा प्रमाण संगीत तयार करतात.'' सायगान ताचो गोंदळ पयस केलो.

पांचव्या चकचकीत फातरांनी बांदिल्ली एके सोबीत इमारतीच्या सामकार तीं देंवलीं. हो लागींलागीं तीस फूट उंच छप्पर आशिल्लो खूब व्हड बल्कांव आसलो, जाच्यो मोतयांनी भरिल्ल्यो वणटी नी दोळ्यांक थाकाय दिवपी उजवाड भायर सरतालो. ब्रम्हांडांतल्या वींगडवींगड आकाशगंगांच्या अजापीत वस्तींचो संग्रह पळयल्या उपरांत राजनान मागीर जें कितें पळयलें तातूंत तो सून्न जालो.

आगऱ्याचो ताजमहाल, पीसाचो मीनार, गीजाचें पीरामीड, पेरीसचो एफील टॉवर, मॉस्कोचो क्रेमलीन आनी रोमचें कोलोजीयम वांगडा आनीक कांय प्रसिध्द इमारतींचे व्हडले मॉडेल थंय दवरिल्ले. सर आयजॅक न्यूटन, आइन्स्टायन, जगदीश चंद्र बोस, अब्राहम लींकन आनी महात्मा गांधी हांचे पुराय पुतळे बी थंय आसले.

''हें सगळें हांगा कशें?'' राजनान विचारलें.

''ही आमच्या जाणट्यांलीं मिरास. पृथ्वीवयल्या मनशानूच आमचो ग्रह वसयल्लो. तुमी आमचे पूर्वज.'' भावूक जावन सायगान सांगलें.

''हांव समजलो ना.'' राजनान गोंदळून म्हटलें.

''पृथ्वीच्यान वीस प्रकाशवर्श पयस आमचो हो ग्रह ग्लीज ५८१ सी तुमच्या पृथ्वी परस आकारान देडपट व्हड आनी पांचपट जड जावन आसा. आमचो सूर्या [illegible] तांबडो ल्हानसो तारो आसा जो तुमच्या [illegible] परस ल्हान आसा. कांय लोक आमच [illegible] ग्रहाक

पृथ्वीची व्हडली भयण वा सूपर अर्थ पासून म्हणटात. तुमच्या पृथ्वीकडेन सर करीत जाल्यार, तेरा दिसांनी आमी आमच्या सूर्याक एक प्रदक्षणा घालतात. म्हळ्यार तुमच्या १३ दिसां बरोबर आमचें एक वर्स जालें.''

राजनाक याद जाली कीं ह्यो सगळ्यो खबरो ताणें दिसाळ्यांत वाचिल्ल्यो. शाळेंतले टिचरीनय सांगिल्लें कीं हो नवो सोद लागिल्ल्या ग्रहाची परीस्थिती पृथ्वीक जुळटा तशी आसा म्हूण आनी थंय जीव आसपाची खूब शक्यताय आसा म्हूण.

''धतीर प्रदूशणाक लागून ग्लोबल-वॉर्मींग वाडत आसलें. हिमालयाचो बर्फ वितळपाक लागून जल-प्रलय जावपाची परिस्थिती आयिल्ली. मनशाच्या सभ्यतेचो नाश जावपाचो आसलो. आतां एकूच उपाय आसलो कीं खंयच्याय दुसऱ्या ग्रहार वचून रावप. मागीर मनशान आपलो दुसरो संवसार उबो करपाचें निश्चीत केलें. उजेडाचे गतीन चलपी अंतरीक्षयान तयार केल्या उपरांत ताणें ताऱ्यांचो अभ्यास करपाक सुरवात केली आनी अशा ग्रहांचेर वचून विसावलो जंय जिवीत फुलूंक शकत. तातुंतलोच एक आमचो ग्रह.'' सायगान सांगलें.

खूब वेळ सरलेलो. गजाली करतां करतां ती संग्रहालयांतल्यान भायर येवन रस्त्यार पासयो मारपाक लागलीं. ग्रहाचें गुलाबी मळब ल्हव ल्हव स्लेट रंगाचें जावपाक लागलें जंय चकचकपी तीन चंद्र, दुदाळ चान्नें फांकारपाची तयारी करताले. चारूय वटयां रंगबीरंगी प्रकाश फांकारावपी तरेतरेच्यो हवाई गाडयो मोनेपणानी उडटाल्यो. उंच इमारतींतल्यान उजेड फांकारताल्यो.

''कितली शांती आसा तुमच्या ग्रहार. धूळ, धुंवर आनी बोवाळ मातूय ना.''

''हांगा येतकच मनशान त्यो चुको करूंक ना ज्यो ताणें पृथ्वीचेर केल्ल्यो. ना हत्यार, ना परमाणू परीक्षण, ना यूध्द आनी नाय निसर्गाचें शोशण. आमची सभ्यता नैनो टेकनीकचेर आदारीत आसा. व्हड व्हड



मशीनांच्या जाग्यार आमी ल्हान म्हळ्यार नैनो मशीनानी वावर करतात. निसर्गाकडल्यान जें कितें आमी घेतात तें ताका परतेंय करतात. जशेपरी उदक, नितळ वारें बी.'' सायगान गर्वान सांगलें. रस्त्यार दोनूय वटयां आशिल्ल्या मांडानी, तरेतरेच्यो अजापीतशो वस्ती उप्पाट भरिल्ल्यो.

''यो म्हजे वांगडा...''सायगा ताका एका मांडार घेवन गेलें. शोकेसींत अनवळखी वस्ती सजोवन दवरिल्ल्यो. ''हें घे, पळोवपाक हें सादारण वताचें वक्ल पूण हें घालतकत तूं सामकार आशिल्ल्या मनशाच्या मनांतल्या विचारांचीं ल्हारां वाचून ताच्या मनांतली गजाल समजूंक शकता.''

रंगीत उर्शी आसलीं. तांबडया उशांचेर तकली दवरून न्हिदतकच सोबीतशीं सपनां पडटालीं. निळ्या उशांचेर न्हिदतकच खूशालभरीत सपनां, आनी काळ्या उशांचेर न्हिदतकच भयानक सपनां पडटालीं. जायत्या तरेतरेच्या वासाचीं फुलां आसलीं. धवीं फुलां मन शांत दवरतालीं जाल्यार पांचव्या फुलांचो वास दिवन कोणायकूय वश करूं येतालें. स्प्रींग आसपी आगळेच मोचे घालून पंचवीस फूट उडी मारूंक जातालो. अशें पेन आसलें जें सांगिल्ली गजाल बरोवपाक शकतालें.

''हो स्पेस फोन तुका म्हजेकडल्यान.'' सायगान मोबायलाभशेन दिसपी एक सेट ताच्या हातांत दिलो.

''हातूंत तूं पृथ्वीचेर आसतनाय हांगा म्हजेकडेन उलोवंक शकता. हाच्या स्क्रिनार हांगाचीं दृश्यां पळोवंक शकता, इतलेंच न्हय हेर ग्रहांचेर रावपी लोकांकडेन संपर्क करूंक शकता. तांचेकडेन इश्टागत करूंक शकता. इश्टागत, आपलेपण आनी मोग... होच मनीस आसपाचो अर्थ न्हय?''

''आतां म्हाका वचचें पडटलें. आईक सांगतलों कीं हांव मावशेगेर वचून आयलों म्हूण.'' अशी सोबीत भेट मेळिल्ल्यान राजन खुशालभरीत जालो.

''मावशेच्या घरा?'' अजाप जावपाची पाळी आतां सायगाची आसली.

''तुवें सांगिल्लें की हो ग्रह आमच्या पृथ्वीची व्हडली भयण म्हूण. म्हटल्यार हें म्हज्या मावशेचें घर जालें ना.''

''सारकें उलयलो.'' सायगा उमेदीन हांसलें. कालयाना भितर परतून पयलीचोच अणभव घेयत राजन परतून आपल्या टेरेसार पावलो. ताणें घडयाळ पळयलें. साडे आठ जाल्लीं. म्हळ्यार ताका पृथ्वीवयल्यान वचून फकत दोन वरां जाल्लीं. मन जड जालें. नशीब की सायगाकडेन उलोवंक शकतालों. ताणें बॉल्सांत हात घालो. स्पेसफोन थंय नासलो. ताणें बेगीबेगीन सगळीं बॉल्सां सांसपिलीं. घडये स्पेस फोन कालयानातूच उरलो. जड पावलांनी तो येवन खाटीर आड पडलो. आशेचें एक किरण ताच्या मनांतल्या एका कोनशाक चकचकतालें. कीं घडये सायगा परतून ताका मेळपाक येयत. तें आयलें जाल्यार.

**('कल्पना कुलश्रेश्ठ' हांचे हिंदी कथेचो उदय देशप्रभू हाणी कोंकणीत केल्लो अणकार.)**



# गोंय मुक्तीच्या सुवर्ण महोत्सवी वर्साच न्हय फुडलीं पांच वर्सां दिगंबरूच मुख्यमंत्री जाय !

'बिम्ब' परिवाराच्या नियाळांत ९०% प्रतिनिधींचें मत्त.

१९ डिसेंबर २०१० ह्या दिसा सावन गोंय आपले मुक्ती दिनाच्या भांगरा उत्सवी वर्साच्या सुवाळ्यांत पावल घालता. हो भांगरा उत्सव दरएक गोंयकारां खातीर खूब म्हत्वाचो आसा. हे दिसा सावन खूब विचार मंथन जावपाचें आसा. गोंयान फाटल्या पन्नास वर्सांत कितें जोडलें? पुर्तुगेज राजवट बरी आशिल्ली काय आमच्या भ्रश्ट राजकारण्याची राजवट बरी आसा? गोंय आसा तशेंच चलूंक दिवपाचें काय तें निटायेर घालपाचो वावर सुरू करूंक जाय? अशे साबार प्रस्न तकली वयर काडटले.

मुक्ती दिसाचो भांगरा उत्सवी सुवाळो मनयतना सदरेर खंयचें सरकार आसा आनी खंयचो मुखेलमंत्री आसा हाकाय खूब म्हत्व आसता. असली संद खूब कमी लोकांच्या नशिबांत आसता. दिगंबर कामतीच्या नशिबांत ती आसा.

दिगंबर कामतीन मुख्यमंत्री म्हूण चार वर्सां पुराय केल्यांत आनी भांगरा उत्सवी वर्स हें ताचे खातीर पाचवें वर्स. खरें म्हळ्यार ह्या वर्सा मुखेलमंत्री बदलपाचो प्रस्नूच येना. वेचणूक जावपाची आसा ती आनीक देड वर्सान. म्हणटकच सुवर्ण महोत्सवी वर्सा कायद्यान दिगंबर कामतूच मुख्यमंत्री आसूंक जाय. पूण सत्तरीच्या बाबान मुलूख जिकून फुडले जिकपाक कूच केल्या तेन्ना कांय जाणांक दिसलां आतां मुख्यमंत्री बदलताच. कितेंय आसूं! राजकारणांत कितेंय घडूं येता. पूण वेचणुको हो महोत्सव उलगल्या उप्रांतूच जातलो. कारण गोंय मुक्तीचो भांगरा उत्सव मनोवपा खातीर केंद्र सरकारान हे आदींच दोनशीं कोटी रुपयांची तरतूद केल्या. गोंय सरकाराचोय आपलो वांटो आसतलो. तेन्ना ही 'सुवर्णसंद' होगडावपाक खंयचोय आमदार तयार जावचोना. देखुनूच बिम्ब परिवारान फाटले दोन म्हयने १०० लोकांक फोनावेल्यान, व्यक्तीगत मेळून कांय मत्तां जाणून घेतलीं. तातूंत १० उद्योजक, १० समाजसेवक, १० लेखक आनी कलाकार, १० पत्रकार, १० दक्षिण गोंयचे आनी १० उत्तर गोंयचे सर्वसामान्य मतदार, १० हाताच्या पोटावेले थळावे मजूर, १० नगरपालिकेचे सफाई कर्मचारी, आनी सुशिक्षीत बेकार, १० महाविद्यालयीन विद्यार्थी, आनी १० सरकारी कर्मचारी अशी वाटणी आशिल्ली.

संपर्क केल्याबराबर 'बिम्ब' मासिक चलता हें खबर आसा तुमकां? असो प्रस्न करून आमचो उद्देश्य सांगतकच ज्यो कितें प्रतिक्रिया मेळ्ळ्यो त्यो संपादीत करून हांगा उजवाडायल्यात. हातुंतल्या आठ उद्योजकानी तर पाडपडूं, भानगड नाका, नो कोमेंन्टस अशें म्हणत उलोवप टाळ्ळें. भोवतेक लोकांनी आपलें नांव न छापपाचें उतर घेवन आपल्यो




प्रतिक्रिया दिल्यो. कारण तांका कोणे दिगंबराचो चमचो बी म्हणिल्लें नाका आशिल्लें. ह्या नियाळ वावरांत एक गजाल कटाक्षान पाळ्ळ्या म्हळ्यार आयजवेरच्या खंयच्याच मुख्यमंत्र्यांकडेन हे ना त्या कारणाक लागून लागशिल्ले संबंद आसात अश्या एकाय मनशाकडेन हें मत्त घेवंक ना. पूण एकंदर लोकांकडेन उलयल्या उपरांत तातुंतल्या ९०% लोकांनी मुख्यमंत्री म्हूण दिगंबर कामतच आसचो अशें नानाकार दाखोवनूय मान्य केलें. हे आसात कांय प्रतिनिधी जाणी आपलें नांव छापूंक हरकत ना म्हूण सांगून आपल्यो प्रतिक्रिया उक्तायल्यो.

***

**अभय जोशी,** सुरेखा व्हिडिओ टेक, फोंडा
तो पर्रीकार तसो बरो आशिल्लो. पूण ताणें होगडायलें. हो आतांचो आमकां बरो आसा. कलाकारांक बी मानान वागयता. तांचे खातीर खूब कामां केल्यांत ताणें. येवजण्योय राबयता पूण मातसो कणखर जाय. तरी आवडटा तो म्हाका.

***

**नयना आडारकार** लेखिका, पत्रकार
आमकां आतां मेरेन असलो लेखकांक मानान वागोवपी मुख्यमंत्री मेळ्ळोच ना. कोणूय ल्हान मनीस जावं तो, लेखक, कवी म्हणटकच दिगंबर ताका सामको खंय दवरूं आनी खंय नाका अशें करता. असलो आनी मुख्यमंत्री आमकां मेळचोना. तेन्ना आसूं तोच कितें म्हणटा तूं? पूण हें म्हजें फाटले मुख्यमंत्री आनी हो मुख्यमंत्री हांचेविशींच आं! नवें रक्त जर आयलें आनी आयचो भ्रश्टाचार हुमटून उडोवंक लागलो जाल्यार ताका येवकार दितलें हांव.

***

**किशोर शिरोडकार**
मालक : रूचिरा बार रेस्टारंट
पर्वरी-गोंय

दिगंबर आमकां जाय. हे पयलींचे मुखेलमंत्री सामके हिडिस फिडीस करताले सामान्य लोकांक. आपल्याच मतदार संघातल्यांक लागीं करताले. पूण हो तसो ना. ताका सगळे सारके.

***

मडगांवचो एकलो किरणा मालाचो वेपारी मुख्यमंत्र्याविशीं पयलीं बरोच ताप ताप तापलो. ताणें ऐनवेळार पर्रीकाराचे फाटीत खंजीर खुपसलो म्हणूंक लागलो. पूण अकस्मात ओग्गी रावून म्हणूंक लागलो. आसूं रे तोच! तशे सगळे एकूच. पूण हो तसो आतेसांव दिवपाक बरो. केन्नाय वच, घरांत घेता. पूण अजून हांव गेलोंना आं! आनीक एक, फट मानशीत! हे खेप हांवें ताकाच मत माल्लां. कितलोय जाल्यार आमचो न्हय रे!

***

पणजेच्या नगरपालिकेची एक सफाई कामगार. तिच्या मता प्रमाण कोणूय मुखेलमंत्री आसल्यार सारकोच. आमचें काम आमकांच करूंक जाय. पूण हो कोण दिगंबर म्हणटा तो बरो म्हूण आयकलां.

कमलाकर म्हाळशी, श्रीस्थळ काणकोण

***

सगळ्यांक बरोबर घेवन वचपी मुख्यमंत्री. तरी सदांच सगळ्यांक मोव रावंक फावना. मनोहर पर्रीकर जसो कणखर आसतालो तसो ताणेंय आसचें अशें लोकांक दिसता. ठाम निर्णय घेवपाचे बाबतींत, ॲडमिनिस्ट्रेशनचे बाबतींत बी. तेच खातीर कांय लोक ताचेर नाराज आसात. रागार नांत.

# सिंहगड



– पद्मनाभ टि. नायक
टिळकनगर, डोंबीवली पूर्व,
४२१ २०१.
फोन : (०२५१) २४२१४०१



आदल्या काळांतू राज्याभिवृध्दी खातीर दसऱ्या दीस राजालोक सीमोल्लंघन करतास्सिले. आयच्या काळांतू स्कूल कॉलेजांचीं भुरगीं सुटये दिसांनी ज्ञानाभिवृध्दी खातीर सेकबॅग खांदार मार्नु ट्रेकिंगाक भायरी पडताती. हें बी एक प्रकारचें सिमोल्लंघनचीं! ही प्रथा वायट न्हय.

महाराष्ट्रांतु सह्याद्री पर्वताच्या खांचिखांचींतु, अनेकराष्ट्रीय, अंतराष्ट्रीय नामना पाविल्ले, दुर्गम गड किल्ले (कोट) आस्सति. ते ट्रेकर्सांक आव्हान दित्ताति. तांचे मदलो सिंहगड एक जावन आस्सा.

पुणे शहराचे नैरुत्य (South-west) दिकेन वीस कि. मी. अंतराचेर, समूद्र पातळे सावनु १३१० मीटर ऊंच 'सिंहगड' आस्सा. स्वारगेट बस स्थानका सावनु थंय मेरेन बस्सु वत्ताति. ट्रेकिंगा वत्तल्यांनी खडकवासला, डोणजे गांवांतुल्यानु आतकरवाडी मेरेनु बस्सारी बच्चुनू मागीर पांयवाटेनु गुड्डो (दोंगर) चोण वोचयेत. हे वाटेन गेल्यारि देडदोन घंट्यानी उत्तर दिकेच्या पुणे दरवाजांतुल्यानु गडारि प्रवेश कोरयेत. हे वाट्टेनु थोडी दमछाक जात्ता. कारण सिंहगड उत्तरेक थोडो ऊंच आस्सा. आन्नेक वाट आस्सा. कात्रजघाट मार्गनु कोंडणपूर गांवच्यानु कल्याण गांवां वचका. थंयच्यानु पांय वाटेनु घंटा देडघंटा चलत गेल्यारि दक्षीण दिकेच्या कल्याण दरवाजांतुल्यानु गडारि प्रवेश कोरयेत. ही वाट सगळ्यांतु सुलभ पूण भोवतेक ट्रेकर्स आतकरवाडीसावनूचि वत्ताति. भायले गांवच्यानु येत्तले पयले दीस सांजे आतकरवाडी येवनु राबताति. सानगांव, शांत वातावरण शहरांतल्यान येत्तल्यांक बरें मानवता. दुसरे दीस सक्काळीं उट्टोनु, सादो नाश्ता कोर्नु गुड्डो (दोंगर) चडच्या सुरू केल्यारि णव घंट्या भितूरि गडारि पावताति. तीन चार घंटे फिरूनु आरामांतु पुराय गड पळोवनु, दनपरां जेवुनु, अर्द घंटा आरामु कोरूनु आतकरवाडी आयल्यारि, बस धोर्नु सांजे पांच घंट्या भित्तरि स्वारगेट बसस्थानकारि येवुनू पावयेत.

'सिंहगड' म्हळे की छत्रपती शिवाजी म्हाराजालो विश्वासी सैन्याधिकारी तानाजी मालुसरेचो उगडास जात्ता. अभिमानानु आंगावयले रोमु नीट राबताति.

शिवाजीन आग्रा वोचचे पयलीं पुरंदर गडारि मोगल सरदार राजे जयसिंगा बरोबर (जून १६६५) एक ओप्पंद (करार) केलीलो. त्या करारा प्रमाणे शिवाजीन तागेल ताब्यांतु आस्सिले कित्येक गडकिल्ले मोगलांक सोण दिवचें पडिलें. त्या पैकी सिंहगड एक. करार करतना ह्या किल्ल्याचें नांव 'कोंडाणा' आस्सिले. राजे जयसिंगानु


कल्याण दरवाजो, सिंहगड, पुणे.

आपणालो विस्वासू राजपूत सरदार उदयभानूक किल्लेदार म्होणु नेमिल्लो.

आग्रांत औरंगजेब शिवाजी म्हाराजाक एक राजा म्होणु मान दिना. कनीश्ट सरदारावरी वागयता. भरील दरबारांतु अपमान करता. तेन्ना ओरंगजेब शिवाजीचेर आरोप दोवोर्नु ताका कैद करता. ह्या भयंकर कठीण जिवाचेर आईल आपत्तीतुल्यानु म्हाराज मोठे युक्तीन जीव वाटावनु पळून वता. सहीसलामत रायगडारि येवूनु पावता. परत आयीलनंतर पक्का निर्धार कोर्नु मोगलांक दिल्लिले गडकिल्ले जिकूनु घेता.

कोंडाणाचेर युध्दाक वत्तना तानाजी मालुसरेल्या पुत्ताक लग्न ठरिलें आसता. अशें आस्सिलतीकि स्वराज्य आनी स्वधर्माच्या अभिमानानु तो 'आधी लगीन कोंडाण्याचे' म्होणु ती जबाबदारी स्विकारता.

फेब्रुवारी इ.स. १६७२ वर्सा मध्यरात्री कोंडाण्याचे पश्चीम दिकेक आस्सिले दोणगिरीच्या खडकांक घोरपडीच्या आदारान दोरी बांदून कांय मावळे वयर चडतातित. बेसावध आस्सिल मोघल सैनिकांक कस्सने जाल्लें म्होणु कळचे पयलीं भितरल्यान बंद केल्लि बंद कल्याण दरवाजो उगडतातित. शिवाजीले सैन्य भित्तरि घुसता. रात्री वेळारि धोंदी (मशाल) उजवाडांतु घमासान युध्द जात्ता. असंख्य सैनीक मरतातित, जखमी जात्तातित. हे लडायींतु स्वता तानाजी आनी किल्लेदार उदेभानू शौर्यान लडतातित. जीण पणा लावूनु लडत मरतातित. दोगांकयि वीर मरण मेळता. मराठा सैनीक आपणाले सरदार मेल्लेतीकि युध्द थांबयनातित. कोंडाणा किल्लो जिकूनु घेत्तातित. किल्ल्याचेरि भगवो बावटो फडफडायतातित.

सुखदुख्ख एक आस्सिलकडेन आन्नेक येता. जाल्ल्यारि खंयतरी चुक्कून दोगां मेळूनु येत्तातित. एक देख घेवका जाल्यारि मस्त वर्सां नंतर एकल्याली बायल बाळांत जात्ता. चल्लो जात्ता पूण बाळंतपणांत बायल मरता. हांगा चल्लो जालो म्हळील आनंद आनी बायल मेली म्हळील दुख्ख मेळूनु आईल तेन्ना दुख्खाच्या काळ्या मोडांतुल्यानु आनंदाचीं प्रकाश किरणां भायर येवच्या शकनातित.

त्याच प्रमाणे 'कोंडाणा' किल्लो म्हळील आनंदा परस शिवाजी म्हाराजाक शूर तानाजी मालुसरे गेलो म्हळील दुख्ख जास्ती जाल्लीलें. 'गड आला पण सिंह गेला' म्हणत तो आपणाले दुख्ख व्यक्त करता. तानाजी मालुसरेल्या रक्तान पावन जाल्लील त्या कोंडाणा किल्ल्याक 'सिंहगड' म्होणु नांव दवरता.

आज 'सिंहगड' म्हळें कीं तानाजीलो पराक्रम, पौरूष, स्वामी निष्ठा एक आदर्श म्होणु आमगेल दोळ्यां येद्रा (मुखार) येता. अभिमानान छाती फुगता. गडारि फिरतना थंचो वारो आमगेल कानांतु गुजू गुजू करूनु म्हणता 'तुम्मीं बी पराक्रम करा, पौरूष दाक्कया, यश मेळया, स्वराज्य स्वधर्माखात्तीर प्राण मुठींतु धरूनु लडा' म्होणु सांगता.

ह्याच सिंहगडारि राजारामाली समाधी आस्सा. तीस वर्सांचे खूब सान पिरायेरि तो मरता (इ.स.१७००) ताणें मोघलांक टक्कर दीत ह्या गडाचो मान राखूनु दवरिल्लो. राजस्थानी पध्दतीनु बांदिल तागेली समाधी आजून सुस्थितींतु आस्सा.

राजारामाल्या मरणा नंतर गड परत मोघलांल्या ताब्यांतु वत्ता तेन्ना ओरंगजेब ह्या गडारि येवूनु गेल्लील खंय!

लोकमान्य टिळकांक सिंहगडावयले वातावरण खूब आवडतास्सिले. थंची इतिहासीक फाटभूंय तांकां चड आवडतास्सिली. इ. स. १८८९त एका संस्थानिकानु तांकां थंय राबच्याक बंगलो बांदुनू दिल्लो. तो बंगलो आजून सुस्थितींतु आस्सा. 'गीता रहस्य' पुस्तकाची मुद्रणपत ताणी ह्या बंगल्यांतु वास्तव्य करतासतना पूर्ण केल्लीलि. महात्मा गांधी (इ. स. १९१५) लोकमान्य टिळकांक मेळच्याक सिंहगडारि आईल तेन्ना ह्याच बंगल्यांतु राब्बिले. रवींद्रनाथ टागोर, नेताजी सुभाषचंद्र बोस बी हांगा येवूनु गेल्ल्यातित.

हांगा यादवकाळांतुलें कोंडाणेश्वर मंदीर आस्सा. कौंडिण्य रुशीन




तें स्थापन केल्लिले म्हणताति. तशेंचि थोड्या अंतराचेरि 'अमृतेश्वर' महादेव मंदीर आस्सा. ह्या देवाल समक्ष न्यायालयीन चवकशी जात्तास्सिल खंय. अपराधी लोकांक हांगाचि शिक्षा जात्तास्सिल खंय.

ह्या दोनी देवळां लागूनु तानाजील स्मारक आस्सा. माघ वद्य नवमी दीस ह्या गडारि तानाजील स्मृती दीन मनयताति.

गडारि पिवच्या उदकाची वेवस्था आस्सा. 'देवटाके' म्हळील उदकाचें कुंड आस्सा. उदाक निवळ थंड आनी गोड आस्सा देकूनु हांगा आईल पर्यटक वत्तना हे उदाक बाटलेंत भरुनू व्हरताति.

'देवटाके' कडच्यान दक्षिणेक सक्कल देंवूनू गेल्यारि दोन दरवाजे मेळताति. हांकां कल्याण दरवाजे म्हणताति. सुभाषबाबू हेवाटेन गडारि आयील खंय!

अखैर हो किल्लो इ. स. १८१८तु पेशवाई सरले नंतर ब्रिटिशांल्या ताब्यांतु गेलो. ताणी १८५७तुल्या पयल्या स्वातंत्र्य लढ्यानंतर मराठा इतिहास नाश करचे देवकूनु, तांगेलो एकवोट मोडच्याक गडावयलें वास्तुशील्प पुराय नाश केले. आनी किमती वस्तू घेवूनु गेल्ले.

पुराय इतिहासाक मूक साक्षिदार जावन आस्सिल्या ह्या सिंहगडाक एक पंता भेट दिवका. ह्या गडावयल्यानु शिवकालीन इतिहासांतुले पुरंदरगड, लोहगड, राजगड, तोरणा दिसताति. खडकवासला धरण दिसता.

मन आनी कूड सुदृढ दवरच्याक अस्सल जाग्यारि येवका. तुमी ताका ट्रेकींग म्हणा ना जाल्यारि इतिहासीक सहल.



## अभिनंदन

**बिम्ब प्रकाशनान** प्रकाशीत केल्लें
कोंकणींतले नामनेचे
अश्टताशी साहित्यिक
**श्री. महाबळेश्वर सैल** हांच्या

**हावठण**

हे कादंबरीक
**विमला वी. पै विश्व कोंकणी साहित्य पुरस्कार**
हो पयलो वयलो पुरस्कार
लाभिल्ल्या बद्दल बिम्ब परिवाराचीं
हुनहुनीत परबीं



# एड्स

दर वर्सा एक डिसेंबर संसारीक एड्स दीस म्हूण पाळटात. हें एक अशें दुर्येंस जाचेर अजून योग्य उपचार आनी प्रतिबंधक लस मेळूंक ना. म्हूण एड्साबद्दल सगळी जाणविकाय आसप हेंच गरजेचें.

एड्स हें एच् आय् व्ही नांवाच्या जंतूंक लागून जाता.

एच - अक्वायर्ड

आय - इम्युनो

डी - डेफिशियन्सी

एस् - सिन्ड्रोम

एच् - ह्युमन

आय - इम्युनो डेफिशियन्सी

व्ही - व्हायरस

हो व्हायरस मनशाच्या रोग प्रतिकार शक्तीचेर आक्रमण करता देखून ह्या मनशाक तरे-तरेचीं दुर्येंसां जावंक लागतात. एकदां मनशाक एच आय् व्ही इन्फेक्शन जालें की तें ताका आयुश्यभर उरता. एच् आय् व्ही विषाणूची लागण वा एड्साचेर अजून मेरेन कसलेंच वखद येवंक ना आनी देखून सावधानकाय बाळगप होच ताचेर उपाय जावन आसा.

एड्स दुर्येंस खूप वर्सांपासून जगांत आसा. सगळ्यांत पयलीं १९८१ सालांत अमेरिकेंत समलिंगी संबंद दवरणाऱ्या मनशांत एड्साचें दुर्येंस सापडिल्लें. तशेंच भारतांत १९८६ सालांत आनी गोंयांत १९८७ सालांत एड्साचें दुर्येंसा पयल्याच वेळां सांपडिल्लें.

एच् आय् व्ही ह्या विषाणूंची बादा जाल्ल्या लोकांची आकडेवारी

संबंद जगभर - अदमास ४०० लाख

भारतांत - अदमास ४० लाख

गोंयांत - अदमास १०-१२ हजार

एच आय व्ही विषाणू आमचे कुडींत प्रवेश करतकच ३-४ आठवड्या उपरांत त्या मनशाक जोर, आंग-दुखप, ताळो दुखप, कातीचेर खाज सुटप अशीं लक्षणां दिसतात. पूण हीं लक्षणां ३-४ दिसांनी कमी जातात आनी मागीर फुडलीं ५-१० वर्सां हो मनीस सामको बरो आसता. पूण एक, ताचे कुडींत एक आय व्ही विषाणू आपलें काम करीत आसतात. म्हणजेच त्या मनशाची जन्मजात प्रतिकार शक्ती कमी करता. पूण ह्या वेळार त्या रोगाचीं कसलींच लक्षणां दिसून येनात आनी हाका लागून नकळत हो एच आय व्ही विषाणू एके कुडींतल्यान दुसरे कुडीमेरेन पावता.

ह्या ५-१० वर्सां उपरांत मनशाची रोग प्रतिकार शक्ती सामकीच कमी जातकच मागीर ताका एड्स दुर्येंस जाता.

१. एच आय व्ही विषाणुचो मनशाचो कुडींत प्रवेश.

२. एच आय व्ही लागण जावन फुडलीं ५-१० वर्सां मनीस सामको बरो उरता.

३. एड्स

४. मरण येता.

आतां लक्षांतआयलांच आसतलें की एच आय व्ही विषाणू कुडींत प्रवेश करतकच मनशाची प्रतिकार शक्ती कमी करीत करीत एड्स जावपाक ५-१० वर्सां वतात आनी मागीरूच मनशाक मरण येता.

एड्साचीं लक्षणां अशीं आसतात

मुख्य लक्षणां

१. एका म्हयन्यावयर जोर येवप.

२. मनशाचें १० टक्के वजन कमी जाता.

३. म्हयन्यावयर पातळ परसाकडे जावप

दुसरीं लक्षणां

४. एक म्हयन्यावयर खोकली येवप

५. कातीचे विकार जावप

६. क्षय रोग

७. मेंदवाचे विकार

८. वेगवेगळ्या तरेचे कर्क रोग ह्या सारकीं दुर्येंसां जातात.

एच आय व्ही विषाणुचो संसर्ग/प्रसार कसो जाता?

एच आय व्ही विषाणुचो प्रसार रगत, वीर्य आनी योनीमार्गांतल्यान जांव येता.

१. एच आय व्ही ची लागण आशिल्ल्या मनशाबरोबर लैंगीक संबंद दवरले जाल्यार.

२. एच आय व्ही ची लागण आशिल्ल्या आवयकडल्यान गुरूवारपणांत आदी दुदांतल्यान तिच्या भुरग्यांक.

३. एच आय व्ही ची लागण आशिल्ल्या मनशान रगत दान केलें आनी हें रगत जर खंयच्याय एका मनशाक दिलें जाल्यार त्या मनशाक एच आय व्ही ची लागण जांव येता.

४. जंतुनाश करूंक नाशिल्ल्या सुयांचो, इंजेक्शनांचो वा हेर आमच्या कातीक तोपपी कसल्याय उपकरणांचो वापर केलो जाल्यार.

एच आय व्ही विषाणुंचो संसर्ग कसो जायना!

एच आय व्ही ची लागण आशिल्ल्या मनशाक

१. वेंग मारप

२. तांचे बरोबर हात मेळोवप

३. तांची पापी घेवप

४. खोंकलेंतल्यान

५. शिकेंतल्यान

६. आयदनांचो, टेलिफोनाचो, संडासाचो वापर

७. स्विमिंग पूल वा आनी कांय सर्वसादारण संपर्कांतल्यान ह्या विषाणुची लागण जायना.

८. तशेंच जळार, आनी खंयच्याय किडीपासून ह्या विषाणुचो संसर्ग जायना.

एच आय व्ही/एड्स आपल्याक जावंचो न्हय म्हूण कितें करप?

१. सुरक्षित लैंगीक संबंद दवरप

२. एकापरस चड मनशांकडेन लैंगीक संबंद दवरचो न्हय.

३. कंडोम चो वापर करप.

४. गुप्तरोग वा आनी कसल्याय लैंगीक संबंदांतल्यान जाल्ल्या रोगांचो रोखडोच उपाय करप.

५. एका मनशाक जर रगताची गरज पडली जाल्यार, रगत दिवपी मनशान रगत तपासणी पयलीं करची आनी जर त्या मनशाक एच आय व्ही ची लागण ना जाल्यार ताच्या रगताचो उपेग करचो.

६. कातीक तोपपाच्यो सुयो आनी हेर आयुदां वापरच्या पयलीं शिजयल्ल्याची खात्री करपाची.

७. दुसऱ्यान वापरिल्ल्या सुयांचो, ब्लेडीचो, दातांचो ब्रश वापरूंक फावना.

८. एच आय व्ही ची लागण आशिल्ल्या बायलांनी शक्यतो गुरवारपण टाळचें.

एच आय व्ही ह्या दुर्येंसाचेर मार्गदर्शन आनी रगत तपासणी करपाची सुविधा गोंय वैजकीय महाविद्यालय, बांबोळी हांगा ओ. पी. डी. १३कडे संपर्क सादचो.

शेवटाक सांगपाचें म्हळ्यार एच आय व्ही ची लागण जाल्या जायत तर तांचे बद्दल लोकांनी कसलोच पक्षपात करचो न्हय आनी तांका सहानभूती दाखोवंची.





- डॉ. वंदना धुमे

फोन :९८२२५८५२८५



## गोंय मुक्तीच्या सुवर्ण महोत्सवी वर्सांक सलाम



– संतोष शिवराम हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर,
फोंडा-गोवा ४०३ ४०१

### आडवे

१. तामिळनाडू राज्याची भास
२. ताकतीक, हुसको, ताकीत
५. भुरग्याले भाशेन ल्हान
६. गणपती
७. फाटीर कट्टें आशिल्लो जीव, कूर्म
८. डाक, पत्रां
९. जंगलाचो राजा, शींव
१० शक्य जावप, करूंक येवप
११. आरोग्य, भलायकी वा रस्तो
१२. पक्षी
१३. 'ओ मेरी मुन्नी'चो गायक ह्यू फर्नांडीस
१५. पवन, वाव
१६. मस्ती, मदांदकाय
१७. सांबाळून धरप, राखप
१९. भक, खूब भूक
२१. वडील, बापूस
२२. जाय थंय वा जाय ताचकडेन थारोवप, पातयेवप
२३. भाजी
२४. मेर, सराद

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | | | | | २ | ३ | | | ४ |
| | | | ५ | | | | | | |
| ६ | | | | | | | ७ | | |
| | | | | | ८ | | | | |
| | ९ | | | | | | १० | | |
| ११ | | | | | १२ | | | | |
| | १३ | १४ | | १५ | | | | १६ | |
| १७ | | | १८ | | १९ | २० | | | |
| २१ | | | २२ | | | | | | |
| | | २३ | | | | | | | |

### उबे

१. तोंडयां खेळ, तालार तोंडयो मारून केल्लो नाच आनी खेळ
२. दया, चुरचुरे
३. पूत, भुरगो
४. वाजेवप, उबगण
५. गोंयचो फामाद आंबो
७. शीत कालोवंक केल्ली कडी
९. तळमळप, आस्त लागप
१२. आयस पयस पातळ्ळेलें तळें
१४. भारताचो राष्ट्रीय पक्षी
१६. गुन्यांवांतल्यान मेकळीक, माफी
१७. राखण, जतनाय
१८. खेळांतलें मॅडल
२०. विकून सोंपप

### सप्टेंबर उत्तर कुवाड्याची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| मो | द | क | | पा | र्व | ती | | दे | ख |
| र | | न | मा | ज | | न | | व | ण |
| या | त्रे | क | रू | | आ | का | श | वा | णी |
| | स | | ती | स | | त | | णी | |
| अ | ठ | रा | | र | ब | री | | | प |
| ण | | | अ | स्व | ल | | प | | ण |
| क्र | | सु | क | ती | | द | र | वा | जो |
| र | ग | त | | | म | हा | दे | व | |
| | जा | ली | म | | ही | | स | र | स |
| झी | ल | | घा | त | मा | रे | | प | त |

# काणी एका बायपासाची!

**बा**यपासा मेरेन प्रकरण पावत अशें हांवें धरूंक नाशिल्लें.

तशीं फाटलीं बरींच वर्सां बायपासान म्हजो जीव खाल्लो.

आमच्या घराफुडल्या भाटांतल्यान बायपास वता म्हणपाची गजाल सुरू जाल्ली. तो आमच्या घरा मुखावयल्यान वता काय घरा वयल्यान हाची धुगदूग आशिल्ली.

हाका लागून म्हाका घराचें रिनोवेशन करतलो म्हळ्यार मेळनाशिल्लें.

शेवटाक जमीन थारली आनी बायपासूय पुर्णायेक आयलो आनी मार्गाक लागलो.

मागीर आमचो रमेश वेळुस्कार गोवापुरीचो संपादक जालो. गोवापुरी म्हळ्यार आय एम बी (इन्स्टीट्यूट मिनेझीस ब्रागांझा)चें मुखपत्र कशें!

पयलीं तो बरोच वर्सां बी आय एम बी चो म्हळ्यार बिम्ब चो संपादक आशिल्लो. आतां इम्बचो जाल्लो. म्हाकाय बरें दिसलें.

गोवापुरी खातीर रमेशान म्हजेकडेन कथा मागली.

कथा मागपा फाटलीं कारणां कितें तें म्हाका कळूंक ना. हांवें जीं सोदून काडिल्लीं तीं अशीं :

गोंयांत मुळांतूच कथाकार कमी.

तांतले कांय ज्येशठ हे पदवेक वचून बशिल्ले. देखीक भाई मावजो, शीला कोळंबकार, मीना काकोडकार, एन्. शिवदास, महाबळेश्वर सैल, पुंडलीक नायक बी!

हातुंतल्या पुंडलीक नायकान साहित्यांतल्यान आंग काडून घेतलें. भाई मावज्याक हेरांच्यो कथा मोलावपाच्या व्यापाक लागून वेळूच उरलो ना. शिवदास प्रयत्न करता. पूण ताका जीवंत विशय लागतात. हालींच सुनापरान्तात (चवथ अंक) ताणें जिवी तट्‌तट्टीत कथा बरयल्या. तिचो इंग्लीश अणकार सद्या साबिना मार्टीन्स करता.



महाबळेश्वर सैल आपले तांकी प्रमाणे कथा बरयता आनी बरयली काय पुरस्कार घेता.

शीला आनी मीना हांचेर कांय उलोवपाचें नाच. दोगानीय कथेची भानगडूच सोडिल्ली. दोगांय अर्दी मर्दी कितेंय वाचतात तेन्ना तांतली कथा खंयची आनी निबंद खंयचो तें तांकां कळना.

म्हणटकच कथा घेवची कोणाकडच्यान हो प्रस्न रमेशाक पडलो.

जेन्ना मागता तेन्ना दिवया म्हळें. विशय तकलेंत आशिल्लोच बायपासाचो. बरी कथा बरयली. 'बायपास' म्हूण शिर्शक दिलें. वचून मावज्याक दाखयतलों म्हळें. पूण रमेशाक रावपाक वेळ नाशिल्लो. ताका संपादकीय सोपस्कार पुराय करून रायबरेली पळपाचें आशिल्लें.

म्हजी 'बायपास' ही कथा सुनापरान्तात छापून आयली. बऱ्याच लोकांनी वाचली. तोखणायेचे फोनार फोन. जयंती नायक, माया खरंगटे हाणीं तर चक्क फोन करून म्हळें, "दिलीप आमकां हुसको लागिल्लो. आमच्या फाटल्यान कोण काय म्हूण! कोंकणी कथे मळार सामको काळोख दिसतालो रे! आतां भंय ना." जयंती उलयतना रडपाकडेन पाविल्लें.

प्रकाश पर्येकाराचें तर हड्डें भरून आयिल्लें. "बेस्ट, बेस्ट म्हणचे बेस्ट. म्हजे पयलीं जर तुजी ही कथा दिल्ली पाविल्ली जाल्यार म्हज्या आदीं तुकांच कथा पुरस्कार लाबपाचो. गूड. असोच बरयत राव." म्हजी फाट थापटीत प्रकाश पर्येकार गेलो.

हांव तर वाऱ्यार उबतालों. बायपास! द ग्रेट! म्हाका खंयचे खंय पावयतलो. कथा पुरस्कार मेळटलो. तिचे सगळ्या भासांनी अणकार जातले. हांवें म्हजीच फाट थापटिली. पूण तशें करतना म्हाका बेटेंच फाटींत दुखिल्लेवरीं दिसलें. गॅस आसतलो वो मसल पेन! हांवें आडनदर केली.

पूण पयर मंगळुराक वतना मात ही दुख जाणवली.

भटकल, कुंदापुरचो रस्तो खंयचो आनी शेतां खंयचीं हें न कळपा इतली रस्त्याची वाट लागिल्ली. अदमासान शेताक रस्तो आनी रस्त्याक शेत मानून हांव कमीतकमी फोंडांतल्यान गाडी काडटालों. तेन्नाच भुजांनी एक जडसाणशी जाणवली.

कामिनीक सांगलें. ते बराबर तें फटक करून उसळ्ळें. "हें सांगप तुजी कितल्यावी खेप? तपासून घे म्हळ्यार आयकना. कितेंय जातकच मागीर बस रडत."

तेय अवस्तेंत म्हाका हासूंक आयलें. "आगो म्हाका कितेंय जालें जाल्यार हांव शांत न्हिदिल्लों आसतलों! बसून रडटलें

तें तूं!''

''अती जालें. तुजेर आतां सणसणीत पडटलें. आमी रावया आज उडपीक. फाल्यां या मंगळुराक.''

म्हाकाय ताची कल्पना आवडली. उडपी कित्याक? मनिपाल रावूं येता. म्हजो थंय मित्र आसा. हांवें डॉ. शिरिष बोरकाराक फोन मारलो. म्हणूंक लागलो, हांव आसां पूण म्हाका ऑपरेशनां आसात. फाल्यां तपासतां तुकां.

डॉ. शिरिष बोरकार हो गोंयकार तरनाटो. पयलीं मुंबय डॉ. मांडकेचो सहकारी आशिल्लो. मागीर अमेरिकेक गेलो. पूण थंय दुडू मेळटात पूण आपल्या लोकांची सेवा करूंक मेळना म्हूण भारतांत आयलो. हिन्दूजांत रावलो. ताची बायल डॉ. अनुपमा कॅन्सर स्पेशलीस्ट. तिका आनी ताका कस्तुरबा हॉस्पिटलान उबारून हाडिल्लो.

म्हळें ही आयडिया बरी आसा. तपासून घेवया! म्हणटकच भंय वतलो. कामिनीचोय एक्झीक्युटीव्ह चेकप करून घेवया.

म्हजो पुराय चेकप जालो. कामिनीचोय जालो. दोगांचोय रिपोर्ट नॉर्मल. पूण म्हजो स्ट्रेस टेस्ट निमाणो दवरिल्लो. इसीजी म्हजो नॉर्मल आसलो. पूण स्ट्रेस टेस्टा खातीर ट्रॅड मीलाचेर धावपाक लागलों तेन्ना मात स व्या मिणटाक धापेलों.

दर दिसा सकाळीं स किलो मिटर चलपी हांव. आतां कितें जालें? धा मिनटां तरी चलूंक जाय. पूण मनाची तयारी नाशिल्ली.

म्हाका डॉ. पद्मकुमारा कडेन हाडलो. ताणें रिपोर्ट पळयलो. सिरियस जालो. डॉ. शिरिष बोरकाराक आपयलो. तो आमकां डॉ. पद्मकुमाराकडेन सोडून गेल्लो.

दोगानीय रिपोर्ट पळोवन म्हाकां सांगलें, म्हाका हे आदीं ॲटक येवन गेला.

हांव हासलों. ॲटक येवन गेला जाल्यार म्हाका कशें कळ्ळें ना?

हांवें म्हजी केस हिस्टरी तांका सांगली. जेन्ना म्हजे तकलेची सर्जरी जाल्ली तेन्ना ती करतना म्हाका क्लिनिकली डेड थारायल्लें खंय! तोच हो ॲटक खंय! आसूं येता! दिलीप बोरकाराच्या बाबतींत कितेंय घडूं येता.

आतां मुखार कितें? तांचें मशीन सारकें उलयतालें. एन्जिओ ग्राफी केल्या उप्रांतच सत्य उक्ताडार येतलें. फाल्यां करूया म्हळें आनी आमी मंगळुराक गेलीं.

दुसरे दिसा आमचीं कामां सोपोवन मनिपाल परतलीं. म्हाका ॲडमीट केलो. दुसरे दिसा एन्जिओग्राफी जाली. म्हाका रिपोर्ट दाखयलो. म्हजें काळीज हांव कंप्युटरार पळयतालों कशें धकधक करता तें. पूण एक रस्तवाहिनी पुरायेन ब्लॉक. शंबर टक्के. दुसरे वाहिनींत दोन ब्लॉक.. रक्त वाट मेळटा ते वटेन वचूंक सोदतालें.

'येवजिल्लें उंदीर मेळटलो म्हूण, पूण हाताक लागलो पर्वत' दोतोरानी म्हळें. दोगूय चिंताग्रस्त जाल्ले.

करप कितें आतां? हाय रिस्क. निर्णय हांवें घेवपाचो. सेकंड ओपिनियन घेवपाचो? पूण तितलो वेळ ना. निर्णय घेतलो. करूया सर्जरी. तयारी सुरू जाली. पूण सुरी चलोवचे पयलीं नात्यांतल्या क्लोज मनशाची मान्यताय जाय आशिल्ली. कामिनी काळजाक क्लोज आशिल्लें. पूण मान्यताय दिवपाचो अधिकार ना. अधिकार आशिल्ले गोंया आशिल्ले.

भावाल्या चल्याक, रविन्द्राक आपयलो. ताणें सही केली.

मागीर ते भोग. संपूर्ण आंग तासप आनी जण एकल्यान येवन शरिराचें जाय तें करून वचप. उपरांत ओटीत व्हरप. नंतरचे तीन दीस संवेदने भायले आनी फुडले तीन दीस अज्ञातवासांतले. फक्त वेगवेगळे आवाज आनी नर्सींचें कडकड करून, लांतांत फातर घालून तें हालोवन आवाज काडिल्लेवरी कानार सादपी कन्नड संभाशण.

जालों एकदांचो बरो. कामिनीच्या तोंडार चान्नें खेळ्ळें. चार वरांची सर्जरी. सात वरां घेतलीं. म्हजें रक्तच गोठेना. म्हणटकच सगळी धांवपळ. तीन वरां खटपट करून शेवटाक शिंवलो. दोतोरांक घाम काडलो.

तसोच तो दिलीप बोरकार. लोकांक पिडपाक जल्माक आयला.

शीलाचो फोन मुंबयच्यान. पयलो फोन जो घेवंक मेळिल्लो.

''दिलीप बायपास केलें खंय?''

नक्कीच हें म्हजे बायपास कथेचेर उलयता. सर्जरी विशीं कोणाकूच वास लावंक हांवें दिवंक नाशिल्लो. हांव म्हजीं सुखां वाऱ्यार सोडटां. दुख्खां, अडचणी म्हज्याच काळजाच्या कुरकुटांत दवरतां. तेच एके बाबतींत हांव सुवार्थी.

''हांव तुजे कथेचेर उलयना. वाचल्या हांवें ती! तुजी बायपास सर्जरी जाल्या म्हूण कळ्ळ्या. खरी गजाल?''

''तुका कोणे सांगलें?''

''अनान फोन केल्लो?''

''अनाक कोणें सांगलें?''

''म्हाका खबर ना. पूण खरी गजाल?''

''तें अनाक विचार.''

''दिलीप, तूं म्हाका अशें समजूं नाका. बारीक बडी घेतलें चिपचिपीत पांय फोडटलें.''

''नाका सायबिणी. पांयाची शीर काडून काळजाक जोडल्या. काळीज चलपाक.''

''आवय गेल्ल्याक तुवें जिवाची वाट लायल्या. सांबाळ पापया.''

हांवें फोन दवरलो.

मागीर फोनार फोन. चार दीस फोनूच बंद उडयलो. अशी ही काणी एका बायपासाची!



**– दिलीप बोरकार**
आगशी – गोंय.
मो.:९८२२१३६८८५

POSTAL LICENCE NO.: G-2/RNP.Goa/01/2009-11

RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413



Published & Printed by Dilip Borkar Owner of Bimb Monthly, 'Dharm-Laxmi', St. Lourence, Agasaim - Goa & Printed at Impressions, Belgaum. Editor : Dilip Borkar, Ph.: 2438355, E-mail: bimbkonkani@yahoo.co.in